Price ₹ 20/- (₹ 25/- Outside Goa)




गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्साक सलाम!
(१९ डिसेंबर २०१०- १९ डिसेंबर २०११)

मे २०११

भ्रष्टाचार को
खत्म करो
www.jnss.in

भ्रष्टाचार
खत्म करो

# जंतर मंतरचो नेट छूः मंतर जांवचो ना मू?



वर्स : १० अंक ५



मे २०११



मोल २० रुपया



मुखेल संपादक
**दिलीप बोरकार**



मुद्रक आनी प्रकाशक
**दिलीप बोरकार**



छापणावळ
इम्प्रेशन्स, बेळगांव.



व्यवस्थापक
**कामिनी किणी**



अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
**श्वेता नाईक**



वर्गणीचे दर
वर्सुकी २५० रु. / तीन वर्सां ६०० रु.



खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो





**संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो**
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in






**कोंकणी मासिक**
# बिम्ब
**१०वें वर्स**



**रेखाचित्रां**
**गिरिश नंदा बोरकार**

# अण्णा हजारेंक येवकार दिवया... पेटून उठपाचो संकल्प करूया....



**ह्या** म्हयन्याच्या ७ तारखेर ज्येश्ठ समाजसेवक अण्णा हजारे गोंयांत येवपाचे आसात. ताणी गोंयांत येवचें आनी गोंयच्या लोकांक संबोधचें अशी गोंयकारांची इत्सा आसा. देखून त्या आयोजनाचो प्रयत्न चालू आसा.

अण्णा हजारेंक देशभरांतल्यान निमंत्रणां येत आसात आनी भ्रश्टाचारा आड ताणीं जो आवाज काडला ताका सगळ्या स्तरांतल्यान तेंको मेळत आसा. हो उत्स्फूर्त प्रतिसाद पळयत जाल्यार देशांतली जनता भ्रश्टाचाराक उबगल्या म्हणपाची दिसता. गोबरा पोंदा धुमसपी उज्याक मुक्त करतलो जाल्यार कोणेतरी त्या गोबराचेर फूक मारपाची गरज आसता. फूक उज्याचेर मारिनांत. ती मारतात गोबराचेर. गोबर कुशीक सरलो म्हणटकच गोबरा पोंदा जी कीट धुमसता तिचो प्राणवायुकडेन संपर्क येता आनी गोबरा पोंदचो उजो पेट घेता.

१९४६ सालांत जेन्ना गोंय पोर्तुगेजांच्या शेकातळाक आशिल्लें तेन्नाय गोंयकार आत्मविस्वासाच्या उणावाच्या गोबरापोंदा धुंवत आशिल्लो. हो गोबोर फूक मारून पयस करपाचें काम डॉ. राममनोहर लोहिया हाणीं केलें. त्या उप्रांत गोंयकार कसो पेटून उठलो हें आमचे जाणटे पिळगेक खबर आसा.

भौस हो केन्नाच पेज नासता. जाय आसता तें समर्थ नेतृत्व. भौसाक जागो करपाची तांक ह्या नेतृत्वाकडेन आसपाची गरज आसता. नेतृत्व म्हळ्यार माचयेर उबो रावन सभा गाजोवप न्हय. नेतृत्व म्हळ्यार बोल्सांतले दुडू खर्चून, गाडयो दवरून लोकांक पुंजावप आनी तांचे मुखार भाशणा दिवप न्हय. असलीं कामां राजकीय फुडाऱ्यांचीं. जे सर हे फुडारी सत्तेर आसतात ते मेरेन संधीसाधू ह्या गोडा धेपी भोंवतणी मूस कशे आनाळ्यो गुनाळ्यो काडीत आसतात. ह्या मुसांमदीं म्होंवामूस आसता तशे हळशिकेर बसपीय मूस आसतात. ह्या मुसांच्या मालवजार फुडारी जावप सोंपें. पूण हातांत कसलीच सत्ता नासतना, दुडवांच्यो राशी नासतना फक्त जाच्या एका उल्यार विस्वासान जे धावून येतात ताका नेतृत्व म्हणूंक जाय.



महात्मा गांधी भितर हें नेतृत्व आशिल्लें. मीठ हेंच एक निमित्त घेवन सर्वसामान्य जनतेक देशाचें स्वातंत्र्य जोडपा खातीर प्रेरीत करप ही दुर्मीळ घडणूक. गांधीजींकडेन तें शक्य जावंक पावलें म्हूण सगळ्यांच कडेन तें जमतलें अशें ना. तेच वांगडा त्या काळावेली सर्वसामान्य जनताय महात्मा गांधीजींचें

नेतृत्व स्वीकारपाक पुरक अशीच आशिल्ली. गांधीजींच्या दरेक करणेचेर दुबाव घेवपी तशे सहसा कोण नाशिल्लेच म्हळ्यार जाता. कारण त्या काळची जनता आदर्श लोकांच्या विचारांतल्यानूच ल्हानाची व्हड जाल्ली. रवीन्द्रनाथ टागोर, कर्वे, नेहरू, सुभाषबाबू, फुले हांच्या प्रभावाखाला घडिल्ली ही पिळगी गांधीजी आनी देशप्रेम हांचे फाटल्यान धांवली जाल्यार अजाप न्हय. कित्याक तो काळ कोणाच्या कार्याविशीं दुबाव घेवपाच्या विचारांचो नाशिल्लो तर जो कोण समाजसेवेच्या होमखणात उडी घेता ताचे कडेन आदरान पळोवपाचो काळ आशिल्लो. समाजाखातीर असली व्यक्ती पूज्य आसताली.

आयज तो काळ ना. कित्याक आयच्या काळार प्रभाव घालपी नेतृत्व वेगळें. जे वेगवेगळया घोटाळयात घुसपल्यात आनी जाणी सत्तेचो गैर वापर करून प्रचंड दुडू कमायला तांचो शेक समाजाचेर चलता. काल पयर जाचेकडेन कांयच नाशिल्लें ती व्यक्ती वेंचणुकेंत निवडून येवन आमदार-मंत्री जाल्या बराबर थोडयाच दिसांनी घसघशीत संपत्तीचो धनी कसो जाला हाचें मोस्त्र लोकां मुखार आसता. सत्ता आनी संपत्ती हाचे मुखार लोक कशे बागवतात हाचो अणभव समाज घेता आनी होच आदर्श दोळ्यांमुखार दवरून जण एकलो आपली जीण घडोवंक सोदता. जांका ही येदी व्हडली मोख गाठप झेपना ते सत्ताधीशांचे सावळे पोंदा रावून जें कितें फुडयांत पडटा ताचेर समादान मानून रावतात. ह्या सत्ताधीशांचीं पाळांमुळां चडांत चड रिगचीं, विस्तारचीं हे पासत ते वावरत आसतात. अश्या ह्या वातावरणांत कोण भ्रश्टाचारा आड मुखार सरतलो, आवाज काडटलो अशें चिंतप लेगीत हांसपासारकें दिसले बगर रावचेंना.

अशे वेळार अण्णा हजारे आनी तांचे सांगाती वाळवंटांतलें मृगजळ दिसचें तशें नदरेक पडटकच भ्रश्टाचाराक विटिल्ले, उबगल्ले आनी तो मुळासयत हुमटून उडोवपाक तानेल्ले सामके उमेदीन भरतात तांचेय कडेन आमच्यानी आडनदर करूंक फावना. अण्णा हजारे लढतलो आनी आमी भ्रश्टाचारांतल्यान मुक्त जातले हाची वाट पळयत रावले जाल्यार आमचे इतले देडशाणे आनीक दुसरे नात अशेंच म्हणचें पडटलें.

आयज सामान्यांतल्या सामान्य मनशाक लेगीत भ्रश्टाचार होच शिश्टाचार अशें दिसूंक लागलां. कित्याक ते भ्रश्टाचार करून दुडू कशे जोडटात आनी खंयच्याय आरोपांतल्यान कशे सुट्टात हें सामान्य जनता पळयता. ह्या लोकांक आडावपी कोण ना तेन्ना आमीय तांच्याच मार्गार या अशें हे लोक येवजितात. ह्या लोकांक तांच्या विचारां पासून परावृत्त करतलो जाल्यार आमकां अण्णा हजारेचो मार्ग धरचो पडटलो.

अण्णा हजारेन लोकपाल विधेयक पास करून घेवपा खातीर रान उठयलां. फुडल्या अधिवेशनांत ते विधेयक संमत करून घेतलेच. तशें वातावरणच ताणीं तयार केलां. तांच्या पावलाचेर पावल उडोवन आमीय लोकायुक्त विधेयकाचो आग्रो धरूंक जाय.




सद्याचें विधेयक विधानसभा सभाघरांतल्यान राज्यपालांकडेन आनी थंयच्यान राष्ट्रपतींकडेन धाडिल्लें तें परतून सभापतींकडेन आयलां. लोकायुक्ताक लागून कितें जावं येता हाचो अणभव कर्नाटक राज्यांतल्या घडणुकांवेल्यान गोंयच्या राजकारण्यांक आयिल्लो आसा. देखून तांकां गोंयां लोकायुक्त नाका. ते विधेयक येवंचें न्हय असो नोकरशहा आनी राजकारणी हांचो प्रयत्न चालू आसा. आतां विधानसभेच्यो वेंचणुको लागीं पावल्यात. तेन्ना येता त्या अधिवेशनांत हें विधेयक पास करात ना तर येवपी वेंचणुकेंत लोकूच तुमकां घरा बसयतले अशें नेटान सांगपाचो वेळ आयला.

अण्णा ७ तारखेक गोंयचे भेटेर येतात तेन्ना आमी लोकायुक्त विधेयक पास करून घेतलेच म्हणपाचें उतर तांका दिवपाची गरज आसा.




# जंतर मंतरचो नेट छूः मंतर जांवचो ना मू?

- दिलीप बोरकार

पुराय देश भ्रश्टाचारान सामको खिळखिळो करून उडयला. दिसानदीस संपूर्ण देशाक आपल्या चोपक्यांत घेवपाखातीर प्रचंड गतीन फैलावपी ह्या भ्रश्टाचाराच्या काळखाक नानपयत करूंक जाय अशें आयज देशांतल्या सामान्यांतल्या सामान्य मनशाक दिसता.

आयज देशभर मातलेलो भ्रश्टाचार हो कोणा मूठभराची मक्तेदारी उरूंक ना तर जांका भौतीक सुखां म्हळ्यारूच जीवन दिसता त्या भोगवादी विचारसरणीच्या दरेक मनशाक आयज विनाकश्ट पयसो जोडपाचीं सपनां पडूंक लागल्यांत. तेचपासत मेळटा ते पध्दतीन पयसो हातासपाचो आनी चैनींत दीस सारपाचे हीच संस्कृताय अशें जांका दिसता असो सगळो समाजूच आज भ्रश्टाचारांत घुस्पल्लो आसा. तरी लेगीत आपूण शेण खातां तें वखदाक आनी दुसरे खातात ते भुकेक असो आव हाडून एकलो भ्रश्टाचारी दुसऱ्याक बोटां दाखयत हुयेल मारता. हें अशें घडपाचें कारण म्हळ्यार आयज देशांतलो सर्वसामान्य मनीस भ्रश्टाचार करता तो काळजांतल्यान करिना. भ्रश्टाचारांत




**अण्णा हजारेच्या उपासाक तेंको दिवपाक आजाद मैदानाचेर बशिल्लें 'इंडिया अगेन्स्ट करप्शन' संस्थेचे वावुरपी. फोटवांत, सतीश सोनक, दिलीप बोरकार, प्रकाश कामत, गुरूदास सावळ, प्रकाश नायक, महेश नायक आनी हेर मानेस्त.**

हात आसलो तरी तांचें मन तांकां सतत खायत आसता. पूण सद्याची वाडटी म्हारगाय आनी हेरां सारकीं सुखां आपल्याय भुरगे बाळांक मेळचीं हे इत्सेन तांचींय पावलां भ्रश्टाचाराकडेन वळटात. पूण अण्णा हजारे सारको एखाद्रो भ्रश्टाचारा आड लढपाचो उलो जेन्ना मारता तेन्ना ताच्या उल्याक हीच जनता धावून वता. कित्याक तर तांकां मनापासून हो भ्रश्टाचार ना जांवचो अशें दिसता आनी ताचे दोन दाग आपल्या हातांचेर पडल्यात हें खबर आसुनय अशे तरेन धुवन उडोवपाचो तांचो यत्न आसता.

आयज पुराय देशांत भ्रश्टाचार मातला म्हणपाचें मान्य करतात. वयर साकून सकयल मेरेन तळागाळांत भ्रश्टाचार सामको मुरला म्हळ्यार जाता. कसले ना कसले पध्दतीन हो भ्रश्टाचार चलता. व्हडले लोक व्हडले व्हडले मासे गळाक लायतात तर धाकटे लोक करबटाचेर समादान मानतात. पूण भ्रश्टाचारा बगर संवसार चलोवप शक्य ना हेंच तांचें म्हणणें आसता आनी खंयच्यान चार पयशे सोडोवं येतात हाचेरूच नदर दवरून तांची जीण सरता.

आयची ही वाडटी म्हारगाय पळयल्यार जोडिल्ली जोड पोटाक पावना अशी परिस्थिती सर्वसामान्य जनतेची जावन गेल्या. सर्त चलता ती शेजाऱ्यां शेजाऱ्यांमदीं. तांचीं भुरगीं कशीं न्हेसतात, कशीं खातात हाचे पासून तीं खंयचे इस्कोलांत शिकतात आनी खंय ट्युशनाक वतात ह्या सगळ्यां भितर ही सर्त आसता. आपल्या संवगड्यांचें पळोवन भुरगींय आपल्या आवय बापायक धोसतात. ना म्हणत जाल्यार भुरगीं मनाक लावन घेवन जिवाचें कितेंय बरें वायट करून घेत म्हूण भिरांत. हाकाच लागून जोडी परस मोड चड जाता. ते खातीर आलायती जोड सोदची पडटा.

घरांतलो दादलो बाजार करूंक वता तेन्ना ताच्या ऑफिसांतलोच ताचो सहकारी बरें बरें किंमती नुस्तें ताच्या दोळ्यां सामकार घेता. गाडयांनी भोंवता, बऱ्यो बऱ्यो वस्तू घरांत हाडटा. ताचेकडेन ताची सर्त सुरू जाता आनी मागीर आपणेंच कित्याक रखडत जिवीत सारचें अशे विचारसरणीन तोय मागीर भ्रश्टाचाराची वाट धरता.

आयज भ्रश्टाचार करूंक सगळेवटेन दारां उक्तीं आसात. वयले श्रेणीच्या अधिकाऱ्या सावन कनिश्ठ श्रेणीच्या चपराश्या मेरेन भ्रश्टाचार करूंक वाव आसा. एखाद्रया सरकारी आस्थापनाचो संचालक एखाद्री फायल सही करूंक फाटींफुडें सरता. ती फायल धुल्ल खायत पडटा. संचालकाक चार पयशे खावोवन फायल क्लिअर जाता पूण ती कारकून, अव्वल कारकून हांकाच मागीर सापडना. ती सोदपाक लायतलो म्हळ्यार चपराशी सापडना. सगळ्यांक बाबापुता करून फायल सोदून काडल्या उप्रांत चपराशी लेगीत ताठ मानेन, कोणाची भीड मुर्वत बाळगिनासतना 'सायब, चायेक काय ना?' अशें विचारून निर्ल्लज्जा सारको हासता. ताका चायेक ते वेळार कांयच उडयलेंना जाल्यार मागीर फुडली फायल केन्नाच हाताक मेळपाची शक्यता नासता.

असो हो भ्रश्टाचाराचो चिखोल सगळे कडेन दाटला. तो काडून साफ करूंक वचत जाल्यार त्याच चिखलांत बरो मनीस फसता. भितर भितर मुंगरता आनी आंगाक पडिल्ले दाग काडचे परस तोच भ्रश्टाचाराचो काळो रंगूच बरो दिसूंक लागता.

वयले स्तरार ६५००० कोटी रूपयांचे घोटाळे उक्ताडार आयल्यात. वयल्या वयल्या पदावेले लोक कोट्यावधी रूपयांच्या भ्रश्टाचारांत सामके गळ्यामेरेन बुडल्यात. ह्याच लोकांक बरे बरे शिकिल्ले मनीस सलाम मारतात. कित्याक तर तांचेकडेन दुडू आसात. हो दुडू कसो आयिल्लो आसा हें सगळ्यांक खबर आसा. आपलो घाम वारोवन इतलो दुडू करप शक्य ना हेंय सगळ्यांक खबर आसा. जे कोण गर्भश्रीमंत आसात तांचे संपत्तींत आपशींच भर पडत

# भ्रश्टाचाऱ्यांक कायद्याची भिरांत उरूंक ना

- अण्णा हजारे



'सद्याक चोंय वटेन नदर मारल्यार एकूय मळ अशें दिसना की जंय भ्रश्टाचार ना. खंयीय गेल्यार पयशे दिले बगर काम जायना. वाडट्या भ्रश्टाचाराक लागून सामान्य मनशाक आपलें जीवन जगप कठीण जाल्लें आसा. चरक्यांत घाल्ल्या उसाप्रमाण तो पिळून वता. जांचें फकत हातार पोट आसा आनी मोल मजुरी केले बगर जांची चुलय पेटना अश्या लोकांनी कशें जियेवंचें होच खरो प्रस्न आसा. राज्यांतल्या आनी देशांतल्या उदरगतीच्या कामा खातीर मंजूर केल्ल्या रकमेंतल्या दरेक रुपयांतले १० पयशे लेगीत प्रत्यक्षात खर्च जायनांत. ही वस्तुस्थिती आसा. भ्रश्टाचाराचे गळतीक लागून उदरगतीच्या वावराक आडखळ जाता हें न्हयकारूंक फावना. हाका लागून गरीब आनी श्रीमंत हांचे मदली दरय चडांत चड विस्तारत वता. हो वाडटो भ्रश्टाचार आयज सर्वसामान्य जनतेक नाका जावन गेला. भ्रश्टाचाराच्या विरोधांत देशांतल्या नागरिकांच्या मनांत चीड उत्पन्न जाल्ली आसा.

आयज ही परिस्थिति कित्याक निर्माण जावंक पावली? तर भ्रश्ट प्रवृत्तीक लगाम घालपा खातीर अस्तित्वात आशिल्ले कायदे सद्या निष्प्रभ जाल्यात. ताका लागून भ्रश्टाचाऱ्यांक कायद्याची भिरांत उरूंक ना. हाका लागून गल्ली सावन दिल्ली मेरेन भ्रश्टाचाराची एक साखळ अशी निर्माण जाल्ली आसा... भ्रश्टाचार करपी वेगवेगळ्या मळावेले लोक सुवार्थान इतले धुंद जाल्ले आसात की तांका देश आनी समाजाच्या हिताचें पडून गेल्लें ना. दरेक मनीस सुखाच्या सोदांत आसा. ताका लागून येनकेन प्रकारेण पयसो जमोवप हेंच तांचें उद्दीश्ट आसा. पयशांतल्यान सत्ता आनी सत्तेतल्यान पयसो हे नशेंत सद्या राजकारणी बेहोश जाल्ले आसात. भ्रश्ट मार्गाचो अवलंब करतना आपूण देशाक आनी समाजाक खंय घेवन वतां हाचें हांका भान ना. वाडट्या भ्रश्टाचाराक लागून देश पोखरला. पूण हें खंय तरी थांबोवंक जाय. ते पासत एक दीर्घ लढो उबारपाची गरज आसा.

वता हें खरें आसलें तरी काल-पयर जांका शंबरांचेर कितलीं शुन्यां आसतात हें सांगप कठीण जातालें तेच आयज अब्जानी रूपयांचे संपत्तीचे धनी जाल्ले दिसून येतात.

हाताच्या बोटार मेजपासारकी कांय नांवां सोडलीं जाल्यार राष्ट्रीय तशेंच राज्यस्तरावेल्या राजकीय पक्षांचे सगळेच फुडारी हे भ्रश्टाचारी आसात म्हणपाचें स्पश्टपणान दिसता. वयल्या पदावेले सनदी नोकर भ्रश्टचारी आशिल्ल्याचें सगळ्यांक खबर आसा. लष्करी अधिकारी शस्त्रां आनी शवपेट्यांचेर लेगीत कसो भ्रश्टाचर करतात हें आमी पळयलां. शिक्षणाच्या मळार आमी भ्रश्टाचार पळयतात, शिक्षक, परिक्षक सगळेच भ्रश्टाचारी जाल्यात. इतलेंच कित्याक जे न्यायवेवस्तेचेर आमची भीस्त आशिल्ली ती न्यायवेवस्ताय लाच घेवन न्याय बदलूंक शिकल्या. म्हणटक भौतीक सुखांची खरेदी करपा खातीर दुडू हीच जाची एकली-एकसुरी मोख जावन गेल्या त्या चक्रांत देश सामको चक्रावन गेल्लो आसा.

ह्या भ्रश्टाचाराक खंयच मर्यादा म्हणटात ती उरूंक ना. देशाचे अधिकृत अशे अर्थ वेवस्तेक समांतर अशी काळ्या दुडवांची एक अर्थवेवस्ता चलतना आमचे नदरेक पडटा. भ्रश्टाचाराचें हें प्रमाण इतलें भिरांकूळ आसा की अधिकृत अर्थवेवस्तेक, काळ्या धनाचे अर्थवेवस्तेन सायड मारून ती मुखार पावल्या. पुराय देश काळ्या दुडवां वाल्यांच्या चोपक्यांत सापडला.

ही सगळी परिस्थिती आयज देशाच्या सामान्यांतल्या सामान्य मनशाक खबर आसा. हे परिस्थितीखाल देशांतलो एकान एक मनीस चिड्डला. राजकारणी, सत्ताकारणी, नोकरशाहा, धनपती, उद्योगपती सगळेच कसल्या ना कसल्या लफड्यांत अडकल्लेच आसात. पूण मजेची गजाल म्हळ्यार हातुंतलो प्रत्येक जाण आपूण साव आनी दुसरो चोर अशेच तरेची भावना दवरता. सकयलो भ्रश्ट नागरीक वयल्याक भ्रश्ट म्हूण बोट दाखयता.

ह्या सगळ्या लोकांक जर विचारलें, बाबा रे ह्या देशांत भ्रश्टाचार आसा? जाप मेळटा 'हय'. भ्रश्टाचार मातलो? 'हय'. हो भ्रश्टाचार करप म्हळ्यार देशाक लज न्हय? 'हय'. भ्रश्टाचाऱ्यांक सोदून काडून तांका चडांत चड ख्यास्त दिवंक जाय काय नाका? 'हय दिवंक जाय'. ह्या हयकारी जापांवेल्यान कितें दिसता तर सद्याच्या देशांतल्या भ्रश्टाचाराविशीं पुराय जनतेक राग आसा. संताप आसा. तांका देशांतलो भ्रश्टाचार समूळ नश्ट जांवचो अशें दिसता. अशें दिसप्यांमदीं जाणी आपल्या जिवितांत केन्ना ना केन्ना कसलो भ्रश्टाचार केल्लो आसा तांचोय आसपाव आसा.

अशें हें भ्रश्टाचारी वातावरण तेंगशेर पाविल्ल्यान हो भ्रश्टाचार कोणेतरी सोंपोवचो अशें दिसप साहजिकच आसा. लोखंड तापलेलें आसा, कोणे तरी ताचेर घण घालपाची गरज आशिल्ली. भ्रश्टाचार ना नपयत करतलो जाल्यार सरकारान केल्ल्या कायद्याचो वापर करून तो पयस जातलो हाची कोणाकूच खात्री ना. म्हणटकच भ्रश्टाचारा आड वावुरपी अशी एक यंत्रणां जाय जिका सरकारांतले लोक लेगीत जापसालदार आसतले. आमच्या देशांत ही जापसालदारकी केंद्रीय स्तरार लोकपाल आनी राज्यस्तरार लोकायुक्त हांचे सुवादीन आसची अशी वेवस्ता आसा. ते प्रमाण देशांतल्या १८ राज्यांनी लोकायुक्त यंत्रणां आसा. पूण सद्या मतभेद आसात ते केंद्रीय स्तरावेल्या लोकपालाक कितले आनी कसले अधिकार फावतात हाचेर. १९६९ वर्सा पयलें लोकपाल विधेयक लोकसभेंत मांडलें. तेन्नाच्यान ह्या विधेयकाचेर भासाभास चालूच आसा. आतां मेरेन ९ खेपे हें विधेयक लोकसभेंत मांडलें. पूण




अजूनय तें मंजूर जांवक पावलें ना. पास जातलें कशें? खंयच्याय पक्षाचें सरकार केंद्रात आसलें तरी तांतले सगळे खासदार, मंत्री येनकेन प्रकारेण दुड्डू करपा खातीरूच आयिल्ले आशिल्ल्यान आपूण जावन कोण आपल्या पांयांक बेडयो घालून घेवपाचो नाशिल्लो. तेच पासत लोकपाल विधेयक लोकसभेंत रखडत उरलां.

हें लोकसभेंत कुसत पडिल्लें लोकपाल विधेयक मंजूर जांवचें हें मागणे खातीर ज्येश्ठ समाजसेवक अण्णा हजारे हाणीं दिल्लीच्या जंतरमंतर वाठारात आमरण उपोशणाक आरंभ केल्लो आनी पुराय देशांत एक वादळशें उठलें.

अण्णा हजारेंचें हें भ्रश्टाचारा आडचें आंदोलन पयलें आंदोलन न्हय. हे आदीं ताणीं भ्रश्टाचाराआड चळवळ राबयल्ली आनी तातूंत तांका यशूय मेळिल्लें. पूण भ्रश्टाचार पुरायेन सोंपयतले जाल्यार लोकपाल विधेयक कांय बदलां सयत बेगोबेग पास करप गरजेचें अशें मानून ताणीं 'इंडिया अगेन्स्ट करप्शन' ही लोकांची चळवळ चालीक लायली. केंद्रान लोकपाल विधेयक पास केले बगर आपूण दिल्लीच्यान हालचो ना अशें सांगून ताणीं उपासाक बसकण मारली आनी पुराय देशांत खळबळ माजली.

अण्णाचें उपोशण सुरू जालें आनी एक दोन दिसां भितर पुराय देशांतल्यान तांका पाठिंबो मेळूंक लागलो. स कोटी लोकांनी तांका वेगवेगळ्या माध्यमांतल्यान संपर्क करून पाठिंबो दाखयलो अशें म्हणटात.

अण्णा हजारे हो निर्णायक लढो सुरू करूंक कित्याक पावले? तर आयज सर्वसामान्य लोक आपले सरभोंवतणी जें कितें पळयतात आनी उलयतात तेंच अण्णा उलयता. अण्णा आयचे जनतेचो आवाज जावन मुखार आयला इतलेंच. अण्णा म्हणटात, 'सद्याक चोंय वटेन नदर मारल्यार एकूय मळ अशें दिसना की जंय भ्रश्टाचार ना. खंयीय गेल्यार पयशे दिले बगर काम जायना. वाडट्या भ्रश्टाचाराक लागून सामान्य मनशाक आपलें जीवन जगप कठीण जाल्लें आसा. चरक्यांत घाल्ल्या उसाप्रमाण तो पिळून वता. जांचें फकत हातार पोट आसा आनी मोल मजुरी केले बगर जांची चुलय पेटना अश्या लोकांनी कशें जियेवंचें होच खरो प्रस्न आसा. राज्यांतल्या आनी देशांतल्या उदरगतीच्या कामा खातीर मंजूर केल्ल्या रकमेंतल्या दरेक रुपयांतले १० पयशे लेगीत प्रत्यक्षात खर्च जायनांत. ही वस्तुस्थिती आसा. भ्रश्टाचाराचे गळतीक लागून उदरगतीच्या वावराक आडखळ जाता हें न्हयकारूंक फावना. हाका लागून गरीब आनी श्रीमंत हांचे मदली दरय चडांत चड विस्तारत वता. हो वाडटो भ्रश्टाचार आयज

सर्वसामान्य जनतेक नाका जावन गेला. भ्रश्टाचाराच्या विरोधांत देशांतल्या नागरिकांच्या मनांत चीड उत्पन्न जाल्ली आसा.

आयज ही परिस्थिती कित्याक निर्माण जावंक पावली? तर भ्रश्ट प्रवृत्तीक लगाम घालपा खातीर अस्तित्वात आशिल्ले कायदे सद्या निष्प्रभ जाल्यात. ताका लागून भ्रश्टाचाऱ्यांक कायद्याची भिरांत उरूंक ना. हाका लागून गल्ली सावन दिल्ली मेरेन भ्रश्टाचाराची एक साखळ अशी निर्माण जाल्ली आसा... भ्रश्टाचार करपी वेगवेगळ्या मळावेले लोक सुवार्थान इतले धुंद जाल्ले आसात की तांका देश आनी समाजाच्या हिताचें पडून गेल्लें ना. दरेक मनीस सुखाच्या सोदांत आसा. ताका लागून येनकेन प्रकारेण पयसो जमोवप हेंच तांचें उद्दीश्ट आसा. पयशांतल्यान सत्ता आनी सत्तेतल्यान पयसो हे नशेंत सद्या राजकारणी बेहोश जाल्ले आसात. भ्रश्ट मार्गाचो अवलंब करतना आपूण देशाक आनी समाजाक खंय घेवन वतां हाचें हांका भान ना. वाडट्या भ्रश्टाचाराक लागून देश पोखरला. पूण हें खंय तरी थांबोवंक जाय. ते पासत एक दीर्घ लढो उबारपाची गरज आसा.'

फाटलीं २० वर्सां अण्णा हजारे भ्रश्टाचारा आड झुजत आसात. तांच्या ह्या वावराक लागून खूबच सकारात्मक परिणाम दिसून आयला. ३३ जिल्ह्यांतल्या २५२ तालुक्यांत भ्रश्टाचार विरोधांत लढपी कार्यकर्त्यांचें संघटन उबें रावलां. फाटल्या ह्या वीस वर्सांच्या आंदोलनाक लागून म्हायती अधिकार, ग्रामसभेक अधिकार, बदल्यांचो कायदो हे सारके अत्यंत म्हत्वाचे कायदे जावंक पावले. आयज देशभर जे कोट्यानी रूपयांचे म्हाघोटाळे उक्ताडार येवंक पावले ते सगळे म्हायती अधिकाराक लागुनच.

देशांतलो भ्रश्टाचार ना जातलो जाल्यार देशांत लोकपाल विधेयक येवंक जाय अशें आतां सगळ्यांकूच दिसूंक लागलां. पूण तें येवंक फावना म्हूण तितलेच प्रयत्न जावंक लागल्यात. कांय लोकांक दिसता की अण्णा हजारे जें कितें करता तें कायद्या भायलें. अण्णाक आनी लोकपाल विधेयक मसुदो तयार करपी ताच्या वांगड्यांक दिसता सरकारान जो मसुदो तयार केला तो सामको कमकुवत आसा. सत्तेर आशिल्ले कोणूच स्वताचेर निर्बंध घालूंक तयार जांवचेनांत देखून हो विशय तांचेर सोपोवप समा न्हय. वयल्या पदांचेर आशिल्ल्यांक भ्रश्टाचारांतल्यान आडायतलो जाल्यार सरकारान तयार केल्लो मसुदो उपेगाक पडपाचो ना. तर विरोधक अण्णा हजारे आनी तांच्या पंगडांतल्या वांगड्यांचेर भ्रश्टाचाराचे आरोप करीत तांची बदनामी करपा खातीर कसली ना कसलीं नाडे पेन्ना करीत आसात. तेच वांगडा अण्णा हजारे मागणी करता तें विधेयक कितलें धोकेदायक म्हणपाचें लोकांमुखार सिध्द करपा खातीरूय धडपडटात. विरोधकांच्या मता प्रमाण अण्णा जे पध्दतीचें लोकपाल विधेयक हाडूंक मागतात तें आयल्यार लोकशायेक मारक थारतलें. लोकशाय वेवस्तेच्यो कांय चौकटी आसतात. कांय नेम आसतात. हें सगळें पाळूनच लोकशाय तिगता. भ्रश्टाचार आडावंक ही चौकट अपेशी थरली म्हूण ती चौकट वाडोवन व्हडली करात अशें मागप म्हळ्यार ती धोकादायक अशें विरोधकांक दिसता. लोकपालाक ह्या विधेयकाक लागून अमर्याद अधिकार प्राप्त जातले. हे यंत्रणेचेर कोणाचेंच नियंत्रण नासतलें. आसलेंच जाल्यार तें जनतेचें आसतलें. पूण जनतेचें म्हळ्यार कोणाचें तर कांय समाज सेवकांचें. पूण हे अमर्याद अधिकार हातांत आयले म्हणटकच हे लोक भ्रश्ट जावचेनात काय? असोय प्रस्न विरोधक करतात. अण्णा हजारे मागणी करता तें जन लोकपाल विधेयक आसा तशें मान्य करून घेतल्यार ह्या लोकपालाक अधिकारांचें, कायद्याचें कसलेंच भंय नासतलें. अशी शक्तीशाली यंत्रणां तयार जाली जाल्यार मागीर संसदेची गरजूच उरचिना. देशांत हुकूमशाय जल्माक येतली अशी आरड सद्या विरोधक मारूंक लागल्यात.

तांच्या ह्या आरोपाक वयलेतराक तथ्य दिसलें आनी अण्णा हजारेंच्या भ्रश्टाचार विरोधी आंदोलनाक प्रचंड प्रमाणांत मेळपी तेंक्याक लागून भ्रश्टाचारी लोकांची तारांबळ उडल्या आसली तरी फाटलीं ४३ वर्सां लोकपाल विधेयक पास कित्याक जावंक पावलेंना हाची जाप मात आयज विरोधक दिवंक शकनात.

सरकारी कारभारांतलीं भ्रश्टाचारी प्रकरणां प्रभावीपणान हाताळपा खातीर एक अशी यंत्रणां जाय जी सत्ताधाऱ्यांच्या अंकुशांतल्यान पयस आसतली अशी मागणी सगळेच लोक करतात. आयज सरकाराचेर सामान्य जनतेचो विस्वास उरूंक ना. तेच पासत कांय वेळार न्यायसंस्था लेगीत सरकाराक धारेर धरता. पूण न्यायसंस्थेचे अधिकार सरकारापरस वयर आसले तरी न्यायसंस्था सरकार चलोवंक शकना.



# EDC LIMITED

1975 CELEBRATING 35 Years 2010

of Entrepreneurship, Empowerment and Excellence

***A catalyst for economic growth in the state of Goa.... offers multiple schemes and incentives.***

Avail EDC funds at amazingly low interest rates starting from 10.5%* p.a.

General Term Loan Scheme for Manufacturing & Service industry

**State Government Incentives only on EDC loans**

Sons of Soil/ Women/ NRGs
**1%* interest rebate**

**3%* interest rebate**
for units located in backward talukas

**Mortgage your property, Fund your dream project**

**Avail EDC's MORTGAGE LOAN SCHEME**

**1%* interest rebate for**
Sons of Soil/ Women/ NRGs
3%* for units in backward talukas

Interest rates starting from 10.5%* p.a.

**Qualified Professionals Rejoice**

**EDC's Special Scheme for professionals**

**ELIGIBILITY**

- Registered Medical Practitioners,
- Chartered Accountants • Company Secretaries • Consulting Engineers
- Chartered Engineers/ Registered Valuers
- Architects • Cost Accountants etc.

Interest @ 10%* p.a.(Fixed)

**TRIPLE BONANZA**

**for employees of Govt., Corporations, Aided schools & Colleges, MPT & Goa Shipyard Ltd.**

**HOUSING LOAN SCHEME**
**9% (Fixed)*- Full Term**

**VEHICLE LOAN SCHEME**
**9% (Fixed)*- 7 yrs.**

**PERSONAL LOAN SCHEME**
**10% (Fixed)* - 5 yrs.**

**NALANDA**

Goa's most elegant, conveniently located, economical training halls, available on hire

We also conduct Management, Skill Development & Entrepreneurship training programmes

Schemes of Loan Assistance

for construction

of Residential, Commercial and Residential cum Commercial complexes

**CHIEF MINISTER'S ROZGAR YOJANA**

**A Self employment loan scheme**

Upto Rs. 6 lacs for qualified professionals and technically qualified persons

Upto Rs. 4 lacs for others

- 50% interest free share capital
- 40% @ 8% p.a.(2% interest rebate for woman beneficiaries)
- 10% Promoter's contribution

All under one roof...

**Visit us today**

# EDC LIMITED

EDC House, Dr. A. B. Road, Panaji - Goa - 403001
Tel: (0832) 2224541/42, 2423983, 2221458
E-mail: edcpanaji@edc-goa.com
**Website: www.edc-goa.com**



**खासदार सुरेश कलमाडी**
**भ्रश्टाचार करतना खूब बरें दिसता. मागीर धरतकच असो घाम फुट्टा.**

पयशे दिले बगर काम जायना. वाडट्या भ्रश्टाचाराक लागून सामान्य मनशाक आपलें जीवन जगप कठीण जाल्लें आसा. चरक्यांत घाल्ल्या उसाप्रमाण तो पिळून वता. जांचें फकत हातार पोट आसा आनी मोल मजुरी केले बगर जांची चुलय पेटना अश्या लोकांनी कशें जियेवंचें होच खरो प्रस्न आसा. राज्यांतल्या आनी देशांतल्या उदरगतीच्या कामा खातीर मंजूर केल्ल्या रकमेंतल्या दरेक रुपयांतले १० पयशे लेगीत प्रत्यक्षात खर्च जायनांत. ही वस्तुस्थिती आसा. भ्रश्टाचाराचे गळतीक लागून उदरगतीच्या वावराक आडखळ जाता हें न्हयकारूंक फावना. हाका लागून गरीब आनी श्रीमंत हांचे मदली दरय चडांत चड विस्तारत वता. हो वाडटो भ्रश्टाचार आयज सर्वसामान्य जनतेक नाका जावन गेला. भ्रश्टाचाराच्या विरोधांत देशांतल्या नागरिकांच्या मनांत चीड उत्पन्न जाल्ली आसा.

आयज ही परिस्थिती कित्याक निर्माण जावंक पावली? तर भ्रश्ट प्रवृत्तीक लगाम घालपा खातीर अस्तित्वात आशिल्ले कायदे सद्या निष्प्रभ जाल्यात. ताका लागून भ्रश्टाचाऱ्यांक कायद्याची भिरांत उरूंक ना. हाका लागून गल्ली सावन दिल्ली मेरेन भ्रश्टाचाराची एक साखळ अशी निर्माण जाल्ली आसा... भ्रश्टाचार करपी वेगवेगळ्या मळावेले लोक सुवार्थान इतले धुंद जाल्ले आसात की तांका देश आनी समाजाच्या हिताचें पडून गेल्लें ना. दरेक मनीस सुखाच्या सोदांत आसा. ताका लागून येनकेन प्रकारेण पयसो जमोवप हेंच तांचें उद्दीश्ट आसा. पयशांतल्यान सत्ता आनी सत्तेतल्यान पयसो हे नशेंत सद्या राजकारणी बेहोश जाल्ले आसात. भ्रश्ट मार्गाचो अवलंब करतना आपूण देशाक आनी समाजाक खंय घेवन वतां हाचें हांका भान ना. वाडट्या भ्रश्टाचाराक लागून देश पोखरला. पूण हें खंय तरी थांबोवंक जाय. ते पासत एक दीर्घ लढो उबारपाची गरज आसा.'

फाटलीं २० वर्सां अण्णा हजारे भ्रश्टाचारा आड झुजत आसात. तांच्या ह्या वावराक लागून खूबच सकारात्मक परिणाम दिसून आयला. ३३ जिल्ह्यांतल्या २५२ तालुक्यांत भ्रश्टाचार विरोधांत लढपी कार्यकर्त्यांचें संघटन उबें रावलां. फाटल्या ह्या वीस वर्सांच्या आंदोलनाक लागून म्हायती अधिकार, ग्रामसभेक अधिकार, बदल्यांचो कायदो हे सारके अत्यंत म्हत्वाचे कायदे जावंक पावले. आयज देशभर जे कोट्यानी रूपयांचे म्हाघोटाळे उक्ताडार येवंक पावले ते सगळे म्हायती अधिकाराक लागुनच.

## जय अण्णागिरी...! – ॲड. सतीश सोनक



आमच्या देशाक भ्रश्टाचार मिरोवपाची भूक लागल्या देखून अण्णान उपोशण केलें. निश्क्रीय तरणेंपण, समाजजिवन आनी देशकार्यांतल्यान व्ही. आर. एस्. घेतात देखून ७१ वर्सांच्या म्हाताऱ्याक सक्रीय जावचें पडलें. धोंपरां दुखपी अण्णान भ्रश्टाचाराक विरोध करपा खातीर देशाक आपल्या पांयार उबो केलो. स्वातंत्र्या उपरांत इतलीं वर्सां आमी भ्रश्टाचार सोंसलो हे विशीं ह्या निमतान लज दिसूंक आरंभ जालो. अण्णान दाखयल्ल्या उजवाडाक भर घालपा खातीर युवक युवतिनी मेणवाती हातांत घेतल्यो ही खूबूच जमेची बाजू आसा. पूण भ्रश्टाचार मुक्तीचें आंदोलन प्रतिकात्मक उरनासतना प्रतिकारात्मक जावंक जाय. एकूय फातर मारिनासतना मागण्यो मान्य करून घेवं येतात हो आत्मविश्वास ही अण्णाची देण आसा. संविधान सभेन जे वेळार भारतीय राज्यघटनेचो मसुदो तयार केलो ते वेळार सामान्य जनता उदाशीन आशिल्ली. आयज अण्णान उच्चारिल्ल्या जागृताय मंत्राक लागून कायदो तयार करपाचे प्रक्रियेंत आपलो वांटो आसचो अशें आम आदमीक दिसूंक लागलां. अण्णागिरीक लागून लोकशाय जिवी जाता. जनरेशन गॅप विसरून जर तरनाट्यांनीं अण्णाक तेंको दिलो तर लोकशाय अजरंवर जातली. जय अण्णागिरी!

देशांतलो भ्रश्टाचार ना जातलो जाल्यार देशांत लोकपाल विधेयक येवंक जाय अशें आतां सगळ्यांकूच दिसूंक लागलां. पूण तें येवंक फावना म्हूण तितलेच प्रयत्न जावंक लागल्यात. कांय लोकांक दिसता की अण्णा हजारे जें कितें करता तें कायद्या भायलें. अण्णाक आनी लोकपाल विधेयक मसुदो तयार करपी ताच्या वांगड्यांक दिसता सरकारान जो मसुदो तयार केला तो सामको कमकुवत आसा. सत्तेर आशिल्ले कोणूच स्वताचेर निर्बंध घालूंक तयार जांवचेनांत देखून हो विशय तांचेर सोपोवप समा न्हय. वयल्या पदांचेर आशिल्ल्यांक भ्रश्टाचारांतल्यान आडायतलो जाल्यार सरकारान तयार केल्लो मसुदो उपेगाक पडपाचो ना. तर विरोधक अण्णा हजारे आनी तांच्या पंगडांतल्या वांगड्यांचेर भ्रश्टाचाराचे आरोप करीत तांची बदनामी करपा खातीर कसली ना कसलीं नाडे पेन्ना करीत आसात. तेच वांगडा अण्णा हजारे मागणी करता तें विधेयक कितलें धोकेदायक म्हणपाचें लोकांमुखार सिध्द करपा खातीरूय धडपडटात. विरोधकांच्या मता प्रमाण अण्णा जे पध्दतीचें लोकपाल विधेयक हाडूंक मागतात तें आयल्यार लोकशायेक मारक थारतलें. लोकशाय वेवस्तेच्यो कांय चौकटी आसतात. कांय नेम आसतात. हें सगळें पाळूनच लोकशाय तिगता. भ्रश्टाचार आडावंक ही चौकट अपेशी थरली म्हूण ती चौकट वाडोवन व्हडली करात अशें मागप म्हळ्यार ती धोकादायक अशें विरोधकांक दिसता. लोकपालाक ह्या विधेयकाक लागून अमर्याद अधिकार प्राप्त जातले. हे यंत्रणेचेर कोणाचेंच नियंत्रण नासतलें. आसलेंच जाल्यार तें जनतेचें आसतलें. पूण जनतेचें म्हळ्यार कोणाचें तर कांय समाज सेवकांचें. पूण हे अमर्याद अधिकार हातांत आयले म्हणटकच हे लोक भ्रश्ट जावचेनात काय? असोय प्रस्न विरोधक करतात. अण्णा हजारे मागणी करता तें जन लोकपाल विधेयक आसा तशें मान्य करून घेतल्यार ह्या लोकपालाक अधिकारांचें, कायद्याचें कसलेंच भंय नासतलें. अशी शक्तीशाली यंत्रणां तयार जाली जाल्यार मागीर संसदेची गरजूच उरचिना. देशांत हुकूमशाय जल्माक येतली अशी आरड सद्या विरोधक मारूंक लागल्यात.

> लोकपाल विधेयकाचो मसुदो तयार करपाखातीर स्थापन केल्ले संयुक्त मसुदो समितींतल्या नागरी संघटनेच्या पांच सदस्यांचे नियुक्तीक आव्हान दिवपी याचिका सर्वोच्च न्यायालयांत वकिलांच्या एका गटान केल्या. समितींत संसद सदस्यांव्यतिरीक्त हेर कोणाचोच आसपाव करिनांत देखून ही समिती घटनात्मक नदरेन दोशपूर्ण आसा असो दावो केला. नागरी संघटनेचे शांती भूषण, संतोष हेगडे, अण्णा हजारे, प्रशांत भूषण आनी अरविंद केजरीवाल ह्या संसद सदस्य नाशिल्ल्यांक वांगडी केल्यात ते नियुक्तीक हें आव्हान आसा.

तांच्या ह्या आरोपाक वयलेतराक तथ्य दिसलें आनी अण्णा हजारेंच्या भ्रश्टाचार विरोधी आंदोलनाक प्रचंड प्रमाणांत मेळपी तेंक्याक लागून भ्रश्टाचारी लोकांची तारांबळ उडल्या आसली तरी फाटलीं ४३ वर्सां लोकपाल विधेयक पास कित्याक जावंक पावलेंना हाची जाप मात आयज विरोधक दिवंक शकनात.

सरकारी कारभारांतलीं भ्रश्टाचारी प्रकरणां प्रभावीपणान हाताळपा खातीर एक अशी यंत्रणां जाय जी सत्ताधाऱ्यांच्या अंकुशांतल्यान पयस आसतली अशी मागणी सगळेच लोक करतात. आयज सरकाराचेर सामान्य जनतेचो विस्वास उरूंक ना. तेच पासत कांय वेळार न्यायसंस्था लेगीत सरकाराक धारेर धरता. पूण न्यायसंस्थेचे अधिकार सरकारापरस वयर आसले तरी न्यायसंस्था सरकार चलोवंक शकना. भ्रश्टाचारांतल्यान तयार जाल्ली संपत्ती आनी सत्ता ही इतली ताकदवान आसता की ती न्यायसंस्थेक लेगीत भ्रश्ट करूंक शकता. तेन्ना ह्या सगळ्यां परस सशक्त अशी यंत्रणां जाय जिका सर्वाधिकार लाबूंक जाय, जाका लागून खंयचोच सत्ताधीश आपले सत्तेच्या नेटार आनी दुडवांच्या आदारान भ्रश्टाचारांतल्यान सुटचोना. असलो कायदो सरकार करूंकच शकना. कित्याक तर सरकारूच भ्रश्ट लोकांची संघटना. हे संघटनेचेरूच अंकूश दवरपी एक यंत्रणा आसप गरजेची आनी ती म्हळयार जनलोकपाल केंद्रांत आनी लोकायुक्त यंत्रणा राज्यांत.

तशें पळोवंक गेल्यार लोकशायेंत जनताच आपल्याक जाय तसले बरे वायट कायदे करीत आसा. पूण संसदीय लोकशायेंत जी पध्दत प्रस्थापीत जाल्ली आसा ताचे परस वेगळी पध्दत हो कायदो करतना वापरूंक जाय असो अण्णा हजारेंचो आग्रो आसा.

संसदीय लोकशायेंत जनता आपलो प्रतिनिधी वेंचणुकेच्या माध्यमांतल्यान लोकसभेंत धाडटात. हे लोकसभेंत ज्या पक्षाक वो व्यक्तींक पाठिंबो आसता ताचेंच सरकार घडटा. संसदेन खंयच्या विशयाचेर कशे कायदे करचे हें सरकारूच थारायता. तीच लोकशायेची वेवस्ता आसता. कित्याक तर लोकसभेत जनतेचें प्रतिनिधीक सरकार

आसता. अशे तरेन आपल्याक कसले कायदे जाय हें जनताच आपल्या प्रतिनिधी मार्फत थारायता. जनतेक तें थारावपाचो थेट अधिकार ना. तशी राजघटनेंत तरतूद ना. देखून अण्णा हजारेची मागणी ही घटनेभायली अशें वयलेतराक दिसली तरी जनतेचे प्रतिनिधी वेंचून येतकच जनतेक लागींच रावनांत. वेंचून आयले बराबर ते भ्रश्टाचाराक लागतात. कारण कितें तर ताणीं वेंचून येवपाक जो खर्च केला तो तांका भरून काडपाचो आसा. म्हणटकच ह्या प्रतिनिधींचो तसो जनतेक कांयच उपेग ना. आपल्याक कसो कायदो जाय हें जनता आपणें वेंचून दिल्ल्या प्रतिनिधींक सांगूंक शकना वो प्रतिनिधी जनतेच्या इत्सेआड कायदो पास करतात आसत तर तें लोकशायेचें अपेस मानचें पडटलें. ह्याच अपेसांतल्यान अण्णा वांगडा हेर जायते जाणांक हें लोकशाय विरोधी मागणें करचें पडलें हेंच सत्य आसा.

आयज लोकपाल नांवाचीं यंत्रणां तयार करपाक सरकार तयार जालें तेंय जनतेच्या वाडट्या दबावाक लागून. लोकपालाचे कक्षेत प्रधानमंत्र्यांकूय हाडपाची मागणी सरकारान मान्य केली तीय ह्याच दबावाक लागून. ह्या लोकपाल विधेयकाचो मसुदो कसो आसचो हाचेर सद्या वेगवेगळ्या स्तरांचेर विचार चल्ला. सरकारान 'लोकपाल विधेयक २०१०' म्हूण मसूदो तयार केला. अण्णा हजारे आनी समविचारी लोकानी सरकारच्या ह्या मसुद्याचेर विचार करून तातूंत सुदारणा घडोवन हाडून 'जन लोकपाल विधेयक' नांवाचो मसुदो तयार केला. कित्याक सरकारी मसुद्यांतल्यो तरतुदी फाव तितल्यो कडक नांत अशें आंदोलकांचें म्हणणें आसा. तेच पासत सरकारच्या 'लोकपाल विधेयक २०१०' परस 'जनलोकपाल विधेयक' चड लोकांक अपेक्षीत आसा.

जनतेच्या दबावाक लागून जून म्हयन्यातल्या पावसाळी अधिवेशनांत 'जनलोकपाल विधेयक संसदेंत' पास जातलें हातूंत दुबाव ना. तें पास करून घेवंक लोकशक्तीचो दबाव प्रचंड प्रमाणांत वाडचो देखून अण्णा हजारे आनी तांचे सहकारी जनजागृताय करीत आसात. जर हें विधेयक पास जालेंना जाल्यार देशांत प्रचंड जनक्षोभ जातलो हेंय तितलेंच खरें.

जनलोकपाल विधेयकाची केंद्रांत जितली गरज आसा तितलीच देशांतल्या दरेक राज्यांत लोकायुक्ताचीय तितलीच गरज आसा. पुराय देशांत आयज फक्त १८ राज्यांनी लोकायुक्त चलता. पूण आमच्या गोंयांत मात अजून लोकायुक्ताचो पत्तो ना.

गोंय म्हळ्यार भ्रश्टाचाराची खाण जाल्ली आसा. दरेक सरकारी कचेरीत कोणाक कितें खावयल्या बगर कामूच जायना. आमचे मंत्री तर उक्तेपणी अमक्या कामाक अमके टक्के दिल्यारूच काम जातलें अशें सांगतात. धडधडीत दिसा उजवाडा ते दुडू घेतात. पंचायती बेकायदेशीर बांदकामा खातीर अमुकच दर थरोवन सांगता. भ्रश्टाचार

## भ्रश्टाचार हें सगळ्यांत व्हडलें आव्हान

– डॉ. मनमोहन सिंग



भ्रश्टाचार सोसपाचो जनतेचो संयम आता सोंपला. भ्रश्टाचाराआड जनतेक आतां कठोर आनी बेगोबेग कारवाय जाय. भ्रश्टाचार नानपयत करपाक संसदेच्या आगामी पावसाळी अधिवेशनांत लोकपाल विधेयक येतलें अशी आस्त आसा.

भ्रश्टाचार हें सगळ्यांत व्हडलें आव्हान जावन आसा. आमी ताका तोंड दिवंक जाय. आपल्या वरिश्ठांक, चड करून राजकीय नेत्यांक प्रशासकीय अधिकाऱ्यांनी निर्भयपणान प्रामाणीक सल्लो दिवंक जाय. वरिश्ठ अधिकाऱ्यांनीय तांच्या कनिश्ठांक प्रोत्साहन दिवंक जाय. भ्रश्टाचाराआडच्या सरकारच्या लढ्यांत नोकरशायेन योगदान दिवंचें अशेंय हांव मागतां.

युपीए सरकार भ्रश्टाचार कठोरपणान हुमटून काडपाक बांदील आसा. भ्रश्टाचारा आड लढपाखातीर कायद्याची चौकट भक्कम करप, प्रशासकीय रचना घटमूठ करप आनी प्रक्रियात्मक गजालींक गती दिवपाची मोख सरकारान दवरल्या. भ्रश्टाचाराविशीं संयुक्त राष्ट्रसंघाच्या कराराचेर भारत रोखडोच स्वाक्षरी करतलो. सरकारचे वतीन जावपी खरेदींतय पारदर्शकताय हाडटले. प्रशासकीय सेवांनी रासवळ आनी खासगी जिवीतांत शूचिता आनी प्रामाणिकतायेचो उच्च मापदंड प्रस्थापीत करूंक जाय अशी म्हजी अपेक्षा आसा अशें विज्ञान भवनांत लोकसेवा दिनाचें उदघाटन करतना प्रधानमंत्र्यांनी म्हळें.

सरकारी कचेऱ्यांनी चलता. सामान्यांतल्या सामान्य मनशांकडल्यान लेगीत दयामाया दाखयनासतना पयशे घेवप जाता. लोक बाबडे अकलेक येवन दितात. दितलो आसा म्हूण घेवपी आसात हें हांगा मानप समा न्हय. मनीस अडचणी आनी समस्यांनी इतलो थकला की ताका एकाच कामा खातीर पासयो मारप आनी एका दडपणाखाला रावप परवडना. ते परस कोणायकडल्यान मागून हाडून, रिणां काडून हांच्या मड्यार घालप ते पसंत करतात. निदान काम जातलें अशें दिशिल्ल्यान तांचे तकलेवेलो ताण तरी वता. रीण मागीर जातलें कशेंय फारीक, ताचो व्हडलोसो ताण नासता अशेंच लोकांक हालीं दिसता.

हो सगळो प्रकार घडटा तो म्हळ्यार गोंयांत कोणाकूच कोणाचो भंय ना. भ्रश्टाचार दोळ्यांमुखार चलता तें दिसूनय कोण कांयच करूंक शकनांत. आळाबंदा हाडटले जाल्यार जाय तो लोकायुक्त. पूण लोकायुक्त घडोवपाचें सरकारान उतर दिवनूय फाटलीं १० वर्सां ताचेर कोणेच विचार केल्लो ना आनी लोकांनी आग्रोय धरिल्लो ना. गोंयांत तशी भ्रश्टाचार कागाळ निवारण यंत्रणां आशिल्ली. ती ह्या भ्रश्टाचारी लोकांक चोपक्यांत दवरूंक फाव सारकी नाशिल्ली तरीय बुडटल्याक काडयेचो आदार तशी ती आसा इतलेंच समादान आशिल्लें. पूण तीय आमच्या राजकारण्यांनी काडून उडयली. म्हणटकच आयज भ्रश्टाचाराचेर नियंत्रण दवरूंक खंयचीच यंत्रणां गोंयांत कार्यरत ना.

अण्णा हजारेन जनलोकपाल विधेयकाची मागणी करीत आंदोलन सुरू केलां. गोंयांतूय ताका प्रतिसाद मेळटा. गोंयांत लोकायुक्त घडचें हेय खातीर ह्या आंदोलनाचो नक्कीच आदार लाबतलो. तशें वारें व्हावंक लागलां.

कर्नाटकाचे लोकायुक्त म्हूण फाटलीं साडेचार वर्सां काम पळोवपी न्यायमुर्ती संतोष हेगडे हे गोंयांत आयले. ते अण्णा हजारेच्या जनलोकपाल विधेयकाच्या मसुदो समितीचे वांगडीय आसात. कर्नाटकाचे लोकायुक्त म्हूण ताणीं नदरेक भरपा सारको वावर केला. ताणीं कर्नाटकांत १४०० प्रकरणांत आरोपत्रां दाखल केल्यांत. तातूंत वरिश्ठ सरकारी अधिकाऱ्यां सयत मंत्री आनी आमदारांचो आसपाव आसा. गोंयच्या लोकायुक्त विधेयकाचेर उलयतना न्यायमूर्ती हेगडे हाणी समादान उक्तायलां. तातूंत थोड्यो त्रुटी सोडल्यार विधेयक उत्तम अशें आसा म्हणपाचें ताणी सांगलें. कायद्याची चडांत चड प्रभावीपणान अंमलबजावणी जावंची, ते खातीर स्वतंत्र पोलीस दळ उबारचें. ती गोंयची गरज अशेंय ताणी ह्या वेळार सांगलें.

हें सगळें जरी बरें आसलें तरी गोंयचें लोकायुक्त विधेयक केन्ना पास जातलें आनी तें चालीक लागतलें होय एक प्रस्न आसा. अण्णा हजारे हाणी आंदोलन सुरू केलांच. तेच वांगडा गोंयांतूय तें चलूंक जाय. गोंयांत म्हायतीहक्क कायद्या खातीर जन आंदोलन जाल्लें. गोंय हें म्हायती हक्क कायदो चालीक लावपी देशांतलें पयलें राज्य. लोकायुक्त स्थापन करपी गोंय हें पयलें राज्य नासलें तरी तें विधेयक विधानसभेंत मांडूंक लावन पास करून घेवपी आनी समर्थपणान तें चालीक लावपी राज्य म्हूण गोंयाक देशा सामकार दवरूं येता. ते पासत जाय तें जन आंदोलन.

महात्मा गांधीजीन देशाक स्वातंत्र्य मेळोवन दिवपाखातीर ब्रिटिशांआड लढो उबारलो. ते वेळार चाळीस कोटी भारतीय तांचे फाटल्यान उबे रावले. आयज भ्रश्टाचारा आड स्वतंत्रताय मेळोवपाखातीर अण्णा हजारे उबे रावल्यात. दिसान दीस तांचे फाटल्यान भारतीय जनता उबी रावत आसा. ताणी सुरू केल्लें हें जन आंदोलन फुसको बार थरूंक फावना. जंतर मंतर हांगा सुरू जाल्लें हें आंदोलन छूमंतर जावंक फावना अशें जर दिसता जाल्यार अण्णा हजारे फाटल्यान समर्थपणान उबे रावपाची गरज आसा. अण्णा हजारे हें ह्या आंदोलनाचें एक निमित्त. भ्रश्टाचारा आड लढो ही काळाची गरज. तातूंत प्रत्येक भारतीयानी आपल्यो समिधा उडोवपाचो वावर आरंब करूंक जाय. कित्याक तर एखाद्रो यज्ञ क्वचीत सुरू जाता जो रसातळाक वचपी देशाक तारूंक शकता.

■■■

> भ्रश्टाचाराक प्रभावीपणान आळो घालपी लोकपाल विधेयकाचो मसुदो तयार करपाखातीर केंद्र सरकार आनी नागरी संघटनेच्या प्रतिनिधींचीं संयुक्त मसुदो समितीची बसका हालींच जाली. ३० जून मेरेन लोकपाल विधेयकाचो मसुदो तयार करून संसदेच्या पावसाळी अधिवेशनांत विधेयक मंजूर करपाचेर केंद्र सरकार आनी नागरी संघटनानी भर दिला.
>
> केंद्रीय अर्थमंत्री प्रणव मुखर्जी हांचे अध्यक्षते खाल जाल्ले हे बसकेंत घरमंत्री पी. चिदंबरम, विधी आनी न्यायमंत्री वीरप्पा मोईली,दूरसंचार मंत्री कपिल सिब्बल, जलसंपदा मंत्री सलमान खुर्शीद अशे मंत्रिमंडळांतले खांपे विधिज्ञ आनी पालवी अध्यक्ष शांतीभूषण, अण्णा हजारे, कर्नाटकाचे लोकायुक्त संतोष हेगडे, प्रशांत भूषण आनी अरविंद केजरीवाल हांचो आसपाव आसा.



– रमेश भगवंत वेळुस्कार
पाळें, शिरदोन – गोंय.
मो.: ९४२०६८८४६१

# गूड फ्रायडे दिसा



*एक म्हजोच शिक्षक म्हाकां सांगता की तो लिखाण आपूण वाचीत रावतलों आनी तेंय बी आवडीन. हें जेन्ना एखाद्रो लेखक आयकता तो खूब भाग्यवान म्हणचो पडल्लो. हें भाग्य म्हाकां मेळ्ळ हें म्हजें खूब मोठे भाग्य म्हणूंक जाय. हें नोबेलापरस्य मोठें भाग्य.*

**आ**यज गूड फ्रायडे. सेंट अँड्रयूज हालस्कुलांत आसतना ह्या दिसा सरकारी सुटी आसताली. शिवाय हे दिसा चर्च सर्वीस होय एक आटाप आसतालो. म्हाकां तो लागनासलो. पूण खबर आसतालो. आयचे दिसा आल्तार बी सगळें बंद आसता. सगळी चर्च बंद दवरतात. उजवाड नासता. कारण आयचे दिसा जेजू क्रिस्ताक खुर्सार माल्लेलो. लोक रोजार करतात. जाण्ट्यांक चड मोग धर्माचो आनी चड भावार्त.

म्हाकां व्हडलें गोंय वचपाचें आसलें. हांवें घराकडें सांगलें की हांव नुस्तें घेवन येतां. म्हाका मंगलान सांगलें, मंगल म्हज्या धाकट्या भावाची बायल. आयज नुस्तें उणें आसतलें कारण क्रिस्तांव नुस्तेकान्नी येवपाच्यो नांत. व्हडलें गोंय वचपाक गेलों कारण शिरदोनच्या तिठ्यार नुस्तें काय नासलें. व्हडले गोंयां बाजारांत नुस्तेकान्नीच नुस्तेकान्नी. सगळ्यो क्रिस्तांव. एकटीच हिंदू आसली. नाय म्हटल्यार थंय धा–बारा नुस्तेकान्नी आसल्यो. एक–दोन गिरायकां आसलीं. तींय क्रिस्तांव. नुस्तेंय व्हडलें नासलें. बांगडे, पेडवे, लेपो. एकटेकडे फक्त थोड्योशो शिणाण्यो आसल्यो. हांवें म्हटलें शिणाण्योच घेवया. बाकीचें नुस्तें घेवपासारखें नासलें. पंचविसेक शिणाण्यांक शंबर रुपया. आकारान मोट्यो न्हय. सादारणशो. तसो हांव मात्सो उसरांच पावल्लों. हेर दिसा हो गर्देचो वेळ. सुमार साडे धा जाल्लीं. पूण आयज लोकूच नासलो. गूड फ्रायडेचो परिणाम आसलो बाजाराचेर.

हांव उठलों आनी म्हज्यो शिणाण्यो घेतल्यो. शंबर रुपया दिले आनी हांव चिंतूंक लागलों की हांव ५८–५९च्या दरम्यान आठ आण्याक पाचपन्नास शिणाण्यांची रास कितलेच फावट घेवन आयलां. आयज पन्नाशेक वर्सांनी तेन्नाच्या आठ आण्याचो वालोर म्हणचे आयचे शंबर रुपया. चूक. दोनशें रुपया. आठ आण्यांचो वालोर २०० रुपया. हांवें हें सामान स्कुटरीचे डिकींत घातलें आनी स्कुटर स्टार्ट माल्ली आनी पिलार वटेन वळयली. हांव बद्द आगशी पावलों. थंयूय नुस्तें नासलें. बारीक सुंगटां, बांगडे, लेपो आनी एकीकडेन मुड्डोशो आसल्यो. त्यो वतान जाम जाल्ल्या सारक्यो दिसताल्यो. घेवपाचो मूड येनासलो. घेतलें ना नुस्तें. हांव ६३/ ६४च्या सुमाराक आगशी ट्युशनाक येतालों ताची याद जाली. म्हजो एक फ्रेंड फ्रांसीस

म्हण व्हडले गोंयचो. तोय येतालो ट्युशनाक. ताणें म्हाकां एक दीस हॉटेलार व्हेलो च्या क. तें हॉटेल आसलें बरडालें. मोटवें काल्सांव आनी वयर धवें खोमीस वा केन्ना बानयन घालून बरड गिरायक करतालो. ह्या हॉटेलांत हांवें बन्स आनी च्या घेतली ते दीस फ्रांसिसा वांगडा. इतलो बरो बन्स हांव पयलेच फावट खातालों. तो मतींत उरलो म्हण हांवें आतां म्हजो मोर्चो बरडाले कॉफयेवटेन वळ्ळों. ते काळार फकत एकूच ब्राह्मणी आसली. आतां थंय पांच पांच ब्राह्मण्यो आसात आनी आतां ब्राह्मण्यो कोण म्हणनात तांकां. आतां सगळीं हॉटेलां जाल्यांत. ना जाल्यार रेस्टॉरंटां जाल्यांत. सोरो दिवपी रेस्टॉरंटां आसात दोन चार तीं ह्या रेस्टॉरंटांभायर. आदीं फकत एकूच चाळ आसली. आतां नव्यो बिल्डिंगो आयल्यात. हांव बरडाचे च्यात भितर सल्लों. त्या काळार भास अशी चलताली. पूण थंय एक क्रिस्तांव विस्तीद घाल्ली चली दिसली. पूण ती थंय बसून हेराल्ड वाचताली आनी तिच्या फुड्यांत सॉफ्ट ड्रिंक्साची बॉटल आसली. आनी दुसरें गिरायक हांव. हॉटेलार बरडाची पाटी आसा. एक घयरावान काळवंडलेलो बरडाचो फोटो आसा. हांवें वेटराक विचाल्लें, 'बन्स आसा?' तर तो वेटर कम पैसा-कलेक्टर म्हणूंक लागलो, 'ना.' भाजी आसा. स्पेशल भाजी. म्हटलें हाड. भाजी बरी आसली. मागीर म्हाकां च्या घेतां घेतां जाचेकडें हांव ट्युशन घेतालों त्या सराची याद जाली. सर शांताराम घार्से. उपरांत ह्या सरा वांगडा हांवें सँट ॲण्ड्र्यूजांत शिकयलें. हांवें स्कुटर तेवटेन व्हेली. तो आतां आगशीचे इगर्जे फाटीं आपल्या नव्या घरांत रावता. तशें हें घर आतां विशेक वर्सां फाटलें जालां आसतलें. हांव ट्युशनाक वयतालों तें ताचें जाण्टेल्यांचें पोन्नें घर. तें आसा आजुनूय.

शांताराम सराच्या घरा मुखार स्कुटर उबी केली. सर भायरूच बसलेलो पेपर वाचीत. ताणें म्हाकां येवकार दिलो. ताच्या मेजार



गोमन्तक, तरूण भारत, लोकमत हे पेपर आसले. एक दोन मॅगझीनांय आसलीं. एका स्टिलच्या पेल्यांत कसलेंशें आयुर्वेदीक वखद आसलें.

'हें कितें सर?'

'हें सद्याक म्हाकां घेवचें पडलां. हें गोड्यामुताचें वखद. जॉनान हाडून दिलां. जॉन आमचो सेंट ॲण्ड्रयुजांतलो सहशिक्षक. आतां रिटायर्ड. ह्या वखदान बरें दिसता. तूं खूब तेंपान आयलो. हालीं नाच तूं. पूण तरी आसतना दिसता तूं केन्ना केन्नाय.'

'तुमी म्हाका खंय पळयल्लें सर?'

'आरे हे पेपर म्हाकां लागताच लागता. तुजी खबर हांतल्यानूच मेळटा. तूं भाशाप्रस्नाच्या संदर्भांत फकत एकूच कडें उलयला तें वाचलें, क्रिस्तांव आनी हिंदू हांच्या समन्वयाखातीर तुमी एका दिसाचो बैठो सत्याग्रह टि. बी. कुन्हा स्मारकाकडें केल्लो तेंय वाचलां. तातूंत तुजें नांव आसलें. उपरांत थंय जाल्ले मिटींगेंत तुमी पुस्तकां काडपाचें थारायलां तेंय आयलां पेपरांत आनी तेंय वाचलां. केन्ना तुजो फोटोय पळोवपाक मेळटा आनी नवप्रभेंत येवपी तुजे सगळे लेख हांव वाचतां. म्हाका ते आवडटात. तातूंत जाणां जावपाचें नवें अशें खूब आसता.'

'सर, हे लेख दर आयताराचे येतात. आनी हांव हे लेख बरोवंक लागल्यार दोन वर्सां जालीं. म्हणचें सुमार शंबरांवयर लेख.'

'एकेका लेखांत कितलीं पानां आसतात?'

'एकेका लेखांत कमीत कमी चार पानां आसताच आसतात. तर केन्ना केन्ना पांच पानांय आसतात. लेखाचीं पानां लेखाचे गरजेंतल्यान तयार जातात. हांव पानां वा शब्द थारावन बरयनां. तशें पेपरांत बरयतना लेखकाक शब्दांची वा जाग्याची मर्यादा आसता. पूण नवप्रभाचो संपादक श्री. परेश प्रभू समंजस संपादक. सृजनात्मक लेखन इतल्या शब्दांत वा इतल्या जागेचे मर्यादेंतूच आसचें, अशें तांकां दिसना.'

'म्हणटकूच, तुवें ताचें पुस्तक केलें जाल्यार पांचशें पानां सहज जातलीं मरे. बेगीन पुस्तक काड.'

'सर, म्हजें काम हांव करतां. म्हजें काम बरोवपाचें. म्हजें बरोवप पेपर छापता. आतां पुस्तक काडपाचें खंयच्या तरी प्रकाशकान करपाक जाय. तें ताचें काम.'

'जाणा मरे तुजे कांय कांय लेख इतले सुंदर जाल्यात की तो वाटार आनी तीं मनशांय सामकी दोळ्यांमुखार येतात.'

'सर, हांव म्हज्यान जितलें बरें बरोवंक जमत तितलें हांव बरयतां. म्हजें लिखाण लोकांक आवडटा हें अचानकूच म्हाकां कळटा. काल पयर म्हाकां पणजे एका चित्रप्रदर्शनाक माजी मंत्री, प्राचार्य आनी ज्ञानेश्वरी अभ्यासक गोपाळराव मयेंकार मेळ्ळो. ताणें म्हाकां म्हजें दीर्घकाळ चल्लेलें प्रवासलेखन खूब आवडटा अशें म्हण सांगलें. अशें चुकून माकून हें म्हाकां कळत आसता. म्हाकां अदी मदीं मेळपी प्रो. माधव कामतूय सांगतात की तांकाय म्हजें लिखाण आवडटा. पूण सर, ह्या सगळ्यां मदीं तुमचे सारको वाचक हो सगळ्यांपरस वेगळो. कारण

म्हटल्यार त्या काळार हांव तुमचो स्कुलांत सहयोगी आसलों. आनी थंयच्यानूच हांव बंगाली भास शिकचेखातीर गेल्लों. तो अभ्यास सोंपले उपरांतूय हांव थंय आयलां. तुमचो विद्यार्थी म्हण तशेंच सहयोगी म्हणुनूय तुमकां थंयसल्ल्या प्रदेशासंबंदान तशेंच मनशांसंबंदान उत्सुकताय आसप हें मुख्यत्वान आसा. तुमी तें ते उत्सुकतायेनूय वाचता आसतले. तशी ती स्वाभावीक गजालूय आसा. हेच खातीर म्हाकां तुमी सगळ्यांपरस वेगळे वाचक दिसतात.'

'आनी आतां कोंकणी मराठी वाद वेगळेंच रूप घेता मरे. अशें जालें जाल्यार मागीर कोंकणीचें कशें?'

'सर, म्हाकां सांगा, आमी पयशांच्या फाटीं लागल्यात काय ना? ताचोच परिणाम हो. पयशांक संवकल्ल्यान आमी कसलींय मुर्खपणा करपाक शकतात. गोंयच्या चड शिकिल्ल्या लोकांचे प्रतिनिधी बरे विद्वान लोक आसूं येताले. पूण ना परिस्थिती वेगळी. शिकिल्ल्या लोकांचे प्रतिनिधी अशिक्षीत लोक. आतां पयशांचे आशेन हे लोक सांगतात तशे शिक्षक, पालक वागतात. आयज जी आमची भास नश्ट जायत चल्ल्या ताचें कारण आमचीं अप्रबुध्दपणां. आमचे जे चडांत चड मिनिस्टर आसात ते पळयल्यार तांची शिक्षणाची अवतिकाय, बरेंच कितें ताणी उलयल्या बगरूय सांगून वयता. आपलीच सांस्कृतीक जीण मारपाचो हो प्रकार तांकां खबर ना. नाजाल्यार स्वताचोच खून करून घेवपाचीच ही प्रक्रीया आसा. एके तरेन हो संवेदनशीलताच मारून उडोवपाचो प्रकार. पूण हो प्रकान नेटान फुडें वचपाक लागला तें पळयल्यार आमी पयशांच्या झिंगे फाटल्यानूच आसा हें उक्तें जाता. सर, आतां आमी हांगा बसून उलयतात, म्हाकां खूब तेंप जालो तुमकां पळेन दिसतालें, पूण हांव हांगा केन्नाय आयलों जाल्यार तुमची चौकशी केल्या. तेन्ना तुमी धुवेगेर गेल्यात अशें कळ्ळां. चड करून तुमी शेनवार आयतार आगशींत नासतात हें समजल्ल्यानूय आमी मेळूंक पावूंक नांत अशें म्हणूं येता. शिवाय आतां म्हजेकडें जी स्कुटर आसा तीय हांव चडसो वापरना. मर्दी मात्सो त्रास जालो स्कुटरीचो. पूण आतां ओ. के. हांव पणजेय स्कुटर व्हरना. पूण व्हडलें गोंय आनी आगशी बी अशी पासय जाता. आयजूय तशेंच जालां. पूण सर अशें मेळ्ळ्या उपरांत आमी दोन खीण मुक्तपणान उलयतात. एके उमळशीकेन, एका मोगान आनी आपलेपणाच्या धाग्यान आमी एकठावतात म्हणून ह्या उलोवपांतलो, ह्या मेळ्यांतलो आनंद आमी पुरायपणान चाखूंक शकतात. हो आनंद कोणूच फॅब्रीक करून विकूंक दवरूंक शकना. हाचो बिझिनेस जावंक शकना. हाका किंमतूय ना कारण हाची किंमत करपाचीं मापांय आमकां कोणाक खबर आसनात.'

'हांव मरे आयताराचो नवप्रभा वाचपाचो केन्नाच चुकयना. हातूंत म्हाकां तुजो लेख, दिलीप बोरकाराचो लेख हे हांव न चुकतां वाचतांच वाचतां. तुजे भुवनेश्वरावयले लेख हांव निमाणो मेरेन वाचतलों.'

एक म्हजोच शिक्षक म्हाकां सांगता की तो लिखाण आपूण वाचीत रावतलों आनी तेंय बी आवडीन. हें जेन्ना एखाद्रो लेखक आयकता तो खूब भाग्यवान म्हणचो पडटलो. हें भाग्य म्हाकां मेळटा हें म्हजें खूब मोठे भाग्य म्हणूंक जाय. हें नोबेलापरसूय मोठें भाग्य. खरें म्हटल्यार हांव जेन्ना १९६३त सेंट ॲण्ड्रयूज बॉयज स्कुलांत व्हडले गोंयां शिकपाक गेलों तेन्ना म्हाकां थंय शांताराम सर पयले पावट मेळ्ळो. शांताराम सर म्हाका हिंदी आनी मॅथ्स शिकयतालो. तेन्नाच र. वि. पंडित ह्या म्हज्याच गांवांत रावपी एका कवीचीं पांच पुस्तकां प्रसिध्द जालीं. शाळेचो प्रिंसिपाल पाद्री आल्वरू रेनातु मेंडिश म्हाकां आपल्या स्कुलांत यो म्हण आपोवपाक घर मेरेन आयल्ले आनी ताचे वांगडा तेन्ना शांताराम सरूय आसलो. हो पाद्री रेनातु मेंदीश तसो म्हाकां, हांव इश्कोल प्रिमारिया गोवा व्हेल्या हांगा शिकतना एक दोनदां गावल्लो. आमी तेन्ना उलयल्ले. हांवें थंय सेगुंद ग्राव मेरेन शिकप घेतलां. ते उपरांत हांव घराच आमच्या गांवांतले मराठी शाळेंतलो आमचो शिक्षक वसंत गो. पाटील हाचेकडें इंग्लीश शिकतालों. आनी पाद्री रेनातांची भेट जाल्या उपरांत दिवाळेचे सुटये उपरांत हांव सेंट-ॲण्ड्रयूज बॉयज स्कुलांत गेल्लों. तेच वर्सा हीं पंडिताचीं पुस्तकां आयल्लीं. तीं ताणीं म्हाकां दाखयल्लीं आनी हांव पाळयांतलो जाल्ल्यान शांताराम सरान म्हजेकडें पंडिताविशीं जायतें जाणा जावन घेवपाचो यत्न केलो. म्हज्या गांवांत एक मनीस जाका आमी सदांच पळयतां तो एकदम पांच पुस्तकां प्रसिध्द करता ही सामकी मनाक मारपासारकीच गजाल आसली. पूण ती कोंकणी आसात. तीं मराठी आसलीं जाल्यार खूब मोठी गजाल जावपाची अशें म्हाकां दिसलें. हाचे फाटलें कारण म्हटल्यार वसंत गो. पाटील हाचेकडें हांव मराठी शिकलां. थंय शाळेंत केन्नाय मास्तराक मेळपाक पंडित येतालो. ते मात्शे कवितांचेरूय उलयताले. हे शाळेंत रामदास प्रभूय येताले. मराठी कवी. पंडित कोंकणी. फाटींच हांवें एक फावट म्हज्या बापायन कवितेचेर उलयतना सांगलें की पंडितान जर मराठी बरयल्ली जाल्यार तो खूब मोठो कवी जावपाचो. हांव हें सगळें आयकतालों. तें मतींत उरतालें. कितल्याशाच वर्सांनी हीं पुस्तकां हांवें पळयलीं. कांय कविता वाचल्यो. तें पळोवन शांतारामसरान म्हळें, 'वाचतलो रे तूं हीं पुस्तकां? फादर हाका हीं पुस्तकां वाचपाक दिवया?'

(चलता...)

## Academic excellence and enlightened citizenship is our endeavour through

- Establishment of SCERT.
- Establishment of Knowledge Commission.
- Establishment of Integrated Education Advisory Council.
- Introduction of NCERT Syllabus and Text Books.
- Quality Education Programme in collaboration with Bharatiya Jain Sanghathana.
- Establishment of State-of-the-Art Computer Laboratories in Secondary and Higher Secondary Schools under Information and Communication Technology Scheme.
- EDUNET (Cyberage) Student Scheme.
- Laptop Scheme for Teachers.
- Sarva Shiksha Abhiyanm.
- Infrastructure Development Loan Scheme.
- Vocational Education.
- Environmental Education Scheme.
- Mid Day Meal Scheme (Stds. I-VIII)
- Free Text Books for students of Stds. I-VIII.
- Free Uniforms. Notebooks and Raincoats for students of Stds. I-IV.
- Revised Scheme for Education of children with Special Needs (Disabled children).
- Girls Education Motivation Scheme.
- School Complex Programme.
- Bharat Yatra.
- Adoption of Govt. Schools Scheme.
- Scheme for Minor Repairs of Government Schools by village/Urban Education Committee.
- Construction of new Directorate of Education building.
- Development of Sanskrit Education.
- Revised opportunity Cost Scheme for S. C. and S. T. students.
- Scheme for Literacy and Vocational Training for Adults.
- Scheme for establishment of Integrated Educational Complexes at Bambolim, Margao, Mapusa etc.
- Scheme for promoting and strengthening Pre-Primary Education.
- Scheme for promoting Pre-Vocational Education (in High Schools)
- Rashtriya Madhyamik Shiksha Abhiyan.
- Mobile School and programme for out-of-school children.
- Smart Classroom Project.
- One time grant for Schools completing 100/75 years of existence.

**DIRECTORATE OF EDUCATION**
**GOVERNMENT OF GOA**
**PANAJI - GOA**






# सतीचे वाण



"गोंय मुक्ती संग्रामांत जो ल्हानसो वांटो घेवपाचें भाग्य म्हाका फाव जालें, जो अणभव म्हाका आयलो ताका लिखित रूप दिवप इतिहासाचे नदरेन गरजेचें आशिल्लें. हांवें विशेश त्याग करूंक नाशिल्लो, पूण हेरांनी तो निश्चितपणान केल्लो आनी तांचेकडेन म्हजो लागशिल्लो संबंद आयिल्लो. तांचीं नांवां तांच्या आंगावेल्या लक्तरांक लागून खबरापत्रांतल्यान झळकूंक नाशिल्लीं. अश्या सामान्य लोकांच्या असामान्य त्यागाचें दर्शन हांवें गोंयांत प्रवेश केल्ल्या खिणासावन, १९४९ सावन, म्हाका घडिल्लें. तांची नोंद खंयतरी जावप गरजेची आशिल्ली. तें कृतज्ञतायेचें द्योतक आशिल्लें. गोंय मुक्तीसंग्राम ज्या वसाहतवादी झुजाचो एक वांटो आशिल्लो त्या झुजाचे आनीक कांय पैलू पळोवपाची जी संद म्हाका पुर्तुगालाक मेळ्ळी तीय कथन करप गरजेचें आशिल्लें. पुर्तुगेज जनता आनी साम्राज्यवादी पुर्तुगेज सरकार हीं एकरूप नांत, भिन्न आसात, परस्परविरूध्द आसात. तांच्यात संघर्श चालू आसा. ह्या संघर्शाचो जो थोडोभोव परिचय म्हाका थंय जालो तो हेरांक करून दिवप म्हाका गरजेचें दिसलें. गोंय मुक्ती उप्रांत कैद्यांचे अदलाबदली विशींच्या निर्लज्ज इतिहासाची पुनरावृत्ती जावन आनीक कोणा भारतीयांचेर फुडाराक 'आपलो देश मुक्त जाल्लो आसतनाय' विजनवास काडपाची पाळी येवं नये हे पासत त्या इतिहासाविशीं हांवें बरोवप गरजेचें आशिल्लें."

**- मोहन रानडे**

साडेतेरा वर्सांची पुर्तुगालच्या कशीयस बंदखणीत ख्यास्त भोगून क्रांतिवीर मोहन रानडे गोंयांत आयले तेन्ना हांव अकरा वर्सांचो. तेन्ना रानडे आमगेर येताले. ते भाईचे (नंदा) मित्र. आमच्या घरांतले शेणान सारयिल्ले जमनीर पाट दवरून त्या पाटार आसरमांडी घालून बसून, पेनोलाच्या दिव्याच्या उजवाडांत वाचन करताले. तांचे मुखार बसून हांवूय कितें तरी वाचतालों. तांणी म्हाका खूब गजाली सांगच्यो. वेगवेगळ्या चळवळींत वांटेकार जावपाची मागीर जी खुमखुमी आयली तावें फाटलें कारण हेंच आसूं येता.

आयज गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्सा हांव तांचें 'सतीचे वाण' अणकारीत करूंक बसतां तेन्ना म्हाका मोहनकाका म्हजेमुखार आसरमांडी घालून बसला आनी म्हजेकडेन उलयता असो भास जाता.

**- दिलीप बोरकार**

### ७. हल्ल्यांक सुरवात

३१ डिसेंबर १९५४. रातची साडे-धाची वेळ. आत्माराम जांभुळकारांच्या खोपीसारक्या घराभायर हांव, दासू आनी शंभू बशिल्ले. शिवोलच्यान बाळू साठे, येशी, लाडू आनी बाबली निकतेच येवन पाविल्ले. डोंगरेवेल्यान पुंडलीक अजून येवंचो आशिल्लो. आत्मा जेवणाविशीं सुचवणी दिवंक घरांत गेल्लो. दासू आनी येशी कोयतुलान बांबू कापून हात देड हाताचे चार-पांच दांडे तयार करताले. म्हजे लागचें नगर हवेलीच्यान लिपोवन हाडिल्लें एकलें एकसुरें पिस्तोल दाखोवन हांव सगळ्यांक परत एकखेप तें कशें वापरपाचें हाची म्हायती दितालों. बाणस्तारचे पोलीस चौकेवेलो हल्लो यशस्वी जाल्यार आमकां तसलींच न्हय, तेय परस बरीं पिस्तोलां कितलीं तरी मेळपाचीं. तीं मेळटकच रोखडींच चलोवंक येवचीं हो उद्देश्य वयली म्हायती परत एक फावट दिवपा फाटलो आशिल्लो. बंदुकोय ते चौकेर मेळपाच्यो आशिल्ल्यो. तेय विशीं म्हायती दिवप गरजेचें आशिल्लें. पूण आमचेकडेन एकूय बंदूक नाशिल्ली. दादरा नगर हवेलींतलीं कितलीं तरी पिस्तोलां आनी बंदुको पडिल्ल्यो आशिल्ल्यो. आपलो जीव त्रासांत उडोवन तो प्रदेश मुक्त करप्यांनी पुर्तुगेजांवांगडा झुजून

तीं शस्त्रां मेळयल्लीं. ती काय कोणे घाल्ली भीक नाशिल्ली. आमी मेळयल्लीं तीं पुर्तुगेज शस्त्रां दीव, दमण आनी गोंय हे पुर्तुगेजानी व्यापिल्ले वाठार मुक्त करपा खातीर व्हरपाचीं थारायल्लीं जाल्यार तातूंत गैर कितें आशिल्लें? पूण वसाहतवादा आड लडपाचो आव हाडपी भारत सरकारान तीं काय आमकां व्हरूंक दिलीं नांत. संवसारांत हेरकडेन अशें जायना. आयज आफ्रिकेंत पुर्तुगेज वसाहतवादा आड लडपी वेगवेगळ्या देशांकडल्यान उक्तेपणी शस्त्रपुरवठो जाता आनी ते देश तशें अभिमानान जाहीर करतात. आमचे हांगा मात अशें जालें ना आनी देखून तर कोंड्याचे एक-देड हात तोणके घेवन सशस्त्र पोलीस चौकेर हल्लो करपाचो प्रसंग आमचेर आयिल्लो. भारत सरकार आमकां शस्त्रां न्हयकारूंक शकतालें. पूण आमच्या काळजांतलो देशभक्तीचो उजो मात सरकारूच न्हय, पूण दुसरें खंयचेंय सरकार पालोवंक असमर्थ आशिल्लें. आमकां आझाद गोमंतक दलाच्या वो गोंय मुक्त करूंक आवंडेवपी हेर देशभक्तांक आपल्याच सरकाराच्या बंदनाक लागून अदीक त्याग निश्चितूच करचो पडपाचो आनी तो करपाची आमचे सगळ्यांची तयारी आशिल्ली.

आत्माराम जांभूळकाराच्या घरासावन बाणस्तारची पोलिसचौकी पाच स किलोमिटर अंतराचेर आशिल्ली. ही चौकी पुलाच्या पलतडच्या टोकार आशिल्ली. पुलाच्या आलतडच्या टोकार एक पारेकार पारो करीत आसता हें आमकां खबर आशिल्लें. ताचेर अचानक झडप घालून ताच्या हातांतली बंदूक काडून घेवन आनी त्या शस्त्राच्या बळाचेर चौकेचेर हल्ला चडोवप आनी ती काबीज करप शक्य आशिल्लें. देखुनच आमी शिवोले लागच्या चौकीपरस ही चौकी अदीक पसंत केल्ली.

चौकेचेर फांतोडेर चारांक पावपाच्या बेतान वचपाचें ठरयिल्लें. फांतोडच्या वेळार कोण येना अशे कल्पनेन रातभर जागरण जाल्ले थंयचे पारेकार फांतोडेर न्हिदताले, निदान निश्काळजी तरी जाताले. तेन्ना आत्मारामच्या घराकडल्यान लाठयो घेतिल्ले आमी आठजाण दोनाच्या सुमाराक भायर सरले. दोंगराळ वाटेन बाणस्तारच्या त्या पुला पासून एक फर्लांगच्या अंतरार साडेतीनाक सुमार पावले. थंयच्यान वसती सुरू जाताली. आमची सुलूस लागतकच सुण्यांनी बऱ्याच व्हडान भोंकपाक आरंब केलो. पूण मातसो वेळान ते थांबले. सुण्याच्या भोंकपाक लागून जागे जावन कोणूय भायर आयलेच जाल्यार तांचे नदरेक आपूण पडचे न्हय म्हूण थंयच्या झोपानी आमी कांय वेळ स्वस्थ बसून रावले. हीं मिनटांच खऱ्यानी निर्णायक आशिल्लीं. आत्माराम जांभूळकराच्या घराकडेन धैर्य शौर्याच्यो गजाली आमी सगळ्यांनीच मारिल्ल्यो. आतां परिक्षेची वेळ आयिल्ली. त्यो गजाली भुरग्यांच्यो आशिल्ल्यो काय तांचे फाटल्यान खऱ्यानीच धैर्य आशिल्लें हाची शहानिशा आतां जावपाची. हो प्रसंग सगळ्यांकूच नवो आशिल्लो. म्हजेवेले जापसालदारकीचें म्हाका एक वजें दिसतालें. भिरांत सगळ्यांच्याच मनांत आशिल्ली. आनीक कांय मिनटां सरलीं जाल्यार हे भिरांतेचो आमचेर जबरदस्त पगडो बसपाचो आनी कितेंय निमित्त सोडून काडून आमी परतुपाचे. पूण सुदैवांन अशें जालें ना. जणएकल्यान आपल्याक दिसपी भिरांत लिपयली. 'भिवपाचें कित्याक?' असो प्रस्न हेरांक विचारलो आनी यंत्रावरी थंयच्यान उठले आनी तडक पुलाचे दिकेन गेले. ज्या कच्चा रस्त्यान आमी वताले तो पुलापासून वीस हातांचेरूच मुखेल दांबरी रस्त्याक मेळटालो थंय आमी आयले. लागशिल्ल्या निर्मनुश्य बाजारांतलें एक सुणें व्हडान भोंकपाक लागलें, पूण ताचेकडेन लक्ष दिवपाचे मनस्थितींत आमी नाशिल्ले. आमकां फकत मुखावेलीच दिका दिसताली. तें वीस हातांचें डोंगरी रस्त्यावेलें अंतर देगेदेगेच्यान लागीं लागीं धावतच काडलें. दोग जाण पलतडचे चौकेलागीं रावपाक गेले आनी आमी जकात नाक्यांत घुसले. थंय न्हिदिल्ल्या तीन चार जणा मदल्या एकल्यान कोण आसात तें पळोवपा खातीर तोंडावेलें पांगरूण काडलें. पारेकारूच आशिल्लो तो. ताणें पिस्तोल काडपाचो आविर्भाव केला मात सगळ्यांनी ताका दांड्यांनी यथेच्छ धोडावप सुरवात केली. हांवें ताचें पिस्तोल काडून घेतलें. ताका घेवन पुलाचे पलतडी चौकेंत घेवन गेले. म्हजें पोरणें पिस्तोल घेवन बाळू ताच्या फाटल्यान आशिल्लो. दासूकडेन ताचें ल्हान पिस्तोल आशिल्लेंच. भितरल्या ताच्या वांगडच्यांक भायर येयात असो उलो मारपाक आमी त्या पोलिसाक सांगलें. ताणें उलो मारलो. भितरले तिगूय पोलीस भियेल्ले. 'मारूं नाकात आमकां, आमी येतात भायर.' अशें ताणीं म्हणलें. आतां आमचो उद्देश्य सफळ जातलो, चौकी काबीज जातली, शस्त्रां मेळटलीं अशी खात्री दिसूंक लागली. इतल्यांत त्या शिपायान झटक्यान फाटल्यान वळून बाळूच्या हातांतलें पिस्तोल काडून घेवपाचो प्रयत्न केलो. हे खेप मात आमी ताची गय केली ना. दासून ताचेर दोन गुळयो घाल्यो. तो किंळांच मारून सकयल पडलो. ताचो प्रतिकार आनी किंळांच दोनूय सोंपलें. गुळयांचो आवाज आनी किंळच्यो आयकून भितरले पोलीस आनीकूय भियेले. इतल्यांत पोरण्या गोंयचे वाटेन मोटार येता म्हणपाचो आवाज आयकूंक आयलो. आमकां येवन पंदरा मिनटां परस चड वेळ सरिल्लो. साडेचार जाल्लीं. आतां चड वेळ रावप धोक्याचें आशिल्लें. फाटीं सरपाचें आमी थारायलें 'भारत माता की जय!' आनी 'जय हिंद!' ह्यो घोशणा पिस्तोलाचे बार काडून केल्यो आनी बाणस्तारी सोडली. जंगलांतल्यान मुद्दम लांबचो वळसो घेवन आत्मारामाच्या घराकडेन परतले. बाळू साठे दुसऱ्या रस्त्यान आयलो. साठे आनी हेर

शिवोलकार सहकारी शिवोले आनी पुंडलीक डोंगरेर पसार जालो. हांव जाल्ल्या हल्ल्याविशीं विचार करीत रावलों. हल्लो यशस्वी जावंक नाशिल्लो. चौकी काबीज करूंक शकले नाशिल्ले. थंयचीं सगळीं शस्त्रां हातांत पडूंक नाशिल्लीं. पारेकाऱ्याचें एक बऱ्या पयकी नवेंताल्ल पिस्तोल आमकां मेळ्ळें. पूण ताच्या बदलाक एकल्यान परत येतना नगरहवेलीच्यान हाडिल्लें तें एकलें एकसुरें पोरणें निरूपेगी पिस्तोल शेणयल्लें. तेन्ना रुपया, आणे, पैत हल्ल्याचो लाब अजमावचो जाल्यार एका पोरण्या रद्द पिस्तोला बदलाक एक बरें, भक्कम पिस्तोल आमकां मेळ्ळें इतलोच करूं येतालो. पूण अशें आसतनाय म्हज्या आयुश्यांतल्या अविस्मरणीय दिसांनी हांव १ जानेवारी १९५५चो आसपाव करतां. पोर्तुगालचे बंदखणीत दर नव्या वर्सा दिसा ह्या हल्ल्याचें वर्णन केलें आनी ताचें म्हाका इतलें म्हत्व कित्याक दिसता तें सांगलें. वेव्हारा नदरेन हो आमचो हल्लो सामको गौण थारता. पूण खूब व्हडल्या अश्या सत्याचें विराट दर्शन हे दिसा म्हाका घडलें. हल्ल्यांत वांटेकार जाल्ले एक साठे सोडून म्हजे सगळे सहकारी हे सामान्य शेतकार आशिल्ले. उब्या जल्मात ताणी कोणाचेर हात उबारूंक नाशिल्लो. उरफाटें भाटकार आनी तांचे फाटल्यान आशिल्ली पोर्तुगीज सत्ता हांचेकडल्यान तांका आनी तांचे सात पिळग्यां पयलींच्या पूर्वजांकूय उबे जल्मांत खोटोच खावंच्यो पडिल्ल्यो. आपूण दीन दुर्बळ आसात, ते प्रबळ आसात, आपूण कांयच करूंक शकचेनांत, ही पराभूत वृत्ती तांच्या काळजांत घर करून बशिल्ली. 'नशिबाचे खेळ, ईश्वराची करणी' अशें आपलेंच सात्वन करून घेवन अन्याय चलूंक दिवचो अशी भुमिका आशिल्ली हीं सगळीं मनशां केन्ना तो ताण सोसूंक जालो ना म्हणटकच घरांतले बायलेचेर ताचो वचपो काडटाले. आनी आयज तांच्यांतलेच कांयजाण अन्यायी जगाचेर



खोटो घालूंक तयार जाल्ले. पोर्तुगीज सत्तेचें प्रतिनिधीत्व करपी एके पोलिस चौकेर ताणीं हल्लो चडयल्लो. तिची राखण करप्यांक मारपाकूय ताणीं आयज फाटीफुडें पळोवंक नाशिल्लें. आपले भितरूय दुसऱ्याचो समाचार घेवपाचें सामर्थ्य आसा हाचें दर्शन तांका चडकरून पयलेंच जाल्लें.

हल्ल्यांत वांटो घेवपी म्हज्या सहकाऱ्यांक खंयच्याय प्रकारचें लश्करी शिक्षण म्हजे सारकें तकलुपी लेगीत नाशिल्लें. तांचो सगळो जल्म केन्ना शेतांत कुदळी घेवन खणपाक तर केन्ना नुस्तें धरपाक, तर केन्ना हेर कामां करपाक गेल्लो. आयज अकस्मात ताणी कुदळी शेवटून मारून दांडे-कोयतुलां घेवन लडपाक ते तयार जाल्ले. तांची आंगलोटूय अशीतशीच आशिल्ली. दुर्बळ मनीस कांयच करूंक शकना आनी लश्करी शिक्षण घेतिल्लें आसल्याबगर सशस्त्र लडो सुरू करपूय जमना ह्यो दोनूय गजाली आमच्या ह्या पयल्या हल्ल्यान परतून एकखेप फट ठरयिल्ल्यो. अन्यायाआड तुमकां लडपाचें आसत तर दुर्बळ दिसपी सामान्य मनीसूय शूरवीर जावंक शकता. ताच्या मनांत अन्यायाआड खरीखरी चीड निर्माण जाल्ली आसत जाल्यार सादो कारकून लेगीत लेखणी उडोवन बंदूक घेवंक शकता आनी सामके ल्हानपणासावन लश्करी शिक्षणाचो धंदो करपी सेनेकूय हारोवंक शकता. प्रचंड सेना हातांत शस्त्रां आसुनय, छाती चौतीस इंच आसुनय, धैर्याचो अभाव आशिल्ल्यान शरणागती पत्करतात. आपूण गोंयच्या स्वतंत्रताये खातीर हें सगळें करतां, हें आपलें कर्तव्य आसा अशें एकखेप मनांत येतकच शेतकार आयज सैनिक जाल्लो. धैर्यवान सैनिकाचें रूप ताणें घेतिल्लें. ह्या हल्ल्यांत ताच्या हातांतल्यान जाल्ल्यो चुको तो मुखावेल्या हल्ल्यांत करपाचो नाशिल्लो आनी क्रमाक्रमान भाडोत्री धंदेवाल्या सैनिकापरस ताचें शौर्य-धैर्य सरस ठरपाचें. पयल्यावयल्या हल्ल्यान, त्या नूतन वर्स दिसा ही अमूल्य देणगी आमकां दिल्ली आनी उरफाटें पोर्तुगेज सैनिक गलितगात्र जाल्ले.

ह्या हल्ल्या संबंदीची सर्वसादारण प्रतिक्रिया त्या दिसा सांजवेळा कळ्ळ्यो. भिरांतेन चौकींत लिपून बशिल्ल्या पोलिसांनी आमी माघार घेतले उप्रांत भायर येवन बंदुकांचे खंय बार काडिल्ले. तांचे वरिश्ठ अधिकारी पांचच्या सुमाराक म्हळ्यार आमी थंयच्यान गेल्या उप्रांत २०-२५ मिनटांनी येवन पाविल्ले. चौकीचेर तीस पस्तीस लोकानी हल्लो केल्लो अशें त्या शिपायांनी तांका सांगिल्लें. हल्लेखोरांकडेन अत्याधुनीक शस्त्रांय आशिल्लीं अशेंय ताणीं सांगिल्लें. गुळी लागिल्लो पोलिस मरूंक नाशिल्लो. ताणेंय हल्लेखोरांचो आंकडो असोच वाडोवन सांगिल्लो. लोकांनी तो आनिकूय वाडोवन पन्नासांचेर हाडून दवरलो. नगरहवेलीच्यान हाडिल्लें आनी आमच्यांतल्या एकल्याच्या हातांतल्यान पडिल्लें तें पोरणें पिस्तोल पोलिसांक मेळिल्लें. ताचो परिणाम आमकां अपेक्षीत असोच जालो. दादरा नगर हवेलीची

सगळी शस्त्र सामुग्री आतां गोंयांत आयल्या आनी हांगा सशस्त्र हालचाली नेटान सुरू जातल्यो असो निश्कर्श तातुंतल्यान ताणीं काडलो. दादराच्या सुबशेफचें (सब इन्स्पेक्टराचें) मरण तांच्या दोळ्यां मुखार उबें रावलें. चारपाच दिसां उप्रांत श्री. म्हाबळू नायकान म्हाका निरोप धाडलो, म्हापशेचो एक पोलीस बाणस्तारची बातमी कळटकच डॉ. दुभाष्यांकडेन वचून म्हणटालो की, 'आमी जयहिंदवाल्यांचे वटेनचेच. आमकां मारूं नाकात अशें तांकां सांगात.' डॉ. दुभाषी बंदखणीत वचून आयिल्ले आनी हो पोलीस वळखिचो आशिल्लो. सावयच्यान जेन्ना हांव वझऱ्याक गेलों तेन्ना थंयीय अशयाच स्वरूपाच्यो प्रतिक्रिया आयकूंक मेळ्ळ्यो. पूण सत्याग्रहींचे अग्रणी म्हूण मिरयत भोंवपी शिश्टांनी मात आपल्या पत्रकांतल्यान. 'बाणस्तारच्या पुलाकडेन कांय बेबद्यांचीं आपापसात झगडीं जालीं.' असो मजकूर छापलो आनी सत्याची 'उपासना' केली.

ह्याच सुमाराक दलाचे म्हापशेचे अनंत थळी आनी शिवोलेचे सुखा शिरोडकार हांकां ते गोंयच्यान शीम हुपून भारतांत वता आसतना अटक जाली. तांचेकडेन पिस्तोल आशिल्लें. दुर्दैव्य हें की, पोर्तुगेज पोलिसांनी ती अटक करूंक नाशिल्ली. ते अटक करूंक आयिल्ले जाल्यार दोगांयनीय तांचेर हल्लोच केल्लो. अशे सोपेपणी तांकां धरप शक्य नाशिल्लें. पूण आमच्या भारतीय पोलिसांनीं तांका धरपाचें श्रेय घेतिल्लें. तांका कोर्टांत व्हेले. सावंतवाडीच्या कादयेंत चारपांच दीस तांका काडचे पडले आनी मागीर जामिनाचेर सोडले. बाणस्तारचे घडणुके उप्रांत जानेवारीच्या मध्याक हांव सावंतवाडीक गेल्लों आसतना दोगूय थंय मेळ्ळे. निकतेच भारतीय कादयेंतल्यान ते भायर आयिल्ले. 'शक्य तितले बेगीन गोंयांत वचूया. थंय प्रत्यक्ष हल्ल्यांत वो उप्रांत पोर्तुगेज बंदखणींत मेल्यार लेगीत चलता, पूण हांगा नाका रावपाक.' अशें ताणी म्हळें. अनंत थळी नगरहवेलीच्या मुक्ती संग्रामातूय आशिल्लो. पूण भारतीय पोलिसांनी वो सरकारान हे विशींची कृतज्ञताय तर दवरूंक नाशिल्लीच, उरफाटें तांका कादयेंत उडयल्ले.

जानेवारीच्या शेवटाक हांव धारगळे श्री. सोनू आपट्यांकडेन वचून तांकां मेळ्ळों. नकाशाचेर म्हाका बांदयाचे शिमेलागसार सोप्यो अश्यो दोन चौक्यो दिसताल्यो. एक पत्रादेवीची आनी दुसरी गाळेलीच्या भारतीय चौकेमुखावेली पोर्तुगीजांची. सोनू आपट्यांक ह्या वाठाराची बरी म्हायती आशिल्ली. तांचे वांगडा चर्चा करून ताणी गाळेली सामकारची पुर्तुगेज चौकी अदीक सहजतायेन घेवं येता अशें सांगलें. सरभोंवतणी वस्ती ना आनी चौकेर दोनूच पोलीस. ते भायर शीम लागीं आशिल्ल्यान थंयच्या पोलिसांचें धैर्य मातशेंशेंच. अश्या जायत्या कारणांखातीर ही चौकी हांवें निवडली. म्हापशां धुळेरांतल्यान लाडून खंयच्यान तरी पन्नास कार्तोशी म्हज्या एका ल्हानशा रिव्हॉल्व्हरा खातीर फैदासून हाडिल्ल्यो. थंयच्यान हांव, लाडू, साठे, येशी, बाबलो आनी दत्ता नागवेकार धारगळाक आयले. थंयच्यान एका वाटाड्याचे मजतीन दोंगराळ वाटेन बांद्याचे शीमेर पत्रादेवी आनी गाळेली ह्या चौक्यांचेर येवन पावले. लागीं लागीं पंदरा मैल अंतर चलून आयिल्ले. सांजवेळचीं स-साडे स जाल्लीं. शीम हुपून बांद्याक वचपाचें आनी दुसरे दिसा सांजे परतून गोंय शीमेर येवचें थरिल्लें. अनंत थळी आनी सुखा थंय राविल्ले. सूर्यकांत नायक बांद्याक दलाच्या कार्यलयाची वेवस्ता पळयतालो. तांच्या पालवान सगळेजण शीम हुपून बांद्याक गेले आनी दुसरे दिसा दनपरां साडेचारांक गोंयचे शिमेर प्रवेश केलो. जंगलांत चौकीपासून थोड्या अंतरार लिपून रावपाचें आनी स-साडे स जावन हयन्हयशें दिसना जातकच चौकेर हल्लो करपाचो असो आमचो बेत आशिल्लो. चौकीचो दरवाजोय हे वेळार उक्तो मेळपाचो. पूण आयत्या वेळार हो बेत आमकां बदलचो पडलो. आमी शिमेर भितर सरल्यात मात आमचेपासून मातश्या अंतराचेर, ३०-४० फुटांचेर, मुखारूच एक पोलीस दिसलो. आमकां चोरयेचो वेपार करपी समजून तो आमचे दिकेन धावलो आनी ताणें 'कोण तुमी?' म्हूण हरकत घेतली. योग्य तो निर्णय सट्ट करून घेवप गरजेचें आशिल्लें. हांव हातांत पिस्तोल घेवन लागींलागीं धावतूच ताचे दिकेन गेलों. ताका हात वयर करपाचो हुकूम दिलो आनी एका खिणाचोय कळाव लायनासतना ताणें यंत्रा सारके हात वयर केले. 'मारूं नाकात म्हाका...' इतलींच उतरां रडक्या आवाजांत भायर सरलीं. आमी ताचें पिस्तोल काडून घेतलें आनी रोकडेंच ताचे हात बांदून उडयले. बाणस्तारच्या हल्ल्यांतल्यान आमी कितेंतरी शिकले हें स्वताकूच दाखयलें. चौकेविशींची ताका म्हायती विचारली. पूण आमकां जाय आशिल्लें तें ते चौकेर नाशिल्लें. ताचो सहकारी तेच दिसा सकाळीं रजेर गेल्लो. चौकेवेल्यो दोनूय बंदुको पत्रादेवीचे चौकेर व्हेल्ल्यो. ताचेकडेन चौकेच्यो चावयो आशिल्ल्यो. ताका झोपांनी कोणाक दिसचोना अशे तरेन बसयलो. तीग चौगांक ताचेर पारो करूंक बसयले. आमी हेर फावो ती सावधगिरी घेवन चौकेर गेले. चौकी उगडली. झडटी घेतली. खऱ्यानीच थंय बंदुको नाशिल्ल्यो. कांय कार्तोशी तितल्यो मेळ्ळ्यो. दोगांयचेय गणवेश थंय आशिल्ले तेय घेतले. किल्याक तर हेरांक फटोवंक तांचो बरोच उपेग जावं येतालो. पोर्तुगेज बावटो घेतलो. चौकी बंद करून परतून त्या धरिल्ल्या पोलिसाक जंय बसयल्लो थंय आयले. मातसो काळोख पड मेरेन रावले आनी मागीर ताका थंयच्यान लागींच आशिल्ले भारतीय हद्दींत वचूंक सांगलें. साठे आनी बाबुली हेय तेवटेन गेले आनी आमी शिवोलेचे दिकेन वचूंक गेले. रस्तो अनवळखी आशिल्लो. नखेत्रांच्या आदारान मुक्कामाचे दिकेन वाट काडीत आमी शेवटाक

फांतोडेर पांचच्या अदमासाक शिवोले लागसारच्या एका दोंगरामाथ्यार पावले. सगळे दमून गेल्ले. पुराय रातभर जागरण आनी पंदरा मैलांची दोंगरी रपेट! एकल्याक पारो करपाक बसयलो आनी सगळे थंयच न्हिदले. पूण फकत देड-दोन वरांच. कित्याक उप्रांत बरीच सकाळ जाल्ली. मागीर थंयच्यान वळखिच्या सुरक्षीत सुवातेर वचप गरजेचें आशिल्लें. शीं सामकें कडक आशिल्लें. मातशे हात तरी शेकोवन घेवंचे म्हूण जळोव पळोवंक लागले. तण आशिल्लें, पूण दवान सामकें भिजिल्लें. इतल्यांत एकल्याचे तकलेंत नामी कल्पना आयली. काल चौकेवेल्यान हाडिल्लो व्हडलो पोर्तुगीज बावटो आमचेकडेन आशिल्लो. ताचे धगाचेर हात निश्चितपणी गरम जावपाचे. तो ल्हासपाचो, गोंयचेर हक्क नासतनाय सत्ता गाजोवपी पोर्तुगेज राजसत्तेच्चो बावटो ल्हासपाचो, हे कल्पनेनूच तो प्रत्यक्षात ल्हासोवपा पयलींच आमचें शीं गायब जाल्लें. बावटो ल्हासलो. येशी मोट्यान 'जयहींद'ची गर्जना करूंक सोदतालो. जणेकल्याची तीच इत्सा आशिल्ली. पूण हो अतिउत्साह कदाचीत म्हारग पडत हे जाणविकायेन आमकां आमची इत्सा चिड्डून दवरची पडली. पोर्तुगेज बावट्याचो ल्हासून पुराय गोबोर जातकच थंयच्यान वचूंक गेले आनी शिवोलेच्या आमच्या दोंगरांतल्या आश्रयस्थानार पावले. भगवंत थंय आशिल्लोच. तो रोकडोच गांवात दनपारच्या जेवणाचे तयारेक गेलो. पारो करपाखातीर आमचे पैकी कोणाक दवरपाची हे खेप गरज नाशिल्ली. कित्याक तें काम करपाक एक 'राखणो' थंय आशिल्लोच. तो ताचीं गोरवां राखतालो आनी आमकांय राखतालो.

गाळेली लागसारच्या ह्या चौकेवेल्या हल्ल्यांत आमकां एक पिस्तोल, कांय कार्तोशी आनी दोन गणवेश मेळिल्ले. बाणस्तारच्या हल्ल्यान दुर्बळ शेतकारांक भीमाचें बळ हाडिल्लें तर ह्या हल्ल्यान पिस्तोलाचें सामर्थ्य प्रकट केलें. पिस्तोल लावन 'हात वयर कर' अशी आज्ञा करतकूच शत्रू हात वयर करता अशें फकत आयकल्लें, पूण ह्या हल्ल्यांत हांवें तें प्रत्यक्ष अणभवल्लें. त्या पोलिसा सामकार फकत पिस्तोल रोखिल्लें मात आनी हात आपसूक वयर गेले. हातांतल्या शस्त्राचे ताकतीच्या प्रभावाची खात्री पटली आनी आत्मविश्वास दुणावलो.

तेच नेटार आमी बेगोबेग आनीक एक हल्लो करपाचें येवजिलें. शिवोले सावन कळंगूट फकत धा किलो मिटरांचें अंतर. सुखाचे वो लाडूचे कोण तरी सोयरे थंय रावताले. ताका लागून त्या गांवाकडेन तांचो पयलीं संबंद आयिल्लो. गांवांत एक चौकी आशिल्ली. थंयीय दोन पोलीस आशिल्ले. रातच्या आठ वरांचेर तिचेर हल्लो करपाचें आमी ठरयल्लें. सदांच साडे आठांच्या सुमाराक ती बंद जाताली. आमचेकडेन आजून बंदुकां सारकीं प्रभावी हत्यारां अथवा चौकी अध्वस्त करपाचीं साधनां नाशिल्ल्यान ती बंद जातकच आमी निश्प्रभ ठरताले. चौकी उगडी आसतना एकदम भितर घुसून शस्त्रांचेर हात घालप आमकां शक्य आशिल्लें. एखाद्रो शिपाय जर भायरूच आसत तर ताचेरूय अचानक झडप घालप कठीण नाशिल्लें. गाळेली लागचे चौकीत तो प्रयोग यशस्वी जाल्ल्यान हे खेपेक आमचो ताचेवयलो विस्वासूय वाडिल्लो.

आदींच दोन दिसांच्या पंदरा पंदरा मैलांचे दोंगराळ रपेटीन आमी थकिल्ले आसुनय सांजवेळचीं सात जातकच कळंगुटचे दिकेन आमी वाटचाल करूंक सुरवात केली. वाटेर मेळपी लोकांक दुबाव येवचो न्हय म्हूण तीग तीग जाणांचीं दोन टोळकीं केलीं. गांव लागीं येतकच फाफसले. गांवच्या वेगवेगळ्या दोन रस्त्यांनी चौकेलागीं पावले. आजून साडेआठ जावंक नाशिल्लीं. पूण चौकी मात बंद जाल्ली. तशे बंद जाल्ले चौकेर हल्लो करपाचो असो कांय जाणांनी आग्रो धरलो. पूण हेरांक त्रासांत धुकलपाक हांव तयार नाशिल्लों. म्हजेर सगळ्यांचीच जापसालकी आशिल्ली. आमी परतून शिवोले गेले. दुसरे दिसा आनीक एक खेप प्रयत्न करपाचें थारायलें, पूण हे खेपे मात वेगळे पध्दतीन. काल सांजे वतना आमकां जायते जाणांनी पळयल्ले. आयज परतून पळयल्लें तर कदाचीत तांचे भितर कुतुहल निर्माण जावं येतालें. तेन्ना रातचें काळोख पडटकच वचपाचें. बंद चौकेर पेत्रोल ओतोवन उजो लावपाचो, लागींच लिपून बसपाचें आनी पोलीस भायर सरतकच तांका धरपाचें अशें थारलें. ते प्रमाण दुसरे दिसा काळोख पडटकच गेले. णव-साडेणवांक थंय पावले. गांवांत शांतताय आशिल्ली. शादुरतायेन चौकेर गेले. फाटलेवटेन दारार आनी जनेलाचेर पेत्रोल शिंपडायलें. कांय जाण मुखावेले वटेन आनी कांय जाण फाटलेवटेन लिपून बसले. एकल्यान काडी लायली. भक्क करून उजवाड जालो. दारां पेटपाक लागलीं. फुडले वटेन भितर पळयल्यार शुकशुकाट. कोणूच भितर नाशिल्लो. जनेलाचे हारशे फोडून भितर उडी मारली. बंदुकोय नाशिल्ल्यो. भायर आयले. दुखेस्त जावन परतून शिवोलेचे दिकेन आमी पसार जाले. कांयच मेळूंक ना ही खंत व्हड आशिल्ली.शस्त्रास्त्रांची भूक आमकां लागिल्ली आनी तीच नेमकी शांत जायना आशिल्ली. शिवोले परतले आनी दुसरेच दिसा अस्नोडच्यान गोपी चोडणकार नांवाचो एक वावुरपी थंयचे पोलिस चौकीची म्हायती घेवन आयलो. हांगा भरपूर शस्त्रां मेळटलीं अशें मनांत आयलें आनी हीच फुडली मोख आमी थरयली. गोंयचे एके व्हड बाजार पेठेंतले पोलिस चौकेर आमी आतां हल्लो करपाचे आशिल्ले!

(चलता...)



- नं. ध. बोरकार
माम्कांग्न्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

# ही म्हजी मांयभूंय



*हांव म्हजें खंती काळीज घेवन त्या व्हाळा थडेर वचून बसलों आनी चिंतूंक लागलों. आतां फुडें कितें करचें! परत पुता म्हऱ्यांत वचूं, आनी ही म्हजी कूड अमेरिकेचे मातयेंत मिसळंव? आयज मेरेन म्हाका म्हजी अशी मांयभूंय आशिल्ली. हांव अमेरिकेंत आशिल्लों खरो, पूण म्हज्या मोगाळ देशाची याद घेवन जगतालों हांव.*

पुराय साठ वर्सां उपरांत आयज म्हाका म्हजे प्रिय मांयभुंयेचें दर्शन घडलें. जेन्ना हांवें म्हजो हो देश सोडलो आनी म्हजें नशीब म्हाका अस्तमेकडे घेवन गेलें, तेन्ना हांव भर जुवानपणांत आशिल्लों. म्हज्या शिरंत्रांनी उमेदीच्या रक्ताचीं ल्हारां उसळटालीं. काळीज व्हड उमेदीनी भरून गेल्लें म्हजें! हांव विदेशांत गेल्लों खरो, पूण म्हाका ह्या देशांतल्या खंयच्याच अत्याचाऱ्यान धांवडावन घालूं नाशिल्लो वा हांगाच्या कायद्याच्या बळिश्ट हातांनी धुकलून भायर मारूं नासलो. अत्याचाऱ्यांचे जिवघेणे अत्याचार आनी कायद्यांची ताकत म्हाका कितेंय करूं शकताली, पूण खंयचीच ताकत म्हाका म्हजे प्रिय मांयभुंयें पसून वेगळी करूंक शकनासली. पूण म्हाका म्हज्या देशापसून पयस केल्लो तो म्हजी आस्त आनी उंचेल्या सपनांनी!

हांवें अमेरिकेक वचून धंदो वाडयलो. अमाप पयसो जोडलो. गिरेस्त जालों हांव थंय. दिसान दीस संपत म्हजे खोशेंत भर घालीत रावली. नशिबान घरकान्नय बरी मेळ्ळी. सुंदरतायेंत तर ती कोणाकूच लागसारकी नासली. लावण्य आनी सुंदरतायेन अमेरिकेंत ती सगळेकडे फामाद जाल्ली. म्हज्या आनी तिच्या मनांत विचारभेद केन्नाच निर्माण जालो ना. ती म्हजे खातीर सर्वस्व आशिल्ली, आनी हांवेंय तिचेर मनापसून प्रेम केलें. म्हाका पांच पूत आशिल्ले. घटमूट, सुंदर आनी इमानी. ताणीं धंदो आनीकय झगपक केलो. म्हजे अपुरबायेचे, सुंदरतायेचे पुतळे - नातू जेन्ना म्हजे मांडयेर खेळूं लागले, तेन्ना म्हजे मायभुंयेचें निमणें दर्शन घेवपाक म्हजें मन तयार जालें. हांवें म्हजी अमाप संपत, प्रियतमा पत्नी, भांगरा सारके पूत आनी ल्हान-ल्हान नातरां, म्हज्या काळजाच्या कुडक्यांचो त्याग करून हांव म्हजे प्रिय मांयभुयेंत - भारत देशांत - हे खातीर परत आयलों की निमणे वक्तार तरी म्हजे मांयभुंयेचें दर्शन म्हाका घडचें. हांव आतां सामको म्हातारो जालां; धा वर्सां उपरांत पुराय शंबर वर्सांचो जातलों हांव. आतां म्हज्या काळजांत एकूच आस्त शिल्लक उरल्या, आनी ती म्हणल्यार हांव म्हजे मांयभुंयेचो रजकण जावन उरचों.

ही आस्त कांय आयजच म्हज्या काळजांत उत्पन्न जावंक ना. ती तेय वेळार उत्पन्न जाल्ली, जेन्ना म्हजी प्राणप्रिय घरकान्न गोड-गोड उतरांनीं-मादक कटाक्षांनीं म्हज्या काळजांत मोग ओतून तें प्रफुल्लीत करताली. आनी जेन्ना म्हजे जुवान पूत सकाळीं सकाळीं उठून येवन आपल्या वृध्द बापायक भक्तिभावान नमस्कार करताले, तेन्नाय म्हज्या काळजांत खयीं तरी एक कांटो कसो तोपून म्हाका जाणविकाय करून दितालो, की हांव म्हजे मांयभुंये पसून वेगळो जालां.

म्हजेकडे धन आशिल्लें, बायल आशिल्ली, पूत आशिल्ले, भाटां-बेसां, घरदार बी सगळें आशिल्लें, तरी कित्याक कोण जाणां, म्हजे मांयभुयेंतले मोडके खोपटेची आनी चार-पांच बिगो वडिलोपार्जीत जमनीची म्हाका परत परत याद येता. चड करून भुरगेपणांतल्या त्या काश्टेधाऱ्या इश्टांक हांव कसोच विसरूंक शकना. चड करून खोशेच्या आनी आनंदोत्सवाच्या वक्तार असले विचार काळजांतल्यान खुणायतात शे दिसता - 'जर हांव आपल्या देसांत आशिल्लों.'

### दोन

मुंबय हांव बोटीवेल्यान देवलों. कांय 'तारवटी' थंय तुटकी-फुटकी इंग्लीश उलयताले. काळ्या कोट पेन्टींत वावुरताले ते थंय. उपरांत इंग्रजी दुकानां, ट्रामो आनी मोटरगाडयो दिसूंक लागल्यो. ताच्या उपरांत रबरी टायरांच्या गाडयांकडे तोंडांत चिरुटां दामून आशिल्ल्या सायबांकडे गांठ पडली. उपरांत रेल्वेचें व्हिक्टोरिया टर्मिनस स्टेशन पळेलें. ताच्याय उपरांत हांव रेल्वेंत बसून पांचवेचार दोंगुल्ल्यां मदें आशिल्ल्या म्हज्या गांवांकडे गेलों. असल्या वेळार म्हजे दोळे भरून आयले. खूब रडलों हांव. कारण हांगा म्हजो देश म्हाका दिसलो ना. हो तो देश नासलो, जाचें दर्शन घेवंक हांव इतलों तेंप दीस-रात आशेतालों. हो तर वेगळोच देश आशिल्लो. हो म्हजो भारतदेश नासलोच.

रेलगाडी आतां जंगलां, दोंगर, न्हंयो आनी मळां फाटीं घालून म्हज्या मोगाळ गांवांकडे पावली.

एका तेंपार हो म्हजो गांव फळां-फुलांनीं भरिल्लो. सर्गाकडे सर्त लायतालो हो म्हजो गांव, एका तेंपार!

हांव गाडयेंतल्यान देंवलों तेन्ना म्हजें काळीज खोशेन भरून आयलें. आतां हांव म्हजें आवडटें ठिकाण पळेतलों. म्हज्या भुरगेपणांतल्या वांगड्यांक पळेतलों. असल्या वेळार हांव सामको विसरून गेल्लों की हांव आतां णव्वद वर्सांचो जड्डो जालां. जसो-जसो हांव गांवां लागसाराक येतालों, म्हज्या पांयांक पाखां फुट्टालीं. काळजांत अवर्णनीय खोशेचे उमाळे फुट्टाले. जणेक मनशाचेर आनी वस्तुचेर फांकारिल्ल्या दोळ्यांची नदर पडटाली. आरे व्वा! होच तो व्हाळ! हातुंतच आमी सदांच घोड्यांक न्हाणयताले. ते भायर स्वताच बुडक्यो मारताले. पूण आतां थंय काटयाऱ्यो सरयो मारल्यात. मुखार एक बंगलो आसा, तातूंत दोन इंग्रज हातांत आर्मां घेवन हांगा-थंय नदर मारताले. व्हाळांत आतां न्हावपाचेर बंदी आशिल्ली.

गांवांत पावतकच म्हजी नदर म्हज्या भुरगेपणांतल्या वांगड्यांक सोदूंक लागली. पूण हाय रे देवा! ते सगळ्यांतले सगळे मरणाचे भकीक पडिल्ले. आनी म्हजें घर, जाचे मांडयेर कितलींशींच वर्सां खेळ्ळों-बागडलों. म्हजें भुरगेपण बिनधास्तपणान सारलें हावें ते घरांत. व्हडा खोशेन जियेलों हांव थंय. ते घराचें चित्र आतां म्हज्या दोळ्यां मुखार एकसारकें घुंवता. तें म्हजें प्राणप्रिय घर आतां मातयेचो उडो जावन बसलां.

ही सुवात मात पाड पडूं नासली. शेकड्यांनी लोकांचें येवप-वचप जातालें थंयच्यान. चलतासतना कोर्ट-कचेऱ्यांची आनी पुलिसठाण्याच्योच गजाली घोळटाल्यो तांच्या तोंडांतल्यान. इतलेंच न्हय, तर तांच्या मुखामळार सदांच चिंता, निर्शेवणी आनी दुखखाचें सांवट पातळिल्लें आसतालें. सगळ्यांचीं मुखामळां संवसारीक चिंतनानी सुकून-बावून गेल्लीं. म्हज्या इश्टांप्रमाण धडधाकटसाण मातूय दिसनासली तांच्यांत. तेजहीण मुखामळां घेवन भोंवताले ते. इल्लीय तांबसाण झळकनासली तांच्या मुखामळार. म्हजे तेंपार थंय एक मल्लघर चलतालें. सदांच मल्लयुध्दां चलतालीं त्या मल्लघरांत. हांवेंच बुन्याद घातिल्ली ते मल्लघराची. आतां ते सुवातेर मोडकी तोडकी शाळा चलताली. तातूंत पिंजक्या-विटक्या कपड्यांतलीं, सुकिल्ल्या आनी बावक्या मुखामळाचीं भुरगीं झेमत-झेमत कशेबशेन शिकतालीं. तांकां पळोवन म्हज्या मुखांतल्यान सहजतायेन उतरां भायर पडलीं, ना-ना, हो म्हजो मोगाळ भारतदेश न्हय! आतां हांव त्या वडा झाडाकडे ताकतिकेन गेलों. भुरगेपणांत हांवें ताचे सुखदिणे सावळेंत भरपूर सुखानंद घेतिल्लो. आमच्या भुरगेपणांतलें क्रिडास्थळ आशिल्लें तें. जुवानपणातली सुखदिणी सुवात आशिल्ली ती. पूण हाय! ह्या वडाक पळेना फुडें म्हज्या काळजाचेर कोणें तरी मोठो आघात केल्ल्या सारको दिसलो. काळीज शोकान भरलें. वडाचेर नदर पडना फुडें म्हज्या भुरगेपणांतल्यो कसल्यो कसल्यो यादी ताज्यो जाल्यो म्हूण सांगूं? ह्यो यादी सुखदिण्यो आनी हृदयविदारकय आशिल्ल्यो. खिणांत हांवें धतरेर बसकण मारली, आनी वरांचीं वरां दुकां गाळीत बसलों. हो-होच तो वड, जाच्या खांदयांचेर चडून तेंगसेर वचून बसतालों हांव. हाच्यो जटो आमच्या खातीर झोपाळे जावन आशिल्ले. हाचीं गोड-गोड फळां अख्ख्या संवसारांतल्या पक्वानां परस रुच्चीक लागतालीं. म्हज्या हातांत हात घालून खेळपी म्हजे भुरगेपणांतले वांगडी, घडयेक रागार फुगार जावन, घडयेक सगळें विसरून खेळीमेळीन वागपी ते लंगोटियार आतां खंय



गेले काय? हाय! घरदार नाशिल्लो मुसाफीर हांव आतां एकटो पडलां. म्हजो आतां कोणूच वांगडी उरलो ना ह्या जगांत. हे वडा कुशीक आतां एक थाणें आशिल्लें. वडा तळाक कोण तरी माथ्याक तांबडो मुंडासो बांदून बशिल्लो आशिल्लो. ताचे कुशीक हांगा-थंय, तांबड्यो पगड्यो घाल्ले पंदरा-वीस जाण हात पांगरून उबे आशिल्ले. थंयच एक बोतरां घालून, दुर्भिक्षग्रस्त दादलो मनीस आसलो. ताचेर आतांच एकसारको चाबकां फटक्यांचो पावस पडिल्लो. वळवळटालो बावडो एके कडेक पडून. हें पळोवन म्हज्या लक्षांत आयलें, की हो म्हजो प्रिय देश न्हय तर तो आनीक कोणाचोय जावं येता. तो युरोप जायत, अमेरिका जायत, पूण म्हजी मांयभूंय केन्नाच जावं नज- केन्नाच ना.

तीन

हांव आतां निर्शेवन लागसारच्या मांगराकडेन गेलों. म्हज्या ल्हानपणांत म्हजो बापूय, गांवांतल्या हेर जाण्टेल्यां वांगडा बसून थंय तंबाखू खातालो. तंबाखू खाता आसतना चकाटां मारप ताका खूब आवडटालें. चकाटां मारतां-मारतां हास्य-विनोदांत रस घेवंक खोस भोगताली ताका. आमीय साकाट्यार बसून कसलो ना कसलो खेळ खेळून आंगांतल्या कलागुणांचें दर्शन घडयताले. केन्ना केन्नाय थंय पंचायतय भरताली. म्हजो बापूयच सरपंच आसतालो सभेचो. लागसाराक एक व्हडलो गोठो आसतालो. ताका गोशाळाय म्हणटाले. आख्ख्या गांवांतल्यो गायो हाडून हेच गोशाळेत बांदताले. वासरां वांगडा आमीय हांगा नाचताले-खेळटाले, उडयो मारताले. आतां थंय गोठो ना, ताच्या बदलाक थंय आतां आरोग्यकेंद्र आनी पोष्टऑफिस दिसतालें.

ते तेंपार मांगरा लागसाराक थंडे दिसांनी ऊसाची पेरणी जाताली. ऊस कापणेच्या वेळार खळार गोडाच्या वासान शेतकारांच्या मेंदवाक थंडाय आनी धादोसकाय भोगताली. सगळो वाटार गोडाच्या वासान घमघमतालो. हजारदां ताजो रोस दाट दुदांत मिसळोवन पिलां हांव. इतलेंच न्हय, तर ऊसा घाण्याच्या लागसाराक रावपी भुरगीं-बाळां हांडयो भरून भरून ऊसां रोस घेवन वतालीं. दुख्खाची गजाल अशी की आतां लेगीत थंय ऊस मेळपाचे घाणे उबे आशिल्ले, पूण ते बंद पडिल्ले. ताच्या बदलाक थंयच्या खळांचेर सोण गुठलावपाचें काम चलतालें. ह्या काळजाक पीळ घालपी देखाव्यांनीं म्हजें मन थाऱ्यार उरलें ना. म्हऱ्यांत एक मनीस उबो आशिल्लो. पळोवंक सभ्य दिसतालो. ताका विचारलें, "बाबारे, हांव एक परकी मनीस. आयची रात काडपाक म्हाका इल्ली सुवात मेळत?" ते मनशान म्हजेर वयर सावन सकयल मेरेन बारकायेन नदर मारली आनी म्हणूंक लागलो, "फुडें वच, हांगा सुवात ना." हांव फुडें गेलों. फुडेंय तसलीच जाप मेळ्ळी, "फुडें वच." अशें चार-पांच फावट घडले उपरांत एका सभाग्याची भेट जाली. ताचेकडे सुवात मागल्या उपरांत ताणें कितें करचें? मूठभर चणे ताणें म्हज्या हातार थेयले. ते चणे म्हज्या हातांतल्यान गळ्ळे आनी म्हज्या

दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो पावळ्यो व्हावंक लागल्यो. तेन्ना मुखांतल्यान सहजतायेन उतरां भायर पडलीं, ''हो म्हजो देश न्हय. हो तर दुसरोच खंयचो तरी देश आसा. हें युरोप जावं येता, अमेरिका जावं येता. पूण हो म्हजो भारत देश जावंकच नज!''

हांवें एक शिगारेटचें पाकीट विकतें घेतलें. एकटोच कुशीक वचून बसलों. आदले तेंपार शिगारेट फुसकायतालों. ताची याद करूंक लागलों. इतल्यान म्हाका गांवांतले धर्मशाळेची याद जाली. ही धर्मशाळा हांव भायर वतना बांदून पुराय जाल्ली. चिंतलें, आयची रात ते धर्मशाळेंत काडची. हांवें थंय धांव मारली. वच जाल्यार कितें पळेतलों? हाय रे म्हज्या दुर्दैवा! धर्मशाळा जशाची तशी उबी आशिल्ली, पूण तातूंत गरीब प्रवाशांक रावंक सुवात नाशिल्ली. तो एक बेबद्यांचो, शिंदळक्यांचो आनी जुगाऱ्यांचो अड्डो जावन आशिल्लो. धर्मशाळेची ही अशी दुर्दशा पळोवन, म्हज्या काळजांत सावन एक व्हडली किळांच भायर पडली, ''ना, ना, ना. हजारदां हांव आड्डेवन सांगतलों की हो म्हजो भारतदेश न्हय! हो देश आनी खंयचोय जावं येत, युरोप जावं येत, अमेरिका जावं येत, पूण म्हजो भारतदेश जावंकच शकना!''

### चार

काळखी रात आशिल्ली. सुणे भोंकताले. कोले हुयेल्यो मारताले. हांव म्हजें खंती काळीज घेवन त्या व्हाळा धडेर वचून बसलों आनी चिंतूंक लागलों. आतां फुडें कितें करचें! परत पुता म्हऱ्यांत वचूं, आनी ही म्हजी कूड अमेरिकेचे मातयेंत मिसळंव? आयज मेरेन म्हाका म्हजी अशी मांयभूंय आशिल्ली. हांव अमेरिकेंत आशिल्लों खरो, पूण म्हज्या मोगाळ देशाची याद घेवन जगतालों हांव. आनी आतां? आतां देशाभायरो जालां हांव! म्हाका म्हजो असो खंयचोच देश ना, हांवें दोनूय धोपरांचेर तकली थेयली आनी केदो वेळ मोन्यांनी बसून रावलों. सगळी रात कसोच दोळो लागलो ना म्हाका. घांटवाल्यान तिनाची घांट दिली, आनी गीतांचे सूर कानार पडले. आयकून काळीज भरून आयलें. कारण देशी राग कानार पडिल्लो. मायभुंयेचो सूर आशिल्लो तो. हांव सडसडीत उठून उबो रावलों. मागीर कितें पळेतलों! पंदरा-वीस म्हाताऱ्यो बायलो धव्यो फुल्ल साडयो न्हेसून-हातांत तांबये घेवन, गीत गायत न्हावंक वताल्यो. तें गीत आशिल्लें, 'हमारे प्रभु, अवगून चित न धरो...' हांव हें गीत आयकून गूंग जायत आशिल्लों. म्हण्टां म्हणसर खूबशा दादल्यांचीं उतरां म्हज्या कानार पडलीं. कांय लोक पितुळचे कमंडुलां घेवन शिव-शिव, हर-हर, गंगे-गंगे, नारायण-नारायण बी उतरां म्हणत चलताले. आनंददायक आनी प्रभावोत्पादक रागाचो म्हजेर जो परिणाम जालो, म्हजे खातीर अवर्णनीय आशिल्लो. हांवें अमेरिकेंत चंचळांतल्या चंचळ आनी प्रसन्नातल्या प्रसन्न चित्ताच्या अप्सरांचे आलाप आयकल्ले. हजार फावट तांच्या जिबांवेल्यान प्रेमळ आनी सुखदायक उतरां भायर पडिल्लीं आयकल्लीं. हृदयाकर्शक वचनांची खोस हांवें थंय भोगिल्ली, सुकण्यांच्या गळ्यांतल्यान भायर पडिल्ली सुखदिणी किलबील हांवें आयकल्ली, पूण जी खोस, जी मजा आनी जें सूख म्हाका ह्या रागांत मेळ्ळें, तें म्हाका जिवीतांत हे आदीं केन्नाच मेळुंनाशिल्लें, हांव स्वता भितरले भितर गुणगुणलों :

''हमारे प्रभु, अवगुन चित न धरो...''

म्हजें काळीज परतेंय उबेन भल्लें. हीं आशिल्लीं म्हज्याच देशांतलीं उतरां. आनंदातिरेकान म्हजें काळीज आतां आनंदमय जावन गेल्लें. हांवूंय त्या मनशांमदीं आतां मिसळून गेल्लों आनी स मैलांचो दोंगरी मार्ग हुपून न्हंयचे देगेर पावलों, जिचें नांव पतित-पावनी आशिल्लें. हे न्हंयत बुडक्यो मारप आनी तिचे कुशींत मरून वचप ही गजाल प्रत्येक हिन्दू भाग्याची अशी मानता. पतित पावनी भागिरथी गंगा म्हज्या प्रिय गांवांपसून स-सात मैलांच्या अंतराचेर व्हांवताली. एका तेंपार घोड्यार बसून गंगेचें दर्शन घेवचेंशें दिसतालें. हांगा हांवें हजारांनी लोकांक, थंडाय मेळोवपा खातीर गंगेंत बुडक्यो मारतना पळेल्यात. कांय लोक रेवेंर बसून गायत्री मंत्राचो जप करताले. कांय लोक हवन घालपांत मग्न आसताले. कांय कपलाक तिबो लायताले. कांय लोक सस्वर वेदमंत्र म्हणटाले. म्हजें काळीज परत एकदां उबेलें आनी हांव मोठ्यान आड्डेलों - हां-हां, होच म्हजो प्रिय भारतदेश जावन आसा, हीच म्हजी पवित्र मायभूंय जावन आसा, हो म्हजो सर्वश्रेष्ठ भारतदेश आनी हाचेंच दर्शन घेवपाची म्हजी उत्कट इत्सा आशिल्ली. तेच भशेन हाचोच पवित्र धुल्लकण जावन रावपाची म्हजी अभिलाशा आसा!

### पांच

आयज म्हाका इल्ली चडच खोस भोगताली. हांवें म्हजो पोरणो कोट आनी लेंगो आंगावेलो देवोवन फेकून दिलो आनी गंगामातेच्या पात्रांत उडी घेतली. उडी अशे तरेन घेतली की एकाद्रो निरागस बाळक, दिसभर निर्दय लोकांचे संगतीक रावल्या उपरांत, तीनसांजच्या वेळार धावन येवन आपले मोगाळ आनी मायेस्त आवयचे कुशींत रिगचो! दुसरी गजाल अशी की, हांव आतां म्हज्या देशांत आसां, ही म्हजी प्रिय मायभूंय जावन आसा. हे लोक म्हजे भाव आनी गंगा म्हजी आवय!

हांवें आतां गंगेचे देगेर एक ल्हान-शी खोप बांदल्या. आतां म्हाका 'राम-राम' शिवाय दुसरें कसलेंच काम ना. हांव सदांच सांजसकाळ गंगास्नान करतां आनी म्हजी प्रबळ इत्सा आसा की हेच सुवातेर मरण येवचें आनी म्हज्यो अस्थी गंगामातेच्या ल्हारांक अर्पण करच्यो.

म्हजी घरकान्न आनी म्हजे पूत म्हाका परत-परत आपयतात. पूण आतां हांव गंगामांयची देग आनी म्हजो प्राणप्रिय देश सोडून खंयच वचूंक शकना. म्हजी माती हांव गंगेत सोडटलों. आतां संवसारांतली कसलीच अभिलाशा म्हाका ह्या ठिकाणापसून पयस करूंक शकची ना, कारण हो म्हजो प्रिय देश आनी हीच म्हजी मोगाळ मांयभूंय. बस, म्हजी उत्कट इत्सा इतलीच आसा की म्हजे मांयभुंयेंतच म्हजे प्राण विसर्जीत जावंचे!





– पद्मनाभ नायक
तिलक – नगर, डोंबिवली.
मो.: ९९६९२६७६५६

# प्रतापगड



**भा**रताचे इतिहासांतु छत्रपती शिवाजी महाराजाल नांव अजरामर जावनास्सा. तागेल याद केल्यारी आंगांतु वीर रस संचार जात्ता. स्वकतृत्वान तो नांव कमोन गेलो. विवेक बुध्दीन विचार कोर्नु योग्य निर्णय घेव्नु कित्लकी कठीण परिस्थितींतल्यान यशस्वी पार पळ्ळो. अफजलखान वध त्या पैकी अेक जावनास्सा.

शिवाजी महाराज राज्य दिवसों दिवस वाढत आस्सिलें. बिजापूरचे आदिलशाहाक हें सहज जायनांसी, 'शिवाजीक धोर्नु हाडचें नांवे जीवंत मार्चें' म्होणु अफजल खानाक अपार सैन्य दीव्नु तो धाडता.

ही खबर आयकून राजगडारी शिवाजी मुत्सद्दी लोकांक घेव्नु विचार–विमर्शा कर्ता. आयिले संकटांतुल्यान पार पोडच्याक शक्तीबलाकिंता युक्तीबल वापरचे हिकमती सोदून काढताती. त्या दृष्टीन प्रतापगड योग्य स्थान म्होणु ठरैताती. आनी लगेच (इ. स. १६५९ जुलै) महाराज प्रतापगडाचेरी यत्ता.

महाराष्ट्राचे सातारा जिल्लेंतु महाबळेश्वर साव्नु कोंकण प्रदेश पोलादपूर येन्चे वाटेरी घाट देंवतना आंबेनळी आनी पारघाटा मद्दें प्रतापगड आस्सा. चारीदिकान घनदाट अरण्य. त्या कालांतु, त्या भूप्रदेशांतु दिसाचे सुध्दां वोच्याक लोक भित्तस्सिले.

असले खतरनाक जागेरी अफजल खानाक कोंडींतु धोर्चे विचार शिवाजीन केल्लो. तश्शीं पोळोच्याक गेल्यारी अफजलखानाक हो भूप्रदेश नवीन न्हय्. तो वाई चो सुभेदार जाव्नास्सिलो. सैन्याचो बहुतांश तो वाईंतु दवरता. फक्त धा हजार सैन्य घेव्नु प्रतापगडा दिकान येत्ता आनी घेराव घालता. कित्ले लाग्गी आयिलतिकी शिवाजी प्रतिकार कर्ना. भियल्ल्यावरी कर्ता. शिवाजी भिल्ला म्होणु अफजलखान खुशींतु उर्ता. ताक्का शिवाजील खरी योग्यता कळना.

मनशांली खरी योग्यता समजून घेवच्याक सुध्दां योग्यता जावका. चार म्हैने झरमपती पावसांतु कस्सने कोरच्याक जायनांसी अफजलखानाले सैन्य कंठाळिलें. बोस्सून आल्सी जालिलें. खान स्वतः, 'कस्सने कोरचें! आनी कितले दीस इतले होड सैन्य घेव्नु हांगा बस्सून उरचें!!' म्होणु भ्रमिष्ठ जालिलो. ह्या परिस्थितींक (१० नोव्हेंबर १६५९) समझोता कोरच्याक शिवाजी खानाक प्रतापगडचे पायथ्याक आपैता. वाघाक पांजिरंतु धोरचें प्लेन हें. दंपारां दोन घंटे सुमार तांगेली भेटी जात्ता. शिवाजीक तेन्नां तिसेक वर्षा प्राय.

अफजलखान शूर उर्ता जाल्यारी कपटी–निर्दयी उर्ता. तो विश्वासघात कर्तलो म्हळिले अंदाजो शिवाजीक उर्ता. कारण कनकगिरी रणांगणांतु तागेल म्हालगडो भावु, संभाजीक हाणेंची फसोन मारीलें; बिजापूरांतु शहाजीराजेल अपमान केलिलो. आज ताज्जी बदला घेवची संधी आपणहून महाराजाक मेळिल्ली.

महाराजान लेक्कितास्सिं जालें. अफजलखाना शामियानांतु 'आवो राजे' म्होणु घट्टी मिठ्ठी मारता. फार्टीतू खंजीर घुस्सोच्याक पळैता. शिवाजी वेळ करना. स्वसंरक्षणेचो अधिकार सर्वांक आस्सा. वाघ नखांनी अफजलखानाली आंतां बगदून काढता. उग्र नरसिंहान हिरण्यकश्यपूक पाय्यारी आढ घाल्नु आंतां पिस्सुळिलीं. शिवाजी महाराज अफजलखान म्हळीले दुष्ट राक्षसाक राब्बील कडेन आंतां पिस्सळून मारता.

जन्मा आयिल्यांनी ह्या संसारांतु पुष्कळ अशक्य गोष्टी शक्य कोर्नु घेवची पडताती म्हळ्यार मात्र तो आयुष्यांतु यशस्वी जावच्याक शकता. शिवाजी महाराजान हें सत्य जगाक सिध्दकोर्नु दाकैलें.

आज राजा ना, राज्य ना तरिही ती प्रेरणा जिवंत आस्सा. जो पर्यंत ती प्रेरणा जिवंत उर्ता तो पर्यंत आमगेल देशाचें स्वातंत्र्य शाबूत आस्सा म्होण लेका. ती प्रेरणा जागृत दवरच्याक अस्सले इतिहासीक स्थानारी वचत उरा. थंचो इतिहास अभ्यास करा.

प्रतापगडालाग्गी 'कुंभरोशी' गांव आस्सा. त्या गांवाक 'वाडा' म्हणताती. येवचे–वोच्चे सरकारी बस् हांगा राबताती. ह्या वाडा बस

स्थानकासाव्नु प्रतापगडाक अेक तासाची वाट.

आत्त शिवाजील कालांतु आस्सिल्यावरी धनघोर अरण्य ना. इ. स. १९५७ तु तेन्नाचो आमगेल देशाचो प्रधानमंत्री पंडित जवाहरलाल नेहरू प्रतापगडारी आयिलो. तो येत्ता म्होणु ताक्का त्रास जावच्याक ना म्होणु गडा पर्यंत बरो रस्तो केल्लो. स्वता वाहन आसल्यारी गडापर्यंत वोचेत.

प्रतापगड स्वत: शिवाजी महाराजान इ. स. १६५७-५८ तु बांधून घेतिलो. बांधकामाचे देखरेक कोरच्याक मोरोपंताली नेमणूक केलिली. गडारी वत्त जाल्यारी महादरवाज्यांतुल्यान वोचका. बाकी चोर दरवाजे आत्तां बंद आस्सती. महादरवाजा नित्य सूर्योदयाक उघडताती. सूर्यास्ताक बंद करताती. शिवकालीन प्रथा आजही ह्या गडारी चालू दवरल्या. माक्का दिसता, आनी खंयी, खंचे किल्ल्यारी, गडारी ही प्रथा आचरणेंतु उरशीना. प्रतापगडाचेरी शिवाजी कालांतु आस्सिल गडकरी, पूजारी, चौकिदारांल वंशज अजूनही घर कोर्नु आस्सती.

महादरवाजा दांटून भित्तरल्यांन काहीं मेट्टां चोण गेल्ले की दावेदिकान भवानी मंदीर दिसता. शिवाजी महाराजाक तुळजा भवानीचेर अपार श्रध्दा. देवील आराधनेन आपण्याक बल मेळ्ळें म्होणु, अफजल खानाल वध केल्ले नंतर ताणें हें मंदीर बांदिल्लें. देवील मुर्ती तयार कोरच्याक गंडकी नदींतुली उत्कृष्ट शालिग्राम शिला जायस्सिली. ती प्राप्त कोरच्याक शिवाजी महाराज नेपाळचे राजा लिलासेनाक खास पत्र बरैता. आनी मुंबाजी नायक पानसरेक नेपाळ धाण दित्ता. मंदीर स्थापने वेळारी प्राणप्रतिष्ठे कार्यक्रमाक काशीचान वेदपारंगत श्री विश्वनाथ भटाक आपोन हाडता. नंतर ताक्काची कायमचो पुजारी म्होणु नेमणूक करता. त्या विश्वनाथ भटाल वंशज अजून त्या देवील पुजा नेमनिष्ठेन कर्ताती.

दरवर्ष नवरात्रींतुल ललितापंचमीक भवानी मातेक खास उत्सव साताराचे शिवाजीले वंशज प्रतापगडारी येव्नु करताती. ह्या उत्सवाक असंख्य लोक जमताती. प्रतापगड अजूनही साताराचे भोसले घराण्याचे खासगी मालमत्ता जाव्नु आस्सा खंयू!

प्रतापगडाचेरी भवानी देवील विधीपुर्वक स्थापना इ. स. १६६४ तु जाली. तर्शी धा वर्षा नंतर महाराजान सवाई मण भांगराची छत्री देवीक दान केलिली. (इ. स. १६७४) सुमार २५५ वर्षां नंतर (इ.स. १९२९) सर्व दाग-दागिने चोरी जाव्नु गेले खंयू!

हे जगांतु खंचे शाश्वत न्हंयू म्होणच्याक ही अेक उदाहरणा.

भवानी मंदिरा मुकार अतिशय सुंदर दीपमाळा आस्सा. गडाचेर श्री समर्थ रामदासान स्थापन केलिल हनुमान मंदीर आसा. प्रतापगडाचें बांधकाम कर्तना महादेवाली मूर्ती मेळिली खंयू! त्या जागेरी अेक सान शें मंदीर आस्सा.

हनुमान मंदिरा बगलेन दिंडी दरवाजा दिसता. अफजलखानाल भेटीक महाराज ह्याच दरवाजेंतून भार्यी पोण गेलिले. तो क्षण येवजिल्यारी आंगार कांटो येता. 'जर माक्का कस्सने जास्त-कम्मी जाल्यारी, स्वधर्म आनी स्वराज्या खात्तिर तुमकां नेमून दिलिल कामां नीट पार पाडा' म्होणु तान्नीं बजाव्नु सांगिलें आज ही प्रतिध्वनीत जाल्यावरी भास जात्ता.

आत्तां ज्या जागेरी शिवाजी महाराजाल अश्वारूड प्रतिमा आस्सा त्या जागेरी पैलें राजवाडा आनी शासकीय कार्यालय आस्सिलें. प्रतापगडावैलो सगळ्यांत ऊंच भूभाग हो. (१९५० मी.) तें दोन माळे इमारत इ.स. १८५७चे स्वातंत्र्य बंडाया नंतर ब्रिटिशर्सानी मुद्दां उज्जोलाव्नु जळोनु उडैलें. वणती भेत्तून काळ्यो. अश्वारूड प्रतिमा कामत म्हळील शिल्पकारान तयार केलिली. हात्तांतु खड्गधोर्नु परकीय शत्रूंक आव्हान दिवचें शिवप्रतिमेचें हे शिल्प अतिशय सुंदर जाव्नास्सा. ताज्जे उद्घाटनेक (३०-११-१९५७) तेन्नांच प्रधानमंत्री पंडित जवाहरलाल नेहरू आयिले.

पुतळ्याक भक्तीन नमस्कार कोर्नु मेट्टां देवनु तटबंदी दिकान गेल्यारी यशवंत बुरूज मेळता. तटबंदीची रूंदी एक सार्खी ना. ते दिकून आजु-बाजुच निसर्ग पळयतना अेक्क कडेन स्थिर राब्बून पळया. हात्तांतु दुर्बीन आसल्यारी अती उत्तम. किर्र जंगल, खोल दरी, सावित्री नदीपात्र स्पष्ट दिसता. दुर्बीन पावरफुल आसल्यारी, हवामान क्लियर आसल्यारी राजगड, तोरणा ताजेमाक्षी रायगड ही दिसता. (आमकां रायगड दिसिलना). दक्षिणेक मकरंद गड दिसता. पूर्वदिकान पळयल्यारी महाबळेश्वर पर्वत श्रेणीचें नयन मनोहर दृश्य, राबिल कडच्यान तुमकां हालच्याक दिना.

पूर्ण प्रतापगड पोळोनु परत महादरवाजालागी येत्तना दोन-अडेच तास जात्ताती. इ. स. १६९०-९१ मद्यें काहीं महिने हो गड मोगलांल हात्तांतु गेलिलो. तें सोळ्यारी इ. स. १६५८ ते १८१८ हो गड कोणे जिंकिलना. निसर्गान ह्या गडाची संरक्षणेची जवाबदारी घेत्तिली. इ. स. १८१८ तु ब्रिटिशर्सानी कोणालो विरोध नाशी हो गड कब्जेंतु घेत्लो.

गडावैल्यान सकल देंव्नु सपाट जमिनीरी अफजल खानाली समाधी आस्सा. ती त्या कालांतु सादा २०-२५ पात्थरानी चुन्नो मात्ती कालेनु बांधिलिली. आजी संगमरवरी पात्थरान बांधिल्या. नित्य नेमान अेक संस्था चादर पांगुर्ता, इतर सेवा ही करता. अफजलखानाल कबरी शेजारी आन्नेक सान कबर आस्सा. ती सय्यद बंडाली. सय्यद बंडा शिवाजीक मेळच्याक गेलिल तेन्ना अफजलखानाल संरक्षक जाव्नु गेल्लिलो.

महाबळेश्वर आनी पंचगणी आयिले यात्री प्रतापगड येव्नु वत्ताती. स्वराज्य, स्वधर्मा खात्तिरी प्राण तळहात्तारी दवोर्नु परकीय शत्रू बरोबर युध्द केलिले, प्राण बलिदान केलिले मर्द मराठांल इतिहास ज्या भूभागारी घड्लो तो प्रदेश प्रत्येक स्वाभिमानी देशभक्तान पळोवूका. 'संघर्षान जय मेळोवका, संघर्ष चालू दवोर्का' म्हळिलें आमगेल मुकावैल पिडीक सांगूका. हें विसोर्नाक्काती. लक्षांतु उरो.

■ ■ ■



– आशा शानभाग
सादोळशें-काणकोण- गोंय
मो. : ९४०४१४५३३७

# घाडीपण...!



*आतां दर आयतार-बुधवार घारूल्या घरा हीऽऽ गर्दी जावंक लागली. घारू नदर लागपासारको खुदतालो आनी कसलीं कसलीं कुवाडीं करतालो. करण्यो मोडटालो आनी परतयतालोय बी. कितें खरें आनी कितलें फट हें देवाक लेगीत खबर नासलें. पूण हातुंतलीं गुड्डुलसांवां घारू बेस बरो जाणटालो. ताणें मोगाक दिसवड्याच्या कामाक वचपाचें बंद केलें.*

नेण्टेपणांत खंय घारू खूबच देखणो आशिल्लो. भुरगेंपणांतच आवय-बापूय भायर पडिल्ल्या घारूक शंभुभाटकारान घरांत घेतलो आनी भाटकान्नीन आपल्या भुरग्यांवांगडाच ताकाय व्हड केलो. तांच्यावांगडा शाळेंत वचपी घारून मात खूबच आडांगिपणा करून एक दीस मास्तरा कडल्यान भरपूर शेपडावन घेतलें आनी ताचे उपरांत परतो तो शाळेंत वचुनां. बरें खाण-जेवण पडिल्ल्यान आनी सगलीं कश्टांचीं कामां सहजतेन करपाक शकिल्ल्यान घारू आंगापेडान बरो भरलो. ताची भिरभिरी नदर वळखून भाटकान्नीन अठरा-एकोणीस वर्सांच्या घारूलें साळुल्या चेडवाकडेन लग्न करून सोडलें. भाटकारान आपल्या भाटांतलें एक चार कुडींचें लॉज घारूल्या नांवार करून दिलें.

घारू नेमान भाटकारागेर वतालो. कामां कितेंय करतालो आनी भाटकान्नीन दिल्लें खाण-जेवण घरा घेवन येतालो. मोगाक म्हळ्यार घारूले बायलेक तें पटनाशिल्लें. तें हेरशी सादेंच पूण आपल्या घरकारान आपलो संवसार आतांतरी आपल्या बळग्याचेर करचो इतलीच ताची इत्सा. कितलोय समजायल्यार घारू कांयच कानांमनार घेनाशिल्लो. आतां मोगाक आदार एकच तो म्हळ्यार भाटकान्नीचो. भाटकान्नीन मोगाचे विचार आयकून घेतले. तिका पोराची अपुरबाय दिसली. ''मोगा, तुजो सभाव म्हाका आवडलो. तूं धाकुदादाक मेळून रापणीचेर लागपी मनशांची चवकशी कर. हांव घारूक तयार करतां.''

सांजवेळचो घारू जुस्त चावेच्या टायमार भाटकान्नीगेर पावलो. ''घारू, यो रे. हांव तुजीच वाट पळेतालें. घे च्यार्चे कोप तोंडाक लाय हें.'' आनी मागीर भाटकान्नीन मोगाचें नांव लेगीत न घेतां घारूक कासावले रापणीचेर वचपाक तयार केलो. रातीकडेन जेवणां जातकीर घारून मोगाक मांदरेचेर घट वेंगेंत घेतलें. ''मोगा, हांव फाल्यांसावन रापणीर वयतां. धाकुदादाक म्हाजेखातीर भाटकान्नीन सीट दवरूं लायल्या खंय. तूं भाटकान्नीक धरून राव. खरी देवताच गो आमची

भाटकान्न.'' उमेदीन भुल्लुशिलें मोगा ते रातीक सामकें घारूमदीं सरमिसळ जावन मना-कुडीन एक जालें. सकाळीं उठून आपली मुस्तायकी घेवन घारू कासावले वचपाक गेलो. मोगाक भाटकान्नीन आपल्या पाखांपोंदा घेतलें.

घारू आठ-पंदरा दिसांनी बरें व्हडलें नुस्तें घेवन घरा येतालो. भाटकान्नीगेर सुखांत रावपी मोगाक मेळून दोन-दिसांनी परततालो. ह्या तांच्या भेटीचो फायदो सैमान घेवन तांकां तिसऱ्याच्या येवपाची सुलूस लायली. आतां घारूल्या हातांत पयसो बरो घोळटालो. हेरशींचीच ताची भिरभिरी नदर आतां हेवटेन तेवटेन चडूच भिरभिरूंक लागली. बांदावेल्या सुरंगान ताची नदर हेरली आनी सुरंगाचीं सोपणां चडपी घारू सोरो आनी सुरंगा हाच्यामदीं सामको घुस्पलो. घरा येवप कमी जालें. मोगा बाबडें बावील्लेवरी जातालें. पूण जाप काडपाची नासताली. नाजाल्यार तापट घारू ताचेर दोन फुलोवपाकय फाटी फुडें करिनाशिल्लो.

अचकीत एक दिसा घारूक माचुलांत घालून चार जाण घरा घेवन आयले. ''मोगा, हो पय घारू, तायट जावन होडेक आपटलो. आनी तेजें कंबर लेजाद जालां. आतां पात्रवान घरा पावय म्हणोंन सांगलें देकून आमी तेका पावोवुं येयल्याय. ही तेगे जोड!'' व्हडलें पोट घेवन घुसमटून रडपी मोगाक पळोवन घारू शाबुद्देर येतालो. आपली वाट पळोवपी मोगा आनी पयशांक लागून आपल्याक लागीं करपी सुरंगा हांचेमदलो फरक ताका जाणवतालो. कसोय करून बेगीन निवळूंक जाय हे इत्सेन घारून नेट धरलो. हा-हु करून पंदरा दिसां भितर घारू आपलीं कामां आपणे करपा इतलो सावरलो.

आपले पांयाचेर चलपाक लागतकीर घारू पयलीं पावलो मोर्तुलाचे गादयेर. उदारेचेर दनपरां-तिनसांजेचें कोप सुरू जालें. तातुंतच



मोगा बाळांत जावन चेडूं जालें. भाटकान्नीन सांबाळिल्ल्यान सगलें सारकें जालें. मोगा घरा येतकीर कापाजदादीन दिसवड्याच्या कामांक वचून संवसार चलोवंक लागलें. एक दिसा तिनसांजेर घरा येतनां मोर्तुलान ताका आडावन घारूल्या उदारेचे पयशे मागले. चंडिकेचो अवतार घेवन मोगान ताची भरपूर धुलाई केली. ''रांडला पावली मगो उदारी? आतां हेचे फुडें जाय तितलो उदार सोरो म्हागे घोवा दी. आनी वसुली करोंक म्हाजे फुड्यां यो.'' दुसरे दिसा दनपरांचेर घारू मोर्तुलागेरच्यान सुक्या ताळ्यान आनी गरम बोडान घरा आयलो. ''मोगा, हहह तूं मोर्तुला फुड्यां झगडों गेल्लें?'' म्हणून ताणें मोगाचेर हात मात उखल्लो. मोगानच ताचेर दोन फुलयलीं. त्या दोन फोगेट्यांनी वागमाम जाल्ल्या घारूक मेणाच्याकय मोव केलो. ते दिसासाकून घारून घरांतच रावन घरकान्नीचो रोल करपाक सुरवात केली. घराकडेन रावन ताची तकली पिड्ड्यार जावपाक पावली. विडयांचें बंडल लेगीत घेतलो म्हळ्यार मोगाक पांय पडचे पडटालें. ताका कासावलेची रापण, सुरंगा सगलें येवजतालें. पाडा पडूं! त्या वेसनांनी घात घेतलो म्हणून तो कपलाचेर हात मारतालो. कितें करपाचें ह्या चितनांनी तो पिसो जावंक पाविल्लो. अचकीत ताणें 'आयडियार' म्हळें. एक दिसा सकाळींच घारू खुदपाक लागलो. 'हां-हांहुं' 'आंहां-हां' ताचो सांवार पळोवन मोगाय भियेलें. वाडिल्लें खाड, गरगर करू फिरपी दोळे पळोवन मोगान एक नाल्ल ताचे भोंवतणीं उवाळ्ळो. ''देवा वेताळा. पाव रे. म्हारवान धरला सो दिस्ता.'' तेबरोबर इतलो वेळ खुदपी घारू धाण्णकन जमनीचेर उदारोच पडलो. मोगान ताच्या दोळ्यांक उदक लायलें. ''हांव खंय आसां? कितें जालें गो मोगा? बाय खंय?'' अशे प्रस्न करीत मोगाक पळेलें. मोगा अजापलें. अर्दवर खुदपी, बोबो मारपी ह्या दादल्याक कांयच याद नां?

येदें म्हणीसर फुडल्या-फाटल्या दारांतल्यान तांच्या घरांत लोकांच्यो झुंडी घुसल्यो. पुतुदाद फुडें सरलो. ताणें एक नाल्ल आनी पडभर तांदूळ घारूमुखार दवरले. ''देवा, राखणदारा, ह्या वाठाराच्या पुरसा... खूब वर्सांनी तूं परतो आमचे गांवांत येयलो. आतां हेंच झाड धरून हिंगाच राव देवा.'' 'हय देवा' म्हणून गर्देन ताका सात दिली. घारूक आपलो बाण वर्मार बसला हें उमगलें.

आतां दर आयतार-बुधवार घारूल्या घरा हीऽऽ गर्दी जावंक लागली. घारू नदर लागपासारको खुदतालो आनी कसलीं कसलीं कुवाडीं करतालो. करण्यो मोडटालो आनी परतयतालोय बी. कितें खरें आनी कितलें फट हें देवाक लेगीत खबर नासलें. पूण हातुंतलीं गुड्डुलसांवां घारू बेस बरो जाणटालो. ताणें मोगाक दिसवड्याच्या कामाक वचपाचें बंद केलें. कारण आयतार-बुधवाराची जोड पुंजयतलो कोण? नाल्ल, तांदूळ, कोंबे आनी पयशे हांच्यो राशी घरांत पडूंक लागल्यो. एक गजाल मात खरी की दोतोर-वैज करून खर्शेल्ल्या लोकांक लेगीत घारूल्या कुवाड्यांनी गूण पडलो आनी आतां घारूक लोक लागसारच्या गांवांतय आफोवंक लागले. आतां मोगाच्या आंगार, हातांत चार वस्ती चकचकपाक लागल्यो. एकंदर घाडीपणान घारूल्याय संवसारांत सूख आयलें.

अचकीत एक दीस पायतोडी वाड्यावयल्यान भिकू भाटकारालो मनीस रकाद घेवन आयलो. ते गांवचो हो पेजाद मनीस भाटकाराली वाडून पडिल्ली मेवणी थंय खंय शिगमो घालताली. घारून आपली पोती सासपिली. काळे तीळ, ऊद, धूप, पिंजर, दोन-तीन हाडकां अपुरबायेन पळेली आनी येत्या बुधवारा येतां म्हणून परतो रकाद दिलो. बुधवारा सकाळीं मळार वचून कडुलिंबाचे बरे टाळे मोडून घेवन घारू घरा आयलो. सांजवेळा बेगीनच तो भाटकारागेर गेलो. थंय पळेल्यार भाटकाराली मेवणी चार-चार जाणांक आटपना आसतनां धुमशेणां काडटाली. घारून थंय पावतासर आपलें हा-हु सुरू केलें. आतां दोगांयची जणू जुगलबंदीच सुरू जाली. अचकीत घारून ऊजो पेटयलो आनी तातूंत ऊद आनी धुपाचो बचकोभर फवारो मारलो. घर-दार धुंवरान दाटलें आनी त्याच खिणाचो लाब उठोवन घारून मेवणेची केशटुलां धरलीं आनी कडुलिंबाच्या टाळयांनी ताका यतिश्ट शेपडायलें. चार बरेच धपके पडतकीर भुत-बित नाच्च जालें. "कोण गे तूं? आनी ह्या घरांत कितें करपाक आयल्या?" घारू सामको जुवीज कसो प्रस्न करतालो. मेवणी बरीच भियेल्ली. तिचे बाबडेच्या तोंडांतल्यान उतर फुटनाशिल्लें. घारून कडुलिंबाचो टाळो हालयलो मात. ती लागली बोब मारपाक. "वतां, वतां. ह्या झाडाक सोडून हांव वतां." "आगे तूं कोणाच्या रूपांत वयता. सांग?" घारून घणघणीत प्रस्न केलो. जाप ना दिल्यार मार पडटलो हें चितून मेवणी पयलींच म्यांव-म्यांव करत हात-पांयांचेर चलत भायर गेली. आनी थंय वचून निपचीत पडली.

"भाटकारा, पाळणींतल्या चिचेरूखावेली आलवांतीण ही. थिंगा वचोन कुवाडें करपा जायें. दोन कोंबे आनी सोऱ्या पाव हाडाय बेगीन." घारूल्या ओर्दीनुसार बेगबेगीन सगलें सामान, वांगडा तांदूळ, नाल्ल आनी रोकड दुडू घारूमुखार येवन पडलें. घारून पाळणींतल्या चिचेपोंदा दोनूय कोंबे कापले. तांच्यो मानो थंयच वडयल्यो आनी मोगाल्या हातच्या सुरबूस सागोतीची रूच काडत घारू घरा वचपाक भायर सरलो. मळावेल्यान गेल्यार अर्दवराची वाट म्हणून घारू बेगोबेग चांटयो मारपाक लागलो. पाळणींतल्यान वयर मळार पांय दवरतनां हाचेंय आंग मात्शें शिरशिरलें. घारून फेणयेची बाटली उगडून घोटभर घेतलें आनी फुडें पळयत चलपाक लागलो. फाटल्यान सुकीं पानां चिड्डल्लो आवाज येता म्हणून खिणभर तो रावलो. तर आवाज बंद. हाका पापयाक फाटल्यान पळोवपाचें काळीज ना. हाणें आपली पोती सांबाळत धांवपाक सुरवात मात केली. एकदम फाटल्या चार पांच जाणांनी हाका धरलो आनी यतीश्ट शेपडायलो. हाचो विडो, दोनूय सोऱ्याच्यो बाटल्यो आनी मानो नाशिल्ले कोंबे घेवन चारय जाण फुज्जो जाले. हो बाबडो लंगडत भिकूभाटकारागेर आयलो. "भाटकारा दार उगड."

"आरे घारू तुजी अशी दशा कोणे केली रे?"

"भाटकारा, पयलीं भितर येतां. बाबा घोटभर फेणी दी पळोवया. मारिल्ली तिवूय देंवली." घोटभर मारतकीर घारूक नेट आयलो. "भाटकारा, तुजे मेवणेवयल्यान देवयिल्ल्या आलवंतीणीन चिंचेवेल्या रौद्रयाक आनी मुंज्याक जोडये घेवन म्हाजेर हल्लो केलो. हांवें कुवाडें करतांसर ताणी म्हाका बडयलोच. मागीर मात ती पळ्ळी!" भाटकान्नीन दिल्ली पेज जेवन घारू थंयच लवंडलो.

दुसरे दिसा सकाळीं मात्शें उजवाडतकीर घारू घरा वचपाक भायर सरलो. पाळणींतल्यान हेवटेन-तेवटेन पळयत मळार चडलो. घरच्या ओडीन झपझपीत चलपी घारूली नदर कडेक वळ्ळी. थंय ताचे रातीचे दोनूय क्वार्टर रिकामे पडिल्ले आनी जमनीर ऊजो पेटयिल्ल्या जाग्यार कोंब्यांचीं हाडकां आनी दोकेय आशिल्ले. 'आरे हे कोण तरी मनीसच मरे!' अशें चिंतताल्या घारूक गाब्रु, राणू, किस्तु आनी रंगून आडायले. "घाड्या, कालचे कोंबे रूचीक बरे आशिल्ले. चोय. हेचेफुडें मार खावों नाका जाल्यार आमकोडें हात मेळोय. आमी वाटणी करया बरेपणान. तू विड्याचे पयशे वाडय जाय जाल्यार. ते सगले तुका. कोंबे आनी क्वार्टर मात आमकां!!" आनी व्हडाव्हडान हांसत ते फुडें गेले. घारू मात ह्या जिव्या म्हारवांखातीर कसलें कुवाडें करूं हें चितत घरा वचपाचे वाटेक लागलो.

■ ■ ■



- विन्सी क्वाद्रूस
'स्नोज कृपा',आर्लेम राय,
सालसेत-गोंय
मो. 9822587498

# मॅकानीक



*काजार जायत सावन बाबडो कास्तीग सोसतालो. खरें म्हणल्यार ताका बायलच चुकिची मेळ्ळी. तिणें ताका केन्ना समजलोच ना. दोग जाण चेडे जाले तरी तिणें मोगान ताका केन्नाच घेतलो ना. सदां घराकडे वाद-विवाद जाताले. म्हण तो परदेसांत गेलो. थंय थोडीं वर्सां रावलो. तरी कांयच बदल जालो ना. ती आपलेंच करी. मागीर तो सोरो पियेवंक लागलो.*

**मा**नू पदेरान आपली सायकल सॅबी मॅकानिका फुड्यांत व्हरून थांबयली. सॅबी आपल्याच विचारांत खंय तरी गुल्ल आशिल्लो. ताचे मुखार एक सायकल आडवी आशिल्ली आनी ती सारकी करपाची ताचें काम चलतालें. रोदां निखळावन दवरिल्लीं आनी आपल्या हातांत कादय घेवन कसलो तरी विचार करीत तो सायकली कुशीक बसून आशिल्लो.

''सॅबी बाब, मात्शें पळय मरे, पेदालच मोडलें दिसता.'' मानून सायकल स्टॅण्डार काडीत म्हणलें.

''दनपारां बोस्त्यानागेर उंडे घालूंक जाय. नातवालो वाडदीस खंय आज.''

तो उलयत आशिल्लो. पूण सॅबीच्या कानार ताचें कांयच सादनाशिल्लें.

''सॅबी बाब कसलो विचार करता रे!'' मानून व्हडल्यान म्हणीत ताका हात लायलो.

''हां....'' सॅबीक जाग आयली.

''सायकलीचें पेदाल मोडलें मरे. मात्शें बेगीनच करून दिवंशी? ना जाल्यार बोस्त्यान बोवाळ मारतलें.'' बोस्त्यानाचो चेहरो आपल्या दोळ्यांमुखार हाडीत भिरांतीन मानून सॅबीक परिस्थिती सांगपाचो यत्न केलो. मानूचीं उतरां आयकून सॅबी उठलो. आपल्या हातांतली कादय थंयच उडयली आनी एका कपड्याक आपले हात पुशीत ताणें मानूचे सायकलीच्या पेदालाचेर नदर घाली, आनी घुंवडावन पळयलें, तें घुंवनाशिल्लें.

''पळय मानू, ह्या पेदालाचें बॅरींग बॉल्स इबाडल्यात. पेदालच नवें घाल्यार चड बरें जातलें.'' पेदाल दाखयत सॅबीन अडचण सांगली.

'''तुजे कडेन आसा हांगा?'' आपली सायकल केन्ना काय सारकी जाल्ली मानूक जाय आशिल्ली.

''बाजारांतल्यान हाडचें पडटलें. तें सगळें हाडून दवरूंक कुंवत आसा रे म्हाका?''

''घात जातलो मरे, बाजारांत आनीक कशें वचूंक मेळटा आतां? बोस्त्यान सोदूंक येतलें घराकडेन. गरम गरम उंडे घालतां म्हळ्यात आनी बायलेन तयार करूनय दवरल्यात आसतले.'' मानूचें काळीज धडधडपाक लागलें.

'''इतलो कित्याक भियेता? राव. तुका सायकल सारकी करून दिल्यार पुरो न्ही?''

सॅबीन ताका धीर दिलो. तो आपले सायकली कडेन गेलो आनी पेदालाचो पुराय शाफ्ट सयत काडून घेवन आयलो.

"आरे पूण हो कोणाचे सायकलीचो शाफ्ट काडून हाडलो तुवें?"

"म्हजीच सायकल रे ती. ती आतां दिसभर बेकार आसतली हांगा. सद्‌द्याक तुजी गरज कर. बाजारांत वचपी कोण ना कोण मेळटलो हांगा. हांव कोणाकय हाडूंक लायतां." उलयतां उलयतां सॅबीन सायकलीचो पेदाल शाफ्ट काडलो आनी आपलो बसयलो.

"तुवें व्हड उपकार केलो म्हजेर." म्हणीत मानून बॉल्सांत हात घालो.

"आरे पयलीं तुजें पेदाल हाडून घेतां, मागीर दी पयशे." सॅबीन ताच्या हाताक धरीत म्हणलें.

"सांजेर खोर्नाक उजो घालून येतां हांव."

"सुशेगाद यो तूं. पयलीं बोस्त्यानाक बेगीन उंडे घा."

"घे, ही गोडाची भाकरी खा. एकूच उरल्या ती."

मानून आपल्या पांट्यातली एक भाकरी काडून सॅबीच्या हातांत घाली आनी तो गेलो.

अख्या गांवांत सॅबी सारको सायकल मॅकानीक नाशिल्लो. रातचें इल्लें घेतालो होच ताचो देफेत. ना जाल्यार तो जिवाक जीव दिवपी इतल्या विस्वासाचो. ताची आपली सायकल म्हणल्यार स्पॅर पार्टांच्या दुकाना भशेन. कोणालेय सायकलीक एक वस्त नवी घालूंक जाय जाल्यार तो पयलीं आपले सायकलीची काडून घालतालो आनी सायकल तात्पुरती सारकी करून दितालो. अशे तरेन ताणें कितल्याच लोकांची गरज केल्ली. म्हण तो लोकांचे आवडिचो जाल्लो. ताणें लोकां कडेन केन्नाच पयशे मागले नांत, लोक आपूण जावन ताका धा रुपयांक वीस रुपया दिताले कित्याक तो दुसऱ्यांक भावनांनी समजून घेतालो. आज जर मानूची सायकल सारकी जावंक नाशिल्ली जाल्यार तें बोस्त्यान ताका खावंक येवपाचें. नुस्तेकान्न ती. बाजारांत लोकांक अशें कातरता की पळोवंक गेल्यार ताचे फुड्यांत नुस्तें घेवंक लेगीत कोणें वचपाचें न्ही. कोणालोय राग कोणाचेरय काडपाचो ताका दुर्गूण. पूण थंड आसल्यार एकदम मोगाळ. दोन उडय म्हणल्यार नुस्तें सवाय आसतना दोनांक तीन उडोवपी. मानू ताका सारको भियेतालो म्हण सॅबीकडेन ताणें फावोर मागिल्लो. आतां बोस्त्यानाच्या नातवाच्या वाड दिसाचो समारंभ आशिल्लो.

मानून खास केल्ले उंडे बोस्त्यानाच्या घरा पावयले. जेवलो आनी सांजेर पोळयो करूंक मानायांक पीठ मळूंक सांगलें. खोर्नाखातीर लाकूड हाडून दवरलें आनी कोळशांक उजो घालो.

"मानायाचें पीठ मळून जातच खोर्नाचो उजो दाळ. हांव मात्सो सॅबी फुड्यांत वचून सायकलीक नवें पेदाल घालतां आनी ताचे पयशेय दितां. केदी व्हडली गरज केली ताणें." मानून आपले बायलेक सांगलें.

"आतांच खंय वता? ते ऑमलेटकार मागीर बोवाळ मारूंक लागतात. पयलीं पोळयो आनी थोडे उंडे घालून यो." बायलेन धंद्याची अडचण ताचे मुखार घाली. मानायांनी सकाळची तयारी करूंक जाय म्हण सांजेर पोळयो घालूंक तोच वतालो.

"बरें चल, पोळयो जाल्यार पोळयो पयलीं घालतां." तो रागान बसलो.

"हें पळय बाय कितें सांगूंक सोदतालें. आज बोस्त्यानाचे वेगळे ऑर्डरीन कितेंय सुटलां तें आयकलां भुरग्यांनी." बायलेन आपणावेलें निवारूंक चेडवाकच मुखार घालें.

"कितें जालां गो?" मानून आपले धुवेक विचारलें.

"डॅडी, जायते दीस जाले, तुवें आयस क्रीम हाडूंक ना. आज हाड न्ही?" ताच्या धा वर्सांच्या चेडवान बाबडें जावन विनंती केली.

"तुवें तयार केलां मुगो ताका?" मानून बायलेक वांकडे नदरेन पळयली. चेडूं ताका रागान पळोवंक लागलें. आपलें उतर आयकना म्हण. "बरें बरें. सांजेर पोळयो घालून येतां तेन्ना हाडटां हांव." ताणें चेडवाक खुशाल केलें. थोड्या वेळान पोळयो जाल्यो. त्यो सायकलीवेल्या पाट्यांत घाल्यो आनी तयार जाल्ले उंडे पोतयेंत घालून सायकल घेवन भायर सरलो.

पोळयो घालून जाता म्हणसर काळोख पसरूंक लागलो. मानू बेगी-बेगीन पेदालां मारीत सायकल घेवन सॅबी फुड्यांत आयलो. पळयल्यार सॅबीचो गाडो बंद. गाडो म्हणल्यार एका व्हडल्या आंब्या मुळांत रस्त्या कुशीक ताचें तें उक्तें वर्कशॉप आनी तें बॉक्स म्हणल्यार सायकली सारक्यो करपाचीं ताचीं सगळीं आवतां. 'आज बेगीन गेलो दिसता.' मानून मनांतच म्हणलें.

"पोळयो आसात रे मानूबाब?" एका जाण्टेल्यान मानूचे सायकलीक पाटें आसा तें पळोवन विचारलें.

"ना रे जुजे इरमांव. सगळ्यो सोंपल्यो. सकाळीं सायकलीचें पेदाल मोडलां म्हण आयिल्लों. सॅबी म्हणूंक लागलो नवेंच घाल्यार बरें. म्हण, पेदाल घालूंक आनी ताचे पयशे दिवंक सॅबी फुड्यांत आयिल्लों. आज बेगीन गेलो दिसता." मानून आपलें वर्तन केलें.

"बेगीन गेलो? तो सोमतोच गेलो मरे, तुका खबर ना?" जुजे इरमांवान एक बॉम्ब फोडलो.

"सोमतोच गेलो? खंय गेलो?" मानूक ताची गजाल समजूंक नाशिल्ली म्हण ताणें अजापून विचारलें.

"ताणें गोळ घेतलो न्हय रे!"

"कितें?" मानूचे हात कडकडले. "हांव ताका पयशे दिवंक जाय आशिल्लों. आतां..."

"आतां आनी कितें? कोणा कडेन दितलो? बायले कडेन? भुरग्यां कडेन?"

"सकाळीं तो बरो आशिल्लो. बरे उमेदीन आपले सायकलीचें पेदाल शाफ्टासयत काडून म्हजे सायकलीक लावन दिलां आनी... कसली अडचण आशिल्ली ताका गोळ घेवंक?" सायकल आंब्याक तेंकयत तो जुजे इरमांवां फुड्यांत उबो रावलो.

"काजार जायत सावन बाबडो कास्तीग सोंसतालो. खरें म्हणल्यार ताका बायलच चुकिची मेळ्ळी. तिणें ताका केन्ना समजलोच ना. दोग जाण चेडे जाले तरी तिणें मोगान ताका केन्नाच घेतलो ना. सदां घराकडे वाद-विवाद जाताले. म्हण तो परदेसांत गेलो. थंय थोडीं वर्सां रावलो. तरी कांयच बदल जालो ना. ती आपलेंच करी. मागीर तो सोरो पियेवंक लागलो. सवका सवका सोरो ताचें वेसन जालें. चेडे व्हडले जावंक लागले. तांका तें आवडना जालें. मागीर तो चडूच एकलो पडूंक लागलो. तेन्नाच कोणे तरी ताका बुदूध दिली ताचो हातगूण वापरूंक आनी सायकली सारक्यो करूंक. पंचायतीक सांगून हो लुगार ताणें मेळयलो सायकलीचे काम करूंक. एक बरो सायकल मॅकानीक तो. एकेच नदरेन तो सांगतालो सायकलीक कितें जालां तें. सायकल सारकी करून ताणें पैशांची केन्नाच अपेक्षा केली ना. कोण कितें दिता तें घेतालो. पूण आज मेरेन ताणें कोणाकडेन कितें मागिल्लें आयकूंक ना. तो सोरो पियेतालो पूण ऑर्दाद



आनी फक्त आपल्या खुस्तार. म्हाका दिसता परदेसांत जोडिल्ले जोडींतल्यान तो भागोवन घेतालो. एक दीस आपली गजाल हांगाच बशिल्ले कडेन सांगली ताणें. काल असोच चिंतेस्त बसून आसतना हांव ताचे कडेन उलयल्लों. पूण ताचें मन थाऱ्यार नाशिल्लें. आतांच दनपारां दोनांक सुमार घराकडेन वचून चाव करून पियेलो खंय आनी न्हिदूंक वतां म्हण गेल्लो, पळयल्यार हो वयर फॅनाक लांबता." जुजे इरमांवान ताचो पुराय इतिहास सांगलो.

"आनी घरांत कोण नाशिल्लीं तर?"

"तो एकलोच कुडांत रावतालो न्हय रे? ताचें कोणाकच पडून वचूं नाशिल्लें."

"आतां खंय आसा? घराकडेन?"

"ना, पोस्ट मॉर्टम करूंक बांबोळे व्हेला खंय. हांव गेल्लों घराकडेन. ताची कूड फाल्यांच हाडटले आनी सांजेर मरण जातलें अशें कितें म्हणटालीं घराकडेन."

"'घरा कडेन गेल्यार कोण मेळत म्हाका?"

"तूं वळखता ताच्या कोणाक?" मानून 'ना' म्हण मान हालयली. "मागीर!"

सॅबीची सायकल थंयच आशिल्ली. ताच्या पेदालाचो शाफ्ट काडिल्लो आशिल्लो. मानूचे सायकलीचें पेदाल शाफ्ट सयत तसोच पडून आशिल्लो. ताणें एक नदर आपले सायकलीक घाल्ल्या पेदालाच्या शाफ्टाचेर घाली. ताच्या दोळ्यांमुखार सॅबी उबो जालो, तो ताची सायकल सारकी करतालो. नकळतांच ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवलीं. जड मनान तो थंयच्यान कुशीन सरलो. सॅबीच्या दुखखान घरा पावता म्हणल्यार आपले धुवेक आयसक्रीम व्हरूंक तो विसरलो.

■■■



# केपेंची दियांव पालास

कुशावतीच्या काठार वसलां सोबीत सुंदर केपें शार जें केपें म्हालाचें मुखेल केंद्र. केपें शारांत इतिहासीक दायजाच्यो कितल्योशोच गजाली आसात. तातुंतलीच अजापीत करपी एक वास्तू म्हळ्यार केपेंची दियांव पालास. ही पालास म्हळ्यार एक इतिहासीक वास्तू. दियांव म्हळ्यार कोण असो सगळ्यांकूच प्रस्न पडला आसतलो. तर ह्या पालासीच्या इतिहासाचेर एक नदर मारूया.

दियांव म्हळ्यार डीन. रोमन कॅथोलीक चर्चीचो गोंयचो त्या काळाचो मुखेली कसो. ही केपेंची पालास ताणेंच बांदिल्ली. हो दियांव आशिल्लो दियांव जोस पावलू परेरा दी आल्मेदा आनी ताणेंच १७८७ ह्या वर्सा ती केप्यां बांदिल्ली. हो दियांव पोर्तुगालचो. तो गोंयांत ३ ऑक्टोबर १७७९ वर्सा एकोणीस वर्सांचेर आयिल्लो. तो तेन्ना सावन एक-एक पावंडो चडून गोंयच्या रोमन कॅथोलीक चर्चीचो दियांव जालो.

ताणेंच केपें शाराची स्थापणूक केली. कारण पयलीं केपें शार म्हणून कांय नाशिल्लें. तें आसलें कुस्मण.

दियांव जोस पावलू परेरा दी आल्मेदा ह्या पोर्तुगीज पाद्रीन १७८७ ह्या वर्सा ओल्ड गोवासावन कुस्मण गांवांत आपलें बस्तान बसयलें आनी ल्हानशा अशा केपें शाराची स्थापना केली, कुशावती न्हंयचे सामकें देगेर. त्या काळार कुस्मण सगळें रानान भरिल्लें. दियांवान ऑर्द काडली की हांगा भात, माड आनी फळांचीं झाडां लावपाचीं. ताणें हांगा एक रासवळ बाजार, हॉस्पीटल आनी समाज उपेगी जायत्या अशा गजालींची केपें शारांत स्थापणूक केली. थंय ताणें सांताक्रूझ नांवाची इगर्ज बांदली. केपें शाराच्या दारांत दोन खांबे उबारले आनी आपल्याखातीर दियांव हाणीं एक सुंदर सोबीत पालास बांदली जिका पालासियो दो दियांव अशें म्हणटात.

ही पालास व्हड आनी प्रशस्त आसा. दुर्गा भितर एक सुंदर बाग आसा. ही बाग सगळ्या तरेच्या झाडां खातीर प्रसिद्ध आशिल्ली. सोपणां चडलीं काय पालासीच्या बल्कांवाचेर पावतात. थंयच्यान कितलें सोबीत सैम दिसता!





पालासीच्या फाटल्यांतल्यान कुशावती न्हंय व्हांवता. फातरा वेल्यान तो देखावो खरोच सैम सोबीत. दियांव कुशावती न्हंयेंत पेंवतालो. १८२९ ह्या वर्सा दियांवान ही भव्य पालास पोर्तुगीज व्हायसरॉय आनी गव्हर्नराक भेट दिली. जायते पोर्तुगीज व्हासरॉय आनी गव्हर्नर थंय रावपाक लागले. देखीक पोर्तुगीज व्हायसरॉय कोंदे दे तोर्रेस नोवास आनी ताची घरकान्न १८६२ ह्या वर्सा दियांव पालासींत रावली. १० जानेवारी १८३५ ह्या वर्सा दियांवाक मरण आयलें.

ही केपेंची दियांव पालास इंडो-पोर्तुगीज वास्तूशास्त्राचो उत्कृश्ट नमुनो. हांगा बल्कांव, आल्तार, साल, आदल्यो लाकडी वस्तू, कितल्योशोच कुडी बी आसात.

आदले पोर्तुगीज राजा जशे रावताले तसो हो दियांव ह्या पालासींत रावतालो. तेन्ना केपें शांत वाठार आशिल्लो. झाडां-पेडां, देवळां, थोडींच घरां अशें कुस्मण म्हणजेच केपें. आतां कुस्मण केपें शारा लागसराक एक गांव जाला. अठराव्या शेंकड्यांत पोर्तुगीज दियांव कसो रावतालो ताचें दर्शन आमकां हांगा घडटा.

सद्द्या ही पालास रूबन आनी सेलिया द गामा ह्या घराब्याकडेन साठ वर्सांच्या लिजाचेर आसा. विदेशी पर्यटक ही पालास पळोवंक येतात. पूण चडशा गोंयकारांक हे पालासीविशीं खबर ना. केप्यां शारांत दियांवाची पालास खंय आसा अशें कोणूय केपेकाराक विचारल्यार तो सांगतलो. गोंयच्या अठराव्या शेकड्यांतलें एक पान अशी ही पालास.



तर तुमी आमच्या भांगराळ्या गोंयच्या ह्या भांगराळे सोबीत पालासीक भेट दियात आनी अठराव्या शेंकड्याच्या एका इतिहासाच्या पानाचो उलगडो करून घेयात.

# जुवें-सांत इस्तेव्हची इतिहासीक इगर्ज

जुवें वा सांत इस्तेव्ह हें एक बेट. आदल्या काळांत तें शाकेचें जुवें म्हण पुराय गोंयांत फामाद आशिल्लें. तें सात शिरांच्या भेंड्यांक लागून अजून मेरेन फामाद आसा. सैमीक दायजान तशेंच इतिहासीक दायजांत जुवें बेट नटलां. जुवें वा सांत इस्तेव्हचे हे इगर्जेक इतिहास आसा. तिचें वास्तुशिल्पूय खुबूच सुंदर. तिच्या घुडाक लागून ती चड्डूच उठून आनी सोबीत दिसता. तर ह्या सोबीत इगर्जेच्या इतिहासाचेर एक नदर मारूया.

तर १५५५ ह्या वर्सा जुवेंचो पयलो हिंदू गांवकार क्रिस्तांव जालो. ताचें नांव आशिल्लें सांपूर सांतू. १५६०-६३ ह्या वर्सा भितर जायते हिंदू क्रिस्तांव जाले. १५५६ ह्या वर्सा जुवेंचें परब कुटूंब क्रिस्तांव जालें.

१५७५ ह्या वर्सा जेजूइत पाद्रीनी जांकां पावलीस्त अशेंय म्हणटाले ताणीं जुव्यां ही इगर्ज बांदली जी सांत स्टीफन हांकां ओंपिल्ली. म्हणजेच सांत इस्तेव्ह हे इगर्जेवेल्यान जुव्यांक सांत इस्तेव्ह हें नांव पोर्तुगीज काळार पडलें. पूण ही आदली १५७५ची इगर्ज मातयेच्या वण्टींनी आनी चुडटांनी बांदिल्ली.

जुवेंची ही पयली इगर्ज. हांगा पयलीं रवळनाथाचें देवूळ आशिल्लें. तें पोर्तुगीजांनी मोडलें. २४-२५ नोव्हेंबर १६८३ वर्साचे राती संभाजीन जुवें घेतलें. संभाजीन जुवेंचो किल्लो घेतलो. १७३९ ह्या वर्सा मराठ्यांनी परत जुव्यांचेर कब्जो केलो.

१७५९ वर्सा मोडिल्ली इगर्ज जुवेंच्या कोमुनदादीन परत बांदली. सद्द्या जी आमकां इगर्ज दिसता ती १७५९ ह्या वर्साची. आतां हे इगर्जेक २५० वर्सां जालीं.

इगर्जेचें वास्तुशील्प हें लॅटीन-रोमन- पोर्तुगीज शैलीचें. इगर्जेचो फुडलो भाग खूब दर्शनीय आसा. मदीं एक घूड आनी ताचे वयर लापयांवा आकाराचो आनीक एक ल्हान घूड. दोनूय वटांनी जुवळे





हे इगर्जेत जायत्यो घडामोडी जाल्यात. २४ मार्च १८९० ह्या दिसा इगर्जेंत चोरी जाली. इगर्जेचीं पवित्र पात्रां चोरयेक गेलीं. इगर्जेक तीन आल्तार आसात. जो मुखेल आल्तार आसा तो सांत इस्तेव्हाचो जाल्यार उरिल्ले दोन आसात ते आवर लेडी ऑफ रॅमेडिओस आनी जिजस दी क्रूसिफायड. जीलासियो दोस रॅमेडिओस फुर्तादो ह्या गांवकारान आपले सगळे दुडू मोडून १७५९ वर्सा ही इगर्ज बांदपाक खूब आदार दिलो.

अशी ही इतिहासीक इगर्ज पयसुल्ल्यान म्हळ्यार पणजी ते ओल्ड गोवा वा मांडवी पुलावेल्यान दिसता. तुमी जुंव्यार पावल्यार हे इगर्जेक भेट दिवपाक विसरूं नाकात. जुवेंचो किल्लोय पळोवन घेयात. जुवेंच्या इगर्जेकडल्यान तोल्टो आनी आखाडा हीं सोबीत जुंवीं सामकीं लागीं. जुंवें म्हणजे गोंयचो पांचवो पाचू आनी ही इगर्ज तांतुंतलो एक सोबीत धवो खडो.

बुरूज. हे इगर्जेंत बारोक, रॉकोको, कॉरिन्थ्रेन, ग्रीस-रोमन, रोमानीश्क अशा वेगवेगळ्या युरोपियन वास्तुशील्प शैलीचें दर्शन घडटा. इगर्जेचो दुदाळ रंग तर इगर्जेची सोबाय वाडयता. इगर्जेचो वाठार तर कितलो सोबीत. पांचवीचार शेतां हे इगर्जेची वाट सर्ग सोबीत करता. इगर्जेचो सगळो वाठार शांत आसता. २६ डिसेंबराक हे इगर्जेचें मुखेल फेस्त म्हणचे सांत इस्तेव्हाचें फेस्त भरता. त्या दिसा जुवें फुलून उठटा. रातचे तियात्र आसतात. चडशा जुंवेकारांचीं काजारां हेच इगर्जेंत जातात. १८४२ ह्या वर्सा कोमुनदाद ह्या जुवेंच्या ग्रामसंस्थेन इगर्जेंत आनीक सुदारणा केल्या.



– प्रा. प्रजल साखरदांडे
एस-३, बी-३, पुर्वा अपार्टमेंट्स,
मरड, करंझाळें - गोंय.
फोन : ७८७५२४००६९





एप्रिल २०११ च्या अंकांत 'गोंयची भोंवडी' हातूंत सांत कातारिनाचें कपेल आनी पणजेचें महालक्ष्मी देवूळ हांचे सुवातेर भलतेच फोटो नजरचुकीन पावले. खरे फोटो हांगा दिल्यात. - संपादक



# सदाफुली

सदाफुली
सादीशी सदाफुली
सामकी सामान्य
सर्वसादारण
सदांचीच सदाफुली
सदासुखी समादानी
सरळ सरुपी
सदाफुली
सदां फुलतली
सदां हांसतली
धवी जांबळी गुलाली
सदाफुली
कोणय पळोवं, ना पळोवं
कोणय हांसो, ना हांसो
तूं सदां हांसतली
सदाफुली
वाटेवयल्या शेंकऱ्यांत
तूं सहज सुलभ कोंबरेंतली
तूं सदां फुलतली
उदक सारें घालूंक
अपुर्बाय कोरूंक
कोणाकूय वेळ ना
पोरसांतल्या गुलाबाक
सारें घाल, उदक घाल
आळो कर, माटोव धर
ताजो तुका जाळ ना, खंत ना
तूं सदां हांसत हांसत
नाजूक चवरां नाचयत नाचयत
धोलतली फुलतली
वाटेर येतल्या वेतल्यांक पोळौन
मोड्यो करीत हांसतली
कोणूय एकादो वाटसरू
संवकळीचो हांसो पोळौन
मुमुरखेंच हांसतलो
खुशीन उमेदीन
पावलां मुखार घालतलो
सदानंदी सदाफुली
अशीच सदां फुलत राव
अशीच सदां हांसत राव
सदाफुली



– इंदू अशोक गेरसप्पे
बंगळुरू

## बकें

शेतान काल वयतना .
वाटेर मेळळें बकें
रडत रडत लागलें म्हणूंक
तळें जालें सुकें
सुक्या तळ्यांत ना गो उरूंक
एक लेगीत खरू
एका पांयार उबें रावून
कितें तोंडात धरूं?
ओंखणयां शेतांत भोवून-भोवून
लागली पोटाक भूक
तळ्या बांदार ना गो उरूंक
एकूय जितो रूख
रुखा वयली शिल्ली सांग
खंय गो गेली पळून
बेबकांच्या सान पोरांक
कोणी खाल्लीं तळून?
मन आतां ना गो थाऱ्यार
सोडून वतां देस
म्हज्याय दोळ्यांत आयलीं दुकां
पळोवन बक्या भेस

– रमेश साजू घाडी
सालिगांव-गोंय

## वाडदीस : एका दुःखाचो

पुंजावन हाडिल्ले आशे भड्डोवन
पेज केली मू?
आतां मिठाखातीर वणवण फिरूं नाका
दोन कुलेरां तुजीं दुकां पेजेंत ओत
आनी एक काम कर पुते
फकत निवोळ तितलो तुज्या रत्नाक घाल
तुवूंय घोटभर पी
उप्रांत कुयांतलो एक एक गोटो
गांवांतल्या घराकणकणी वाट
आयज तुज्या दुःखाचो वाडदीस न्हय?



– आर. रामनाथ
एम-ओ-६,
गोवा हाऊर्जींग बोर्ड,
कुर्टी - फोंडा, गोंय.





## जिवित

जिवित जगवप कठीण जालां
तरीकय आमकां जगपाक जाय
दुख्खाच्या वादळी तडाक्याक
पयस भिरकावून दिवपाक जाय
कोण कोणाचो या जगांत
सोयरीं-दायरीं सगळीं आसात
घातल्यार खावड खायत रावतलीं
खिणांत करतली फाट तुका
आसल्यार शीतां नाचतलीं भूतां
कोणाचीच अपेक्षा बाळगूंक नाका
देडा वेताच्या पोटाची खळगी
आपणेंच स्वत: भरपाची आसा
भुकेन जारमार जाल्याची
दया कोणाकच येना
पिरंगण ताची कानांत पडली तरीय
दोळ्यांत दुकां कोणाच्याच दिसनांत
आपणेंच आपणाल्या परिस्थितीचेर
मार्ग सोदून काडपाचो आसा
कोणाक थांबून रावनासतना
एकट्यानच वाट चलपाची आसा

**– अशोक रं. शिलकार**
शिला – सावयवेरे.



## भुरगेंपण

भांगरा सारको गांव जल्माचो,
आमच्या सगळ्यां अपुर्बायेचो
नासलें लोकांमदीं वेगळेंपण
भुरग्यांचें फुलाळ नितळ मन

गावचो लोक खूब कश्टी
भुरग्यांच्योय नाना मस्ती
खेळ, विनोद, चेश्टा, मस्करी
नासली कोणाक कसलीच धास्ती

शाळा सुटून घरा येतना
काण्णां, चिवरां आनी तीं पेरां
फातर मारून कोण पाडी तोरां
रुखामुळां माणकुलींच पोरां
बोल्सांत तांच्या कितलींशीं बोरां

ङ्कोण रे तोङ्क आरड मारी रितीन
भुरगीं काडी पपा जोतीं धरून हातीन
गांवांत मौजेन दीस काडले
नोकरेक लागून शारांत पावलें
रात दीस आवाज कानार गाडयांचो
पयसावलो आवाज ते इगर्जेचे घांटीचो

भुरग्यांक आतां कसलें सूख
हातांत बॅग खांदार बूक
भुरगीं म्हळ्यार पोरसांतलीं फुलां
जिवीत मात अभ्यासा वज्यान शेणलां

शारांत दिसता व्हडल्यो बेकरी
तरातरांच्यो केक, बिस्कुत्यो, चकरी
याद येता आईची कोळश्यांवेली भाकरी
भुरगीं मात म्हणटा आतां
म्हाका घरचीं खाणां नाका
Pops, Lets go to Dominos Pizza

दर सकाळीं करी आमी पुजा
आतां मोबायल, कंप्यूटर, इन्टरनॅटार मजा
आमोरेर भुरगीं घरांत येतालीं
आजयेच्यो सुरबूस काणयो आयकतालीं
आतां आवय-बापूय येतात थकून
भुरगीं दंग टिवींत पळोवंक कार्टून
देवा कसलें जिवीत हें भुरग्यांचें
आमचे सारकें भुरगेंपण तांकां कशें मेळटलें?

**– शिवानी विश्वास नायक**
मडगांव – गोंय.

# रावंस पावली दुबय



सुलुकान दोडयाऱ्यांचे उपकार मानले. तांकां नमस्कार केलो आनी आपूण रोकडोच येतां अशें सांगून म्हालदर्याचे वाटेक लागलो. ताका निरोप दिवंक आयिल्लीं वेगवेगळ्या जातीचीं, वेगवेगळ्या समाजाचीं नुस्तीं ताका निरोप दिवपाखातीर ताच्या फाटल्यान पेंवत रावलीं.

सुलुकान आनीक आनी फाटल्यान पळयलें ना. ताणें एकाच नेटान म्हालदर्यावटेन सूर मारलो आनी अरबी म्हासमुद्राचो रस्तो धरलो. आपल्याक निरोप दिवंक आयिल्ले आपले फाटल्यान येतात खरे पूण तांकाय म्हूण एक शीम आसा म्हणपाची कल्पना सुलुकाक आशिल्ली. ती शीम हुपपाचें धाडस कोणूच करचो ना हाची ताका खात्री आशिल्ली. जो कोण पिशेपणां करता तो दुस्मानाचे भकीक पडले बगर रावंचो ना म्हणपाची जाणवाय दरेक नुस्त्याक बेसबरी आशिल्ली.

मनीस म्हणटात ते नुस्तें समाजाचे दुस्मान तशे बरेच हुशार आशिल्ले. खंयचे सुवातेर खंयचे जातीचें नुस्तें आसता हें तांकां सामकें कळटालें. ते प्रमाण ते नुस्त्याक धरूंक रावताले. तेच पासत वेगवेगळ्या जातीचीं नुस्तीं सामकीं शादूर रावून उदका भितर वावुरतालीं. आपापल्या वाठारांतूच भोंवतालीं. खाणाचे आशेन वांठार सोडलो जाल्यार रोकडींच परत आसा थंय येतालीं. तशें जर करिनाशिल्लें जाल्यार येन्ना धर नुस्त्याची जातूच काबार जावन वचपाची. इतलें आसुनूय नुस्त्याचेर आयिल्लें अरिश्ट हें ल्हाना सुमाराचें नाशिल्लें. नुस्त्याचे दुस्मान तांकां खावपा खातीर मारताले तें जालेंच पूण सगळी नाका जाल्ली हळशीक उदकांत उडोवन पुराय उदकूच विखाळ करून उडयताली ही मनीस जात. हाका लागून कितल्या तरी नुस्त्यांक दुयेंस जाल्लें. कितलीं तरी नुस्तीं हें वीख पोटांत वचून मरणा तणीक पाविल्लीं. मनशांची ही करणी जर बेगोबेग आळाबंदा हाडली ना जाल्यार एक दीस नुस्त्याची जातूच मरून वचपाची. ह्या अरिश्टाची कल्पना सुलुकाक आयिल्ली. तेच पासत समस्त नुस्त्या जातीची राखण करपाच्या हावेसान सुळूक म्हालदर्यावटेन नेटान वतालो.

जुवारी न्हंयचो लांबचो लांब प्रवास आतां सुलुकान पुराय केल्लो. ताका

दिसभर पेंवपाची संवय आशिल्ल्यान तशें व्हडलेशें पुरो जावंक नाशिल्लें. तसो तो एक सारको पेंवतूच रावंक नाशिल्लो. मदीं मदीं विसव घेवपाच्या नांवान रावतालो आनी वाटेर मेळपी आपल्या नुस्तें बांधवांक आपूण खंय वतां आनी कित्याक वतां तें सांगतालो.

पयलीं सुळुकाक दिसतालें आपूण रावतालों तितलोच आपलो संवसार म्हूण. पूण ही जुवारी न्हंय म्हणटात ती सोंपून सोपना आशिल्ली. हेच न्हंयवरी मांडवी म्हणटात ती आनीक एक न्हंय आसा आनी आमी ते न्हंयेंत रावता म्हणपाचें ते न्हंयतल्या नुस्त्यान सुळुकाक सांगिल्लें. ती मांडवी न्हंय मागीर थंयच जुवारी न्हंयक मेळटाली. मागीर मांडवी आनी जुवारी ह्यो दोनूय न्हंयो म्हालदर्याक मेळटाल्यो. पूण न्हंयाची शीम हुपून म्हालदर्यांत वचपाचें धाडस कोणाक नाशिल्लें. कोणूय चोंब्यानी आपले फामिलेक घेवन भोंवडेक येताले आनी परतून वताले.

सुळुकान वाटेर ही सगळी म्हायती घेतिल्ली. आपल्याक फुडाराक कोणाची आनी कसली गरज पडत हें सांगूं नज म्हणपाची खबर आशिल्ल्यान सगळ्यां कडेन बरेपण जोडून तांचो एकवट घडोवनूच मागीर सुळूक मुखार वतालो.

सुळुकाक वाटेर तरांतरांच्या जातीचे, तरातरांच्या आकाराचे, रंगाचे, सभावाचे अशे आपलेच बांधव मेळिल्ले. कोण खेळटाले, कोण उण्णां मारताले, कोण एकमेका फाटल्यान धांवताले तर कोण चिखलांत मुंगरून बेश्टेंच पडून रावताले. कांय जाणांचे रंग पळोवन तर सुळूक सामको मुरगटून गेल्लो. तांचे ते रंग पळोवन आपल्याक मात हो रंग दिला देवान म्हूण वायट दिसलें. तरी आमच्या बांधवांक अशे भोव रंगांत पळोवन ताका खूब बरें दिसलें. तो तांकां सामको लागशिल्ल्यान पळयत तोखेतालो. पूण तशें करतना ताका सामकें सांबाळून रावचें पडटालें. एके कडेन ताका एक विचित्र बांधव दिसलो. ताणें ताका विचारलें, 'तुमगेर कितें म्हणटात रे बाबा!' त्या बांधवान आपले कितले तरी रंगीत शेंपाडे उदकांत सकयल वयर हालयले आनी दोळे फिरयत तकलेवेलो शेंकरो आनीक मातसो वयर करीत आपल्याक कोंबडो म्हणटात म्हूण सांगलें.

सुळूक जण एकल्याचें नांव, घराबो बी विचारीत मुखार वतालो. आतां मेरेन ताका तारले, पेडवे, पालू, मांदेली, खापी, वेल्ली, लेप, तोंकी, बाळो, काळुंदर, बोंबील बी असल्या घराब्यांतले खूबशे बांधव मेळिल्ले. बोंबील म्हणटात ताची तर ताणें वाटूच लावन उडयली. नाजूक गोरो गोरो दिसता म्हूण ताचीं फकाणां करूंक म्हूण लागीं गेलो. पूण बोंबील इतलो मोव आसत हाची ताका कल्पनाच नाशिल्ली. सुळुकान ताका स्पर्श मात केला सामको लिबलिबीत सो ताका तो लागलो. आपटल्लो जाल्यार मासा कुडकोच सकयल पडटलो इतलो मोव. कसलो हो बोंबील मोव मोव! बसून राव मरे कित्याच्याय आडसाक. नाचता कित्याक मदीं मदीं? अशें कितें म्हणचें ताका अशें सुळुकाक दिसलें. पूण तेन्नाच कोण तरी ताका घासून वचपाचो. शादूर रावलो म्हूण बरें जालें. नातर कुडकोच घेवन वचपाचो

"सारको ना रे तकलेन? पिसो मरे सामको!"

सुळुकान ताका मोठ्यान म्हळें. पूण ताचें आयकूंक तो कोण रावलोच ना.

"हे तशें म्हण नये तेका. तो डेंजरस." एका बोंबीलान सुळुकाच्या लागीं येत म्हळें.

"डेंजरस? कित्याक रे बाबा?"

बोंबील आपल्याक लागीं आयला तें पळोवन अजापान सुळुकान म्हळें.

"तेका वळखना तूं! तेंका खरवत म्हणटा. आमी आनी लागीं रावना तेका. खरवती भशेन तेचें तोंड पळोवना तुवें! तोंडाक सांपडलो जाल्यार गेलोच तूं!"

बोंबीलाचें उलोवप आयकून सुळूक शादूर जालो. ह्या दर्या संवसारांत रावपी सगळ्याच जिवांक आपूण नुस्तें जात अशें जरी मानात तरी तेय तशे मानतात काय ना म्हणपाची शास्वती सुळुकाक नाशिल्ली. व्हडल्या माशान धाकट्या माशाक खावन जियेवपाचें हो ह्या जळसंवसाराचो नेम हाची पुराय कल्पना सुळुकाक आशिल्ली. ताच्या जाण्टेल्यांनी चड करून आवयन ताका सांगिल्लें. भूक लागतकच आपले परस



ल्हानाक लागीं आयलो म्हणटकच मटक करपाचें आनी भूक भागोवपाची हेंच शिक्षण ताका मेळिल्लें. पूण सुळुकाक कितें म्हूण कोण जाणा, सगळ्यांक जगपाचो अधिकार आसा अशें दिसतालें. पूण सगळ्यांक जगपाक दिल्यार आपणेन कशें जगप तेंय ताका कळनाशिल्लें. आपणेनूय जियेवप आनी दुसऱ्यांकूय जियेवंक दिवप अशें केल्यार आपूण उपाशीं पडटलों हेंय ताका होलमतालें. आपणें बऽरें आपले परस ल्हानाक खावपाचें टाळ्ळें म्हूण आपले परस व्हडले माशे आपल्याक थोडेच सोडटले अशें आसा! सुळूक येवजितालो.

ताका बोंबिलाची तोखणाय दिसली. ताचें आंग लिबलिबीत, आपले सारकें ठणक ना. सामको बावत अशें सुळूक पयलीं येवजितालो. ताची ताका किळसूय आयिल्ली. पूण ह्याच बोंबिलान ताका खरवत माशा विशीं गिन्यान दिल्लें. आपले परस एखादो मासो ल्हान दिसूं मागीर, पूण ताच्याय आंगांत दुसऱ्याक सोपोवपाची, नमोवपाची शक्त आसा ही जाणविकाय ताका त्या बोंबिलानूच करून दिल्ली. व्हडलो मासो ल्हान माशाक खावन जियेता हें जरी खरें आसलें तरी दरेक माशाक आपली राखण हेरांच्या तोंडांतल्यान करपा खातीर कितें ना कितें शस्त्र दिल्लेंच आसा. आपले अकलेन, हुशारेन ताचो वापर करप आनी जियेवप होच जीवनाचो खरो अर्थ आसता हाचेंय गिन्यान सुळुकाक जाल्लें. आपणें ह्या समुद्र जगतांत शक्य जाता थंय वचचें. आपल्या जातभावांक भयणांक पळोवंचें, तांचें जिवीत समजून घेवंचें पूण तांचे पासून शादूर रावचें. तशें केल्यारूच आपूण जिवितांत तड मारूंक पावतलों अशें सुळुकाक आतां बेस बरें कळिल्लें. ताणें बोंबिलाचो निरोप घेवन फुडल्या प्रवासाक आरंभ केलो.

सुळूक न्हंयची शीम हुपून म्हालदर्या मेरेन पावत आयिल्लो. व्हडलीं व्हडलीं ल्हारां जेन्ना ताका दिसलीं तेन्ना ताका तशें दिशिल्लें. पूण माशांचें एक व्हडलें भिरें ताचे भोंवतणी आशिल्ल्यान ताका ल्हारांचो अदमास येवंक नाशिल्लो. हें येदें व्हडलें भिरें वांगडाच कित्याक भोंवता काय? सुळूक विचार करतालो. हो दर्यांतलो बांगडो समाज म्हणपाचें ताणें वळखल्लें. उदकांत तांचें तें चकचकप, तांचो तो चंदेरी, सोनेरी झगझग पळोवनूच ताच्या तें लक्षांत आयिल्लें. हो इतले संख्येन एकठांय आयिल्लो बांगडो समाज एक जायत आनी ताणें दर्या वाट लावपी दुस्मानाचेर हल्लो केलो जाल्यार जैत जोडूंक पावतले काय? असो विचार येतनाच

सरभोंवतणच्यान घुसुघुसू असो आवाज आयलो. बांगड्या समाजाचें तें भिरें आबूज जालें, किर्ते करचें, खंयच्यान धांव मारची हाचो विचार करता थंयच आसा. घुसुघुसू आवाज लागीं पावलो आनी बांगडो समाजांतल्या त्या भिऱ्यांतले भोवतेक बांगडे घुसुघुसूच्या जाळाक आडखळ्ळे. तातुंतल्यान भायर सरपाचो यत्न करता थंय आसात, तें जाळ त्या अख्ख्या भिऱ्याक कवेंत घेवन दुसऱ्याच खिणाक नाच्च जालें. आतांच आशिल्लें बांगडो समाजाचें प्रचंड भिरें दुसऱ्याच खिणाक दुस्मानाच्या जाळाक सापडून नाच्च कशें जालें हें सुळूकान आपल्या दोळ्यांनी पळयल्लें. जे कोण त्या भिऱ्यांतल्यान कुशीक आशिल्ले तितलेच थंय उरिल्ले आनी आकांतान हांगा थंय धांविल्ल्यान जाळांतल्यान वाचिल्ले. सुळूक तें पळोवपाक इतलो दंग जाल्लो की थंयच्यान धांव मारपूच तो विसरून गेल्लो म्हळ्यार जाता. तोय त्या घुसुघुसूच्या जाळाक सापडपाचो. पूण कशें किर्ते जालें तेंच ताका कळ्ळेंना. धवसो काळसो रंग आशिल्लें व्हडलें किर्ते तरी ताका आपटलें. त्या व्हडल्या गजालीन ताका धुकलीत म्हणटात तसो कुशीक शेवटिल्लो. ताकाच लागून तो जाळांत सापडपा पासून साल्वार जाल्लो.

सुळूक सावशीक जालो. आपल्याक कोणें जाळापासून पयस धुकल्लो हेंच ताका कळ्ळें ना. घुसुघुसू काय नाशिल्लें तें. घुसुघुसूचें आंग सामकें घट्ट आसता. आपटल्यार सोसूं नज अशें दुखता. पूण हें किर्ते आपटल्लें तें आपले वरींच मोव मोव आशिल्लें. किर्ते काय तें? आपल्याक कोणें वाचयलो काय? हो देव बी न्हय मू आमच्या नुस्त्यांचो? सुळूक विचार करतालो. इतल्यान ताच्या कानार 'हा हा हा' करीत व्हडलो हांसो पडलो. हो देव न्हय, हो राकेस बी आसतलो म्हाल दर्यांतलो. असो विचार तकलेंत येवन तो भियेलो. तितल्यांत आनीक एक वेगळोच आवाज आयलो आनी दोळ्यां मुखार सामकें लागीं व्हडलेंशें किर्ते आयलें. लागीं आयलें तशेंच तें पयस जालें. सुळुकाक आतां दिसलें तें किर्ते तें. तेंय ताचे वरींच नुस्तें आशिल्लें पूण सामकें महाकाय. तें हांसतालें, तें तोंडांतल्यान वेगवेगळे आवाज काडटालें. उदकांत नाडे मारतालें. आपले भितरूच आसतालें म्हळ्यार जाता.

"कोण रे तूं? हांगा किर्ते करता म्हादर्यांत?" त्या अगडबंब माशान सुळुकाक प्रस्न केलो. आपले सोयरे येदे व्हडले आसात म्हणपाची ही सुळुकाक पयली वळख आशिल्ली.

"हांव सुळूक. हांव रांवसा पिलो." सुळुकान भीत भीत जाप दिली.



“रांवसा पिलो? हा..हा...हा... हांगा दर्यांत कितें करता? तुवें थंय न्हंयेत रावपाचें. हा हा हा” मदींमदीं हांसत, नाडे मारीत त्या माशान ताका सांगलें.

“हांव म्हाल दर्यांत रावपी तुजे सारक्या म्हज्या सोयऱ्यांक मेळूंक आयलां. पूण म्हाका सांग तूं कोण रे?” सुळुकान ताका प्रस्न केलो. ताचेय भितर आतां धाडस आयिल्लें. हो कोण आकांत दिसता तो बऱ्या सभावाचो मासो आसूं येता अशें ताका दिसलें. व्हडले माशे धाकट्या माशांक खाता आसत. पूण सगळेच व्हडले माशे तसले नासतात. कांय बरेय आसूं येतात. तशें नाशिल्लें जाल्यार हो कोण आसा तो म्हाका केन्नाच मटक करून उडोवपाचो. सामको तेंकून तर आशिल्लों ताका हांव. ताणेंच म्हाका धुकलून उडोवन त्या जाळापासून वाचयल्लो.

सुळूकाच्या प्रस्नान तो महाकाय मासो पर्थून हांसलो. ताका त्या माणकुल्याची, रांवसापिल्याची तोखणाय दिसल्या अशें दिसतालें.

“हांव डॉल्फीन, हा हा हा”

“डॉल्फीन! डॉल्फीन हें तुजें नांव?”

“ना. तूं जसो रांवस, तसो हांव डॉल्फिन. तुजी फामिल ही रांवस फामिल. तसो हांव डॉल्फिन फामिलेंतलों. कळ्ळें? हा हा हा..”

हांसत हांसत त्या डॉल्फिनान आपल्या तोंडांतलें उदक फुर्रर करून वयले वाटेन शेंवटिलें. सुळुकाक ती मजाच दिसली.

“मागीर तुजें नांव कितें तर? तुकांय नांव हें आसतलेंच.”

“आसत. पूण म्हाका याद ना. तुका जाय जाल्यार तूं म्हाका फीन म्हण. आतां फीन हाचो अर्थ विचारूं नाका. फीन म्हळ्यार हुशार. हा हा हा.” डॉल्फीन परत एकदां हांसलो. ताणें नाडे मारले. आनी सुळुकाकडेन अपुर्बायेन पळयलें.

“फीन, तुवें म्हाका वाचयल्ले बद्दल थॅन्क्यू तुका आं!”

सुळुकान फीनाचे उपकार आठयले. तसो फीन हांसलो.

“पिशा, हांव तुका वाचोवपी कोण? हांव म्हाकाच वाचयतालों. तें जाळ त्या बांगड्यां खातीर आशिल्लें. ताणीं तें तांकाच धरपा खातीर मारिल्लें. हांव चुकून हांगा पावलों. हांव त्या जाळाक सापडपाचों. देखून हांवेंच कुशीक उडी मारिल्ली ती तुका आपटली. म्हजे बांगडा तूंय कुशीक शेंवटलो. हा हा हा.”

सुळुकाक त्या फीनाची कॉमीक दिसली. तो आशिल्लोय कॉमिकूच. वागतालो कॉमीक, उलयतालोय कॉमीक. ताचे पासून आपल्याक भिरांत ना म्हणपाचें सुळुकाक कळ्ळें.

“तुवें तें जाळ पिंजून भायर येवं येतालें. आमचे दुस्मान बुद्द शिकपाचे. ते बांगडेय सुटपाचे तांचे तावडींतल्यान.”

सुळुकान ताका सांगलें तसो तो गंभीर जालो. म्हणूंक लागलो, “रांवसा पिल्या, जण एकल्यान आपलो जीव आपणेंच वाटावंक जाय. दुसरो वाटयतलो म्हूण रावल्यार फसलो तूं! त्या बांगड्यांचें जिवीत तितलेंच आशिल्लें. तातुंतल्यान जे सुटले ते वाचले. तशेंच आसता तें. जांचें पावूंक ना ते कशेच मरनांत. तुजेंय पावंक नाशिल्लें म्हूण तुका वाचोवपाक हांव निमित्त जालों इतलेंच.”

फीनाचें म्हणणें सुळुकाक खरें दिसलें. फीन तकलेन खरेंच फीन आशिल्लो. ताणें फीनाक आपूण कोण, खंयच्यान आयलां, कित्याक आयलां तें सगळें सांगलें. तें आयकून फीन सामको अजापलो. येदोसो हो रांवसापिलो केद्या व्हडल्या वावराक भायर सरला आनी हांव तकलेन फीन जावनूय असो फकत उडयो मारीत दीस सारतां हाचें ताका वायट दिसलें.

सुळुकाचें मिशन आमकां सगळ्यांक वाचोवपाचें आसा हें फीनान वळखलें. सुळुकाक जाता तितली मजत करप हें आपलें कर्तव्य म्हणपाचें फीनाक कळ्ळें. ताणें अपुर्बायेन सुळुकाक लागीं आपयलो. आतां तूं एकटो ना, हांवूंय तुजे वांगडा आसां म्हणपाचें उतर दिलें. सुळूक सामको खूश जालो. म्हालदर्यांत ताचो प्रवेश तर बरोऽ जाल्लो. ताका आतां फीना सारको एक बुदवंत आनी शक्तीवान सांगाती मेळिल्लो. आपलें जैत आतां पयस ना म्हणपाचें सुळुकाक जाणवलें. ताच्या आंगांत म्हालदर्या येदो हावेस संचारलो.

(चलता)



# तानेल्ल्याक पिवंक दिवंचें

गिमाळो सुरू जाल्लो. भुरग्यांची निमणी परिक्षा सोंपून तांका सुटी पडिल्ली. कितें करचें. कितें नाका. अशें तांकां जाल्लें. कांय जाणां आपल्या मामागेर वचपाचीं, जाल्यार थोडीं भोंवडेर वचपाचीं आसलीं. जीं खंयच वचपाचीं नासलीं, त्या भुरग्यांची ही काणी.

सुटयेंत तेच-तेच खेळ खेळून, बेला, निलेश, रिंकू, जानव्ही, स्नेहीत, राजन, प्रिया आनी बाळेश हीं भुरगीं वाजेल्लीं. तीं सगलीं एकेच शाळेंत शिकतालीं. पूण वेगवेगळ्या वाड्यांनीं रावतालीं. सांजेचीं, दर दिसा, एका-एका वाड्यांत वचून खेळटालीं.

ते सुटयेंत अशींच एके सांजे, रिंकूगेर तीं खेळटालीं. खेळ सोंपताच, ताणीं एका मेकाक म्हळें, ''सदांच असलेच खेळ खेळून बरी मजा येना. कितें तरी वेगळें करूंक जाय.'' बसून तीं येवजूंक लागलीं.

तांचे मदलो शिटूक तसोच उमेदी हो बाळेश. ताणें एक आयडिया दिली. ''एक ल्हानशी, रान भोंवडी केल्यार कशी? फाल्यां आमी ते 'माकडा' दोंगुल्लेचेर या. सकाळींच भायर सरया. दनपारां खावंक कितेंय व्हरूया आनी सांजेचीं परत येवया. झाडांचेर चडूंक आनी चारां चुन्नां आनी रूचीक काण्णां खावंक मेळटलीं. बरी पिकनीक कशी करूया.'' सगल्यांक तें मानलें आनी एक मतान, दोंगुल्लेचेर वचपाचें थारलें.

निलेशान म्हळें, ''पूण माकड आमचे फाटीक लागचेंनात न्हय?''

''आरे! दोंगुल्लेचेर आतां माकड उरूंक नात. नांवूच उरलां!'' बाळेशान सांगलें आनी सगलीं पोटभर हांसलीं.

दुसरे सकाळीं, आप-आपलीं टिफिनां आनी उदकाच्यो बाटल्यो घेवन, माथ्यार चेपी घालून, गीतां गायत, तीं 'माकडा' दोंगूल्लेचेर वचूंक भायर सरलीं. तांची निसर्ग भोंवडी नेटान सुरू जाली. काजूंच्या झाडांचेर, तांबड्यो-हळदुव्यो काजू लांबताल्यो. चल्यांनीं वयर चडून काजू काडल्यो. सकयल्या खांद्यांचेर लांबतल्यो काजू चलयांनीं काडल्यो. झाडपिक्यो काजू रसाळ, गोड आशिल्ल्यो.

आनी अशें, फळांचो आस्वाद घेत, थांबत, खेळत, दनपारचीं तीं दोंगूल्लेच्या माथ्यार पावलीं. वत बरेंच पडटालें. तीं भुकेन आनी गर्मेन जाम जाल्लीं. एके व्हडले जांभळी पोंदा ताणीं जागो निवळ केलो आनी थंय बसून जेवलीं. जेवणान तांकां थाकाय मेळ्ळी. ''थंयच बसून कितें करतलीं?'' तांकां प्रस्न पडलो.

ह्या खिणांकूय बाळेशान तकली लडयली आनी ताच्याच फुडारपणाखाल, लागींच आशिल्ले दुसरे दोंगूल्लेचेर वचपाक तीं तयार जालीं. ते दोंगूल्लेचेर खूब चारां आनी काण्णां आशिल्लीं. सडसडीत तीं उठलीं. तांचीं टिफिनां रिकामी जाल्लीं. उदकाच्या बांटल्यांतलेंय वजन कमी जाल्लें. उदक सोंपत आयिल्लें. एकामेकाचीं फकाणां करीत, चुटकुले सांगत आनी आयकत तीं सकला देंवलीं.

वताचो रखरख तांच्या माथ्यार आसलो. दुसरे दोंगूल्लेच्या मुळांत पावता सर तांच्यो उदका बाटल्यो रिकामी जाल्यो. हुमेवन, आनी घामेवन, तांचो जीव कासावीस जालो.

रिंकूक तर घुंवळ येवंक लागली. ताच्यान तो वताचो धग सोसूंक जालो ना. दोंगूल्लेचेर बरी सावळी आशिल्ली. ताचे बाटलेंतलें उदकूय सोंपिल्लें. दुसरे दोंगूल्लेचेर वचपाची वाट ताच्यान फुडें तांकूक जायना जाली. चलतां-चलतां तें थांबलें. ताच्या दोळ्यां मुखार काळोख येवन तें थंयच पडलें. ताचे मुखार चलतल्या बेलान आवाज आयकून पळयता जाल्यार. तें पडिल्लें ताका दिसलें. ताणें बोब मारून मुखार वतल्या सगल्यांक थांबयलीं.

सगल्यांचो ताळो तानेन सुकिल्लो. उदकूय सोंपिल्लें. रिंकूक पिवंक दिवंक उदक नाशिल्लें. स्नेहिताचे बाटलेंत मात दोन बोटां उदक उरिल्लें. ताकाय खूब तान लागिल्ली. आनी तो बाटली तोंडाक लावंक वतालो तेन्नाच रिंकूक घुंवळ आयिल्ली. उदक नासून तें तळमळटालें. स्नेहिताकूय उदकाची गरज आसली. पूण रिंकूचेर नदर पडटांच ताणें आपूण पियेनासतना, तें उदक रिंकूच्या तोंडांत थोडें, थोडें करून घातलें. रिंकून सवकास दोळे उगडले आनी लांब श्वास घेतलो. सगल्यांक सूऽऽ जालें आनी आपली तान तीं विसरलीं. रिंकूक पळोवन तांचो भिवन आवरो उडिल्लो. तांच्या वाड्या कडसून तीं बरींच पयस आसलीं.



गिन्यान आशिल्ल्या राजनान तांकां म्हळें, ''असले परिस्थितींत, आमी मुखार वचप सारकें न्हय. बेगीनूच आमी घरची वाट धरया. रिंकू फाटल्यान, आनीक कोणांकूय घुंवळ येवंक शकता. आमचे कडलें उदकूय सोंपलां. दोंगुल्ली चडूंक त्रास जातले. चलात आमी परत या.''

थकिल्लीं आनी भियेल्लीं मनां, रोखडींच घरा परतूंक राजी जालीं आनी शॉर्ट-कट वाटेन ताणीं मंद पावलांनीं घरची वाट धरली. थोडी वाट चलता म्हळ्यार, बेलाक 'खळ खळ खळ' आवाज आयलो. तांचे वाटेचे कुशींतल्यान एक ल्हान व्हाळ व्हांवतालो. तें व्हांवतें, शितळ, निवळ उदक पळोवन तांच्या जिवांत जीव आयलो. 'सळ्-सळ्' करून पोश्यांत उदक घेवन तोंडार मारून घेतलें. आनी बाटल्यांनीं भरून 'गुटु-गुटू' करून पियेवन तान भागयली. सगल्यांचो जीव धादोसलो आनी तीं सुटसुटीत जालीं.

रिंकूक, उदक दिवंक नासलें जाल्यार, कितें घडूंक शकता आसलें तें येवजूनच तांका कांपरो सुटलो. परत घरा वचून कोणांकूय घेवन येता म्हणसर ताचें बरें वायट जाल्लें जाल्यार?

स्नेहितान आपणाक जाय आशिल्लें उदक, चड गरज आशिल्ल्या रिंकूक दिवन सगल्यांक बरी शिकवण दिल्ली.

तानेल्ल्याक पियेवंक दिवन, दयाळ करणी करून ताणें सगल्यांचीं काळजां जिखिल्लीं.





– ब्रॅण्डा मिनेझीस
कुस्मण – केपें, गोंय
फोन : २६६२४९१.



## दिसता तें मागता

बाबूक दिसलो जल्लो
ताच्या फाटल्यान धांवलो
धांवतां, धांवतां
जल्लो मेजापोंदा लिपलो

बाबूची गेली नदर
आसलो थंय उंदीर
उंद्राक बाबू भियेलो
मम्मान धीर दिलो

वण्टीर बशिल्ली पाल
बाबू म्हणटा तीच जाय
मम्मान विचारलें
ङ्गपाल जाय काय पीपी जाय?ङ्ख

जल्ले, उंदीर, पाली
असलेंच बाबूक दिसता
दिसता तें ते तो
आपल्याक सोदता

– डॉ. भिकाजी घाणेकार
पणजी – गोंय.



## उजू गिन्यान

माड जालो व्हड आई
आडसर कशें काडूं गे
इतल्या व्हडल्या माडार चडून
नाल्ल कशे पाडूं गे

धेंप मारूंक शीक पुता
माड हाताक धरतलो
म्हौंवाळ आनी मोगाळ तो
वयर तुका काडटलो

ताच्या सारकी व्हड जावची
कला म्हाका शिकय गे

जितलें जितलें शिकतलो
तितली तुजी जातली चडाय
अर्दे गिन्यान मेळयल्यार
जावची ना सारकी वाडाय

पुराय गिन्यानी जायसर हांव
धोडाय म्हाका धोडाय गे

उंच उंच गेल्ल्यान ताका
दिसता आशिकुशीचें
दुसऱ्या खातीर दान ताचे
सांदूयान सांदे कुडीचे

माणसुकेचे धडे दिवन
म्हाकाय तसोच घडय गे

उजू गिन्यान घेतलें जाल्यार
मळबा मेरेन पावतलो
मान आपली वरशी करून
माड तुका चोयतलो

माये माते देवी म्हजे
पुताक म्हज्या पाव गे

– सुनील पालकार
नावशी,
पोस्ट–गोवा युनिव्हरसिटी.
फोन : २४५९३२१





– सुधा खरंगटे
अ–४, कुडतरकार क्लासीक,
आर्के, मडगांव–गोंय.

# एक आसलों कीड



*दारांतच आंगणांत पणसाचें झाड आशिल्लें. ताच्यो खोलयो सकयल झडताल्यो. किडान बरीऽ हळदुवीच खोली घेतली... देंठ काडलो आनी मळी–तंबाखू घालून ताची येऽद्दो व्हडलो कोन्नो कशी विडी वळ्ळी. विडी पेटोवन ओडून बरी खोंकली काडतकच ताणें ती विडी जमनीक घश्टून पालयली आनी मोठोच म्हाल–ऐवज जाल्लेभशेन सांबाळून ती कानाक खोयली.*

**शे**नवाराचो दीस धरून आईन पापडां–पिठी कालयली. फाल्यां आयतार. पापड करपाक आयतारूच बरो पडटा. भुरग्यांक सुटी आसता शाळेक. तीं लातयो करूंक, पापड सुकत घालूंक, पापड राखूंक बी मेळटात. आईन हुडदांचे पिठयेक मीठ, पापडखार, मिरयां–पिठो, पुर्तुगाली मिरसांगाचो पिठो बी घालून हिंगाच्या उदकांत पिठी घट्ट कालयली... घरभर कलमा–कापाचे हिंगाचो वास सामको...!!

धुवन–पुसून वान आनी मुसळ तयार आसलें.

''चल, पयलीं कोण धोडायतलो? घे तें कांडण हातांत..'' आईन म्हळें.

''कांडण काय मुसळ गे?''.. सुबेजपणां केले बगर सुगंधाचो जीव रावच ना.

''कांडण म्हण... मुसळ म्हण.... पूण लाग धाडावपाक आनी साबाळून फार घाल... म्हजे हातार बी घालशीत..''

''हाड हांगा मुसळ.. हांव घालतां पयलो फार..'' अशें म्हणून सवितान देवाचें नांव घेवन पयलो फार घालो.

मागीर सुगंध, सुमती, जयंती बी कामाक लागलीं. एक–एकलीं कांडण घेवन वानांतले पिठयेचेर फार घालूंक लागलीं. डझनभर गुळे तयार जाले.

''आतां फातरीर बरोऽ फार पडूंक जाय.'' ताईन म्हळें.

''म्हजे हात येन्नाच तांबडे जाले पळय... आतां फोड येतले....'' सुमतीन रडकुऱ्यांनी म्हळें.

''म्हजे हातांक फोड आयले लेगीत...'' सुगंधान हात दाखयले. .. ''आई कित्याक गे घट्ट कालयता पिठी?''

''आगो, मागीर पापड बरेऽ विरविरीत जातात. आनी कांडण हातांनी घट्ट धरूंक जायना.... सदळ धरचें.. मागीर फोड येनात...'' आईन सांगलें.

''आई, फातरीर धोडावपाक... दादले मनशाचो फार पडत जाल्यार बरो न्ही?'' ताईन विचारलें.

''चल गो, भायर पसऱ्यार कोणय दिसता जाल्यार पळय...'' आईन सांगलें.

हरशीं आईले पापड सामके न्हावन–धुवन अनवाळे लाटूंक जाय. पूण पिठी धाडोवपा

वेळार तिका बस्त्यांव, किस्तोद -- कोणय चलतालो.

''ते कितें पिठयेक आफुडतात तर? वयलेवयर फार घालतात..'' अशें म्हणून आईन ते पिठयेचें अनवाळपण राखप.

भायर फुडलेदारांत पसऱ्यार गेल्लें धांवतच मागीलदारांत आयलें.

''आई, आई, कीड येता... कीड, किडाची बायल लाडू, घोंघो - सगळीं येतात. सांगूं गे बाप्पाक... किडाक धाड म्हणून?''

आईन हय म्हळें आनी सवीत भायर धांवलें.

''बाप्पा, आई म्हणटा, पापडां-पिठयेचेर बरे चार फार पडूंक जाय आसले.... कोणय आसल्यार पळय म्हळां.

''आरे, हो कीड आसा न्ही? किडा, चल पळोवया मागिलदारांत...चार मुसळांफार घाल...''

कीड बाप्पालें उतर सकल वडयना. पसऱ्या नाबी भितर मळी-तंबाखूच्या पानांचें येऽदें व्हडलें बंडल साकांत बांदून आशिल्लें... पणसाखोल्याक धुंगरेचीं पानां घालून बरी कोर्नेगाद विडी ओडपाची रूच काडीत कीड पोरसांतल्यान मागील दारांक पावलो. फाटोफाट ताची बायल आनी दोगय चेडे-घोंघो आनी लाडू...

किडाक 'ल' म्हणूंक येना आसलें. भुरग्यांनी आयिले खेपे ताका लाडूचें नांव विचारप.

लाडूकडेन बोट दाखोवन जयंतीन विचारलें- ''किडा, हाचें नांव कितें रे?''

''नाडू..'' किडान सांगलें आनी सगळीं हांसलीं.

''आरे, कायबरें 'लाडू' म्हणून गोड नांव दवरलां आनी 'नाडू' कितें म्हणटा?''

''तें तें! नाडू...'' किडान म्हळें.. ''भाटकान्नी पयलीं इल्लें उदीक घाल पियेवच्याक....''

''किडा, इतलें व्हडलें पाणट्याचें उदक वलांडून आयला तूं.... तरीकय तानेल्लोच आसा?'' भुरग्यांनी मस्कऱ्यो केल्यो.

कीड हांसत माथें खरपूंक लागलो.

भाटकान्न उदक मागल्यार च्याचो घोंट ताळ्यार घालता आनी बरोबर खावपाक कितेंय हातार वडयता हें कीड जाणा आसलो.

कीड देवसांक रावतालो. देवाचो पाण्टो काडून पलतडीन वतकच बरें वरभर चलतकच 'देवस' हो किडालो गांव लागता. किडाल्यो गरजो खूब कमी. चडशो गांवातच भागताल्यो. पूण च्याचो पालो, साखर, विडी-धुंगरी, केन्नांय मसालो बी असलीं फोल्गां व्हरपाक तो वीस-पंचवीस दिसांनी वरभर चलून, न्हंय वलांडून बाप्पाल्या पसऱ्यार येतालो.

किडान उदक पिवंक मागतकच आईन म्हळें- ''उदकान तान वता रे तुजी? तुका च्याच पिवयतां. सुगंध, चल गो... हांकां इल्लो च्याचो घोंट करून घाल.''

मागीर आईन फोलीण उगडून नेवरे-बोटे, लाडवा-बोर.... कितें हाताक मेळटा तें कागदार घालून म्हळें - ''घे गे किडा-बायले, भुरग्यांक खावय....''

किडाबायलेन जमनीर बसकण मारली आनी दोगांय भुरग्यांक म्हऱ्यांत घेवन खावोवपाक लागली.

किडाल्या भुरग्यांमदीं धाकलो लाडू मातसो लजेस्त-सो. घोंघो सामको हुशार...!!

''नाडू, चवथीक येतलो मरे?... तुका पळय येऽद्दी नेवरी दितलें...'' जयंतीन म्हळें.

लाडू मान सकयल घालून ओगीच हांसलो.

''हांव येतोलों.... हांव येतोलों...'' घोंघ्यान म्हळें.

''हय मरे! तुका मागीर येऽद्यो व्हडल्यो दोन नेवऱ्यो....''

तशें लाडून बशिल्लेकडेन दोनय पांय घशटयत रडूंक कोमेस केलें.

''हाचें आनी कितें जालें?'' आईन विचारलें.

''म्हाकांय दोन नेवऱ्यो जायो... व्होडल्यो...'' रडत लाडून म्हळें.

''ना.... तुका न्हू... म्हाकां दिता म्हळां....'' घोंघ्यान रागान म्हळें.

''आरे, चवथीक अजून वेळ आसा. नेवऱ्यो करच्योच आसात. आतांच लागले झगडूंक? - बरें मागीर दोगांकय दोन-दोन नेवऱ्यो दिवया हां...''

लाडू पटकन रडपाचो थांबलो.

''च्या घाली ना तांकां..?'' ताईन विचारलें.

''सुधंगबाय च्या कोरों गेलां...'' किडान सांगलें. जयंतीक तितलेंच उतर मेळ्ळें. ''सुगंधाचें, सुधंग!''

''एऽ सुधंगबायऽऽऽ. एऽ सुधंगबायऽऽ'' करीत तें सुगंधाचें फाटल्यान नाचूंक लागलें.

सुगंधान मागीर च्या थंयच सांडली आनी जयंतीक मारपाक ताचेफाटल्यान लागलें.

''हळद लागली च्या करतल्यांचे तोंडाक...''

ताईन हांसत म्हळें आनी च्या करून किडाक, किडा-बायलेक आनी भुरग्यांक दिली.

''भाटकान्नीगेर येयल्यार दुदा च्याव मेवता.''किडाबायलेन रूचीन च्या पीत म्हळें.

च्या पिवन जातकच किडान केळी मुळांत हात धुयले... केळींबरोबर सुरण मातिल्ले थंय.

- आरे, घोल आसा... कोळहुंदूर...

किडाले दोळे सामके चकचकले. ताचे जिबेक उदक सुटलें...

मागीर चोवया.... ताणें चिंतलें आनी फातरी म्हऱ्यांत येवन कांडण हातांत घेतलें....

....पिठी धोडावन जाली. घट्ट फातरशे आशिल्ले ते काळसार गुळे आतां हळडुवेच मोव-मधुर जाले.

पसऱ्यार वचून किडान म्हळें- ''बाप्पो, इडी तरी ओडटां आतां... पुरो जालें मगा..''

बाप्पान विडी दिली. किडान ती घेतली ना.

''...ती नाका... हांवूंच कोत्तां... खोल्यांक घालून.'' बाप्पान मूठभर तंबाखू-चुरो दिवंक केलो...

किडाक तो मानवलो ना.

''बाप्पो, हें तें मळी-तंबाखू पान...''

''आर्रे.... तें म्हारगें मरे... बरें घे...घे..'' अशें म्हणत बाप्पान दोन-तीन तंबाखूचीं पानां हातार वडयलीं.

कीड सामको खोश्शी जालो.

दारांतच आंगणांत पणसाचें झाड आशिल्लें. ताच्यो खोलयो सकयल झडताल्यो. किडान बरीऽ हळदुवीच खोली घेतली... देंठ काडलो आनी मळी-तंबाखू घालून ताची येऽद्दो व्हडलो कोन्नो कशी विडी वळ्ळी. विडी पेटोवन ओडून बरी खोंकली काडतकच ताणें ती विडी जमनीक घश्टूवन पालयली आनी मोठोच म्हाल-ऐवज जाल्लेभशेन सांबाळून ती कानाक खोयली.

''बाप्पो, कोळहुंदीर आसा सुरणां मोदीं - घोली मारल्यात... सोगळें सुरीण खावन काब्बार कोन्न उडयतलो मरे... मारूं तेका?'' किडान विचारलें.

''मार,मार.... किदें करता तें कर...'' बाप्पान परमिशन दिलें... तसो कीड पोरसांत धांवलो.

धुंवर कोरूंक नाल्ला-काथो जायो... किडान चिंतलें...

''भाटकान्नी, कोयती आनी नाल्ल दी चार... सोलून वोडयतां...'' ताणें म्हळें.

किडा-बायल नाल्ल सोलूंक बसली. ते म्हणसर किडान हुंदरा-घोलीचें दुसरें तोंड सोदून काडलें. घोलीचे तोंडार ताणें नाल्लाचो काथो, पाळो, तण बी घालून उजो पेटयलो...

सगळीं भुरगीं उमळशिकेन ताची हुंदराची कास पळोवंक जमलीं.



घोलींक धुंवर जायनाका, घोलींतलो हुंदीर घुसमटलो आनी घोलीचे दुसरे तोंडाकडेन धांवलो. तो घोलींतल्यान भायर सरता काय म्हणून पळयत कीड थंय सारको हातांत येऽद्दो व्हडलो लाकडा दांडो घेवन उबो आसलो.

हुंदीर घुसमटून आकांतान भायर सरलो. किडान एकच दांडो ताचे कपलार घाला मात, हुंदीर थाराऽ पडलो.

........ भुरग्यांचो बोवाळ.....

''आवयस्! केदो व्हडलो हुंदीर पळय....!''

''शीऽऽ!, कितले केंस पळय ताका...!''

''आंवंय!... काळोकिट्ट सामको...''

किडान भुरग्यांक समजायलें- ''कोळहुंदीर तो...!''

''आतां ताका खंय वडवप रे किडा...?''

''ना, ना! पुरप ताका... नाजाल्यार घाणी पडटल्यो सगल्याक....''

''इतू तरास काडून माल्ला... भायर वडोवूंक?'' किडान हांसत विचारलें.

''मागीर! कितें करप ताचें?''

''शागोती... मटण...'' कीड रूच काडूंक लागलो.

''शीऽऽ... वॅक्... आंवय..आंवय..! हुंदीर आनी खावप?'' भुरग्यांचो बोवाळ.

''तुमकां हेची रूच लागल्यार सोडचींनांय तुमी.. हांवें हुंदीर मारल्यार तेका घेवन घोरांक धांवतलीं...'' किडान भुरग्यांची फकाणां केलीं.

''शीऽऽ! आमी ना रे बाबाऽऽ...''

भुरग्यांनी नाक किसलायलें.. तशें हांसत किडान हुंदराक कागदांक गुटलावन कांबळी-फट्यांत घालो आनी कांबळ खांदार मारून सुशेगादसो फुडले दारांत पसऱ्यार गेलो.

''मेळ्ळो रे हुंदीर?''

''हय बाप्पा, बरोऽ आसा... चार रात जातलो.'' किडान खोश्शेन म्हळें.

किडान मागीर बाप्पाकडेन लवंगां, मिरयां, तिखी अशें कितें-कितें घालून धा रुपयांचो मसालो घेतलो.... हेर थोडो वेपार घेतलो.

''बाप्पा, बोरोवन दवरी... फुडल्या खेपो येतो तेन्नां काजू-बियो हाडून दुडू फारीक कोत्तां...''

बाप्पान 'बरें' म्हळें.

किडान दिल्लें उतर सदांच पाळ्ळां. फटींगपणां ताच्या रगतांत नात हें बाप्पाक खबर आसलें.

"फोटू कसो आसा रे किडा?" बाप्पान किडाच्या बापायची खबर घेतली.

"बोरो आहा... शेतां वयता... माडाक आळीं काडूं वयता... चड काम जायना तेज्यान...!" किडान सांगलें.

"कितलीं वर्सां जातलीं रे ताका? शंबर जालीं?"

"आतां कोण जाणां? त्या राण्यां-बंडाये तेंपार काजींनी भोंवतालो फूंय... येद्दो आडसाडो भुरगो... आतां तूं कोंत कोर..." किडान बाप्पाक हिशेब सांगलो.

"आब्बा! इतलो जाण्टो?"

"आनीक कितें... एकय दांत हालों ना तेगेलो..." किडान बापायली होडवीकाय सांगली.

मागीलदारांत किडा-बायल आपली पोटली सोडोवन बशिल्ली.

"भाटकान्नी, हीं भुरग्यांखातीर पेरां... आनी तुका ही आळवाची माडी..."

"आवय! बरीऽ आसा मुगे! सोमारा दिसा फोडी तळूंक जाली... पूण खाज येना मगे?"

"ना भाटकान्नी. मात्तुय खाजोना..आनी सामकी कणगांबाशेन...भुसभुशीत.."

आईन किडाबायलेक पन्नें कापड दिलें. भुरग्यांचे कपडे पोटली बांदून दवरिल्ले. ते दिले.

"भाटकान्नी, चार दोणांतलीं तोरां आसल्यार..."

"आंवय.. तातूंक कितें? व्हर मगे! कोण दुवाळ्यांचें आसा कितें?"

"चेडूं येयलां... अंजनें... खर दुवाळो जाला... पेजे-नीस लेगीत पोटांक धरोना..."

आईन मागीर अंजन्याखातीर आंबलेचें लोणचें, लिंबाचें लोणचें, दोणांतलीं तोरां बी बांदून दिलीं.

"घरा कांडिल्ले उकडे तांदूळ आसल्यार पायलीभर हाड... भुरग्यांक पेजेक बरे.. बदलीक सुरय तांदूळ व्हर.... नाजाल्यार पयशे..."

"भाटकान्नी, तुकोडें पोयशे घेवप? ना गे सायबिणी!"

किडा-बायलेन फुडले खेपो येतना उकडे तांदूळ हाडपाचें उतर दिलें. आनी "हामोर जायय येयली..." अशें म्हणत ती फुडल्या दारांत गेली.

किडान केद्यान धेंगसो घालो तिचेर! "घोरां चेडूं आसा दुवाळ्यांचें... आनी तूं हिंगा वेळ काड... चोल बेगीन..."

लाडूक खांदार बसोवन किडान सरासर पावलां उबारलीं.





- रुपा कोसंबे
शिंदोळी,सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०

*मागीर आमी भक्तांनीच कितें तरी उपाय करचो पडलोना? देवा आंगार जशें भांगर शिंगर घालतात तशेंच तें राखपाचीय जबाबदारी आमीच घेवची पडलीना? सणा परबे दिसांनीच ताका सालंकृत करून एरविल्ल्या दिसांनी तें बँकेंत बी सुरक्षीत दवरल्यार बरें न्हय? नाजाल्यार चोवीसय वरां ताचेर देखरेख दवरपाखातीर तजवीज करची.*

**ह्या** विशयाचेर बरोवप म्हळ्यार खरें तर कोणाच्या राग-रोषाक केन्ना आनी कशें बळी पडत म्हणपाची खात्री ना. पूण इतलो तेप आयकून आनी ताचेर विचार करून 'तोंड दाबून बुक्क्यांचा मार' अशी जिवाची तगमग जाल्या आनी पेन आपशींच चलपाक लागलां.

तो विशय म्हळ्यार देवळांनी आत्र्या-पयऱ्यान जावपी चोरयो आनी पडिल्ले दरवडे. देव बाबडो एका जाग्यार बसला आनी चोरयो करपी येवन वचून देवाचेर हात घालत आसात. चडश्या चोरांचो केन्ना मागमूस लागुंकच ना. तितल्या वेळार पुलीस तपास सामको वेगान सुरू जाता, खासा शिकयिल्ल्या सुण्याक हाड-व्हर जाता, थोड्यांची धर-पकड जाता, मागीर खंयचेकडेन कांय ना. जाल्ली चोरी लोक मातशी विसरतात थंय आसा दुसऱ्या खंयच्याय देवळांक दरवडो पडटा, परत थंयसरय चारदीस बोवाळ मागीर सगळें ठप्प.

चोरपीय म्हण परिस्थितीचो अंदाज घेवनच आपल्या फुडल्या कामांक आरंभ करतात. ज्या देवाचेर दरवडो घालपाचो तो देव कितल्या आसपतीचो? ताची आर्थिक परिस्थिती मनासारखी आसली म्हणटगीर थंयची भौगोलीक परिस्थिती कितें? शासकीय परिस्थिती कितें हाचो सखोल अभ्यास करूनच फुडली परिक्षा शत प्रतिशत मार्कानी मागीर पास जावप जाता.

हालींच काणकोण वाठारांतल्या महालवाडा-पैंगीण हांगासरल्या श्री नृसिंह-परशुराम देवालयाचे आनी लागसारच आशिल्ल्या नवदुर्गेचे देवळाचेर दरवडो पडलो. आशिल्लें नाशिल्लें चोरानी सगळें हात धुवन व्हेलें. श्री नृसिंह-परशुराम देवळाची गजाल घेतली जाल्यार त्या देवळाचें नुतनीकरणय हालींच जाल्लें. इतलो तेप त्या देवाकडेन कांय नाशिल्लें. न्ही, तशें देवपण आशिल्लें, पूण चोरून व्हरपासारकें कांय नाशिल्लें. वाड-वडिलांच्या काळारसावन ताची पूजा-अर्चा, सणो-परबो, आवळी भोजन-वनभोजन बी सगळे उत्सव त्या त्या वेळार जाताले. पूण देवाच्या आंगाखांद्यार मात चार वस्ती लिकलिकनाशिल्ल्यो. प्रभावळ सादीच आशिल्ली. मुखामळय पाषाणीच आसलें. पूण मुखामळार देवपणाचें तेज झगझगतालें. मूर्तेकडेन पळयल्यार एक प्रसन्नताय भोगताली. इतलोय तेप केन्नाच ताच्या आंगार हात घालपाचें धारिष्ट्य कोणाकच जालें ना. देव आपलें देवपण सांबाळून आशिल्लो, जाता तसो आपल्या भक्तांक पावतालो. आपली सासाय ताणें तिगोवन दवरिल्ली. ताचेच कृपेन हळुहळू ताच्या भक्तांची आसपत सुदारली. 'आमचेकडेन आतां चार पयशे जाल्यात, परिस्थिती सुदारल्या आनी हें सगळें घडपाखातीर देवान हाता-पायांक बळगें दिलां, देवाच्या हातभाराशिवाय हें घडप शक्य नाशिल्लें. तेन्ना देवाक कित्याक बेठोच लंकेची पार्वती कशें दवरुया?' असो सुज्ञ

# राखण



विचार करून भक्तांनी तन, मन धनान देवाची सेवा करपाचें म्हान कार्य हातांत घेतलें.

भक्तांच्या प्रयत्नांक फळ येवन एक बरी सुंदर अशी वास्तू थंय उबी रावली. देवाच्या आंगार चार नग दिसपाक लागले, मुखामळार रुप्याची लिकलिकसाण आयली, प्रभावळय चकचकपाक लागली. पयलींची तांब्या-पितळेचीं आयदनां वचून त्या जाग्यार चांदीचीं आयदनां आयलीं. 'आतां जाता तशी मनापासून सेवा केल्ली आसा, फुडाराक हाच्याकय बरी सेवा करपाची आमकां आसपत दी. किंबहुना तूंच आमचेकडल्यान ती बरी तरेन करून घे' अशें सांगणें बी करून देवाची पुनर्प्रतिशठापना करून सगळे भक्तगण नवे उमेदीन आपापल्या घरा गेले.

पूण कोणाक खबर आशिल्लें? काय बरो सुखी आशिल्ल्या देवाक एकदम त्रासांत घालपाक ते कारणीभूत जातले म्हणून? देवाची परिस्थिती बदलून दोन म्हयने जावचे आसात, देव भोगता तें सूख कोणा सभाग्याच्यान पळोवं नज जालें आनी त्या देवाचेर घालो घालोच. घालो घालतल्यान एकवेळ असोय विचार केल्लो आसूं येता, इतलो तेप देव आपले देवपण सांबाळून रावलो. त्या देवपणाच्या बळग्यार आपली परिस्थिती ताणें सुदारून घेतली. पूण आपलो विचार करतना ताणें आमचोय विचार कित्याक करूना? आमच्या सारकिल्या मनशांनी सुखां केन्ना भोगपाचीं? देवाक तरी देवपण मेळटा? आमच्या सारकिल्यांचें कितें? हे धर्तरेर आशिल्लें सूख चैन केन्ना भोगपाचें? विलास केन्ना करपाचो? भांगराचें मोल मळबाक तेंकलां. आनी देव एका जाग्यार बसून आपल्यो वस्तू मिरयता ताचे परस बायल-भुरग्यां आंगार दोन वस्ती घालपाक मेळटल्यो. तांकांय झेतान भोंवपाक मेळटलें. हे धर्तरेचेर परत केन्ना मनीसजन्म मेळटलो कोण जाणा. आसामेरेन तरी येन केन प्रकारेण जाता तितल्यो इत्सा भागोवन घेवया. कितल्यो उपभोगाच्यो वस्तू



आसात? एक मेळ्ळी जाल्यार दुसरी खुणायता. मोटर-सायकल आसली म्हण जाली? फुडें गाडी आसा, ट्रक आसात, बसी आसात. ताचें मालकीपण केन्ना मिरोवपाचें? खावन-जेवन पोट भरलें म्हण जालें? बँक बेलन्स जाय, भांगर-शिंगर जाय, वज्रां-माणकां जाय. फुडल्यो-फुडल्यो इत्सा पूर्ण करपाखातीर देवाकडेन पळोवप ना तर कोणां मनशाकडेन पळोवपाचें? शेवटाक देवच तो, नाडिल्ल्यांच्या उल्याक धावून वचपी, तांच्यो मनोकामना पूर्ण करपी. आज खाकनवाळ जालो तरी भक्तांच्या मनांत रिगून आपल्याक परत श्रृंगारून घेतलोच.

तशें पळोवपाक गेल्यार देवाक अशें त्रासांत घालपाक आनी चोराची मती (कोणीय एखादले वेळार परिस्थितीन सामको गांजून वचून आनी कांय उपाय नाशिल्ल्यान असलें कुकर्म करपाक फुडें सरिल्लो आसूं येता.) भ्रश्ट करपाक आमी कारणीभूत आसात काय कितें हो प्रस्न आडनदर करूंक जायना. देव खंय सांगता आपल्याक भांगरां-शिंगरां घालपाक? आमकां मनशांकच सोस न्हय तो? आमी ताचे देवपण विसरतात आनी ताकाय आमचेभशेन समजतात. ताका सजयतात, भांगरानी मढयतात. ताची शिरंगारिल्ली मूर्त देखून धन्य धन्य जातात आनी संकश्टांक आमंत्रण दितात.

आमी आमच्या खातीर भांगरां-शिंगरां करिनात तर? करतात पूण चोरांच्या भयान तें लॉकरांत व्हरून दवरतात. हे दीस पयलीं धड? भांगराक लागून जीव वचपाक पुसून फाटी ना म्हणटात आनी व्हरून बँकेंत सुगूर दवरतात. जाय तेन्नाच हाडटात, परत व्हरून बँकेंत दवरतासर तळमळ्यांनी रावतात. पयसो बँकेंतच तर आसता. ताचीय कोणाक सुलूस लागपाक दिना आसतना शेअर्सांत गुंतयतात, जमनी घेवन दवरतात. इतली जतनाय घेवनय आमीय केन्नाकेन्ना दुर्घटनेक बळी पडटातच. आनी देवाक मात भांगरां-शिंगरां घालून एकटोच दवरतात. कित्याक ताची परिक्षा घेवपाक? खरो देव जाल्यार दुर्जनांक शासन करतलोच म्हण खर विस्वासान रावतात. आनी आमची हींच दुटप्पीपणां देवाक आवडनांत. देवाक ताचीं सगळीं भुरगीं सारकींच. सादें मनशाचेंच उदाहरण घेयात. एखादल्या भुरग्यान आवयच्या ताटांतलें कितेंय झोंबून घेवन खालें जाल्यार ती त्या भुरग्याक ख्यास्त करत? उलट दुसरे खेपेक ताका ती वस्त आवडटा म्हण ताच्या पानार इल्लें सुबेजच वाडटली. मागीर? देव कित्याक करतलो चोरांक ख्यास्त?

मागीर आमी भक्तांनीच कितें तरी उपाय करचो पडलोना? देवा आंगार जशें भांगर शिंगर घालतात तशेंच तें राखपाचीय जबाबदारी आमीच घेवची पडलीना? सणा परबे दिसांनीच ताका सालंकृत करून एरविल्ल्या दिसांनी तें बँकेंत बी सुगूर दवरल्यार बरें न्हय? नाजाल्यार चोवीसय वरां ताचेर देखरेख दवरपाखातीर तजवीज करची. ताचें देवपण अढळ उरचेखातीर ताका तशें भांगरान मढोवन एकटुको सोडुया नाका आनी पुलीस राखतले म्हण पर्यायान सरकाराचेरय पातयेवया नाका.

आमचेर संकश्टां आयलीं म्हणटगीर देवाक आमी बोमले देठाकडल्यान होरायतात 'तूंच निवारण कर रे बाबा' म्हण ताका साकडें घालतात. ताच्याबदला ताका कितें तरी दिवपाची लालूच दाखयतात. म्हणटगीर आमीच ताची सासाय सांबाळची पडली ना? नाजाल्यार संकटकाळाक आमी कोणाक उलो घालतलीं?

■ ■ ■



– कुसुम अग्रवाल
शिवोले–गोंय
फोन : २२७२०२१

# हांव कंप्यूटर शिकतां !



*आयचें युगूच यंत्रयूग. त्या खातीर आमच्या सारक्या शिक्षकांक कंप्युटराचो आदार घेवचोच पडटा. इंटरनेटाचो तर खूब उपेग जाता. प्रत्येक विद्यार्थ्यांक टिचर हो आदर्श आसता. तांकां नवें नवें शिकोवपी आनी म्हायती दिवपी शिक्षक आवडटात. आपलें कर्तव्य बरेभशेन करतले जाल्यार कालाबरोबर वचचेंच पडटलें.*

तुमकां दिसतलें ही आनी कसली नविदाद! इल्लेशें शेंबरें भुरगें सुदां कंप्युटर शिकता. भुरग्यान कंप्युटर शिकप आनी हांवें कंप्यूटर शिकप हातूंत खूब फरक आसा. आज हांव रिटायर जावपाच्या हुंबऱ्याचेर उबें आसा. तशें पळोवपाक गेल्यार धा वर्सां पयलींच कंप्युटर शिकपाचें. पूण कंप्युटर पळयतकर म्हाका शेळो घाम सुट्टालो. बायफोकस वक्लांतल्यान कंप्युटरावयलीं अक्षरां वाचतना म्हजी मान वळटाली. कितलोय आनी कसोय 'मावस' हालयलो तरी एरोचेर म्हजो कसोच ताबो उरनासलो. हांवें म्हज्या मुख्याद्यापिकेक सांगलें हांव कितेंय करीन पूण कंप्यूटर शिकपाक वचचें ना. म्हजें इल्लेंशें तोंड पळोवन तिणेंय म्हाका बळजबरी केली ना.

आठवेच्या पाठच पुस्तकांत म्हाळशीबाबालो कंप्युटराचेर पाठ आसा. तो तर शिकोवपाक जाय. कंप्युटर शिक्षिकेकडे वचून थियरीची म्हायती करून घेतली. घरांतूय कंप्युटर आसा. भुरग्यांकडल्यान वेगवेगळ्या भागांचीं नांवां शिकलें. प्रॅक्टीकल झिरो. कंप्युटराचे बाबतींत म्हजे जिणेची गाडी शाळेच्या रुळावयल्यान सुशेगाद वताली.

गेल्या वर्सा म्हजे जिणेंत एक घटना घडली. जैन संघटनेन आमचे शाळेंत कार्यशाळा घेतली. विसाव्या शेंकड्यांत शिक्षणीक मळार खूब बदल जाला. कंप्युटराचो पावरपोयंटाचो उपेग करून पाठ कसो बरेतरेन शिकोवपाक जाता आनी तो चड परिणामकारक आसता हें ते प्रात्यक्षीक करून सांगताले. म्हाका तर पावरपोयंट खंयचो, सादो मावस हालोवपाक कळनासलें. हांवें मनांत म्हणलें म्हजीं दोन वर्सां उरल्यांत आतां आनी कंप्युटर कित्याक?

कार्यशाळेचो दुसरो आनी निमाणो दीस आसलो. ताणी आमकां एक पेपर दिलो. त्या पेपराचेर आमचे शाळेंतल्या सगल्या शिक्षकांचीं नांवां आसलीं. हांवें दुसऱ्या एका शिक्षकाबद्दल तपशील दिवपाचो. ताच्या आंगांत आशिल्ल्या गुणाबद्दल आनी तो खंयच्या मळाचेर कमी पडटा तें बरोवपाचें. प्रस्नांची वळेरी दिल्लीच. प्रत्येक जण मग्न जावन जापो बरयताले.

म्हजे शाळेंत हांवें शिकयल्ल्यो तीन विद्यार्थिनी शिकयतात. तातुंतली एक विद्यार्थिनी टिचर इफेमिया म्हऱ्यांत आयली आनी म्हणपाक लागली मीस म्हज्या पेपराचेर तुजें नांव आसलें. हांवें तुजे बद्दल सगलें उच्च श्रेणींतलें बरयलां. पूण कंप्युटराचे बाबतींत नील बरयलां.

म्हजो स्वाभिमान खंय तरी दुखवलो. म्हजे विद्यार्थिनीन तशें म्हणलें म्हूण न्हय तर हांव आयच्या युगांत खंय तरी कमी पडटां हाची जाणीव म्हाका ते विद्यार्थिनीन करून दिली. बदलत्या काळाबरोबर आमीय बदलपाक जाय अशें म्हाका दिसलें. त्याच दिसा हांवें मनांत ठाम निश्चय केलो. हांव कंप्यूटर शिकतलें म्हणजे शिकतलेंच.

म्हजे विद्यार्थिनीनी म्हज्या परस एक पावल फुडें वचचें हो म्हजो हावेस. आज म्हजीच विद्‌यार्थिनी सिस्टर ज्युली म्हजी मुख्याद्यापिका आसा. तिच्या हातासकयल काम करपाक म्हाका कांयच उणेंपण दिसना. म्हाका कितेंय काम सांगपाक तीच अनमनता. तिणेंच आमकां कंप्युटर शिकोवपाची सोय आमचे शाळेंत केली. कंप्युटर शिक्षिका कुंदा आमकां आठवड्यांत दोन तास कंप्युटर शिकयताली. तिवूय बाबडी भुरगीच. कंप्यूटर ओपन करपापासून शटडावन करपाक हांव हळुहळू शिकलें. तिणें सांगिल्ल्यो व्हडल्यो व्हडल्यो टर्म तकलेवयल्यान वताल्यो. इंग्रजीची ए, बी, सी, डी शिकोवन जातकर तिणें आमकां देवनागरी अक्षरां शिकोवपाक सुरवात केल्ली. त्या खातीर शिवाजी सोफ्टवेयर डावन लोड केलें.

शिवाजी सोफ्टवेयर घालनाबरोबर इंग्रजी अक्षरां टायप करतकर देवनागरी अक्षरां स्क्रिनाचेर येतालीं. कितेंय म्हणात आवयभास ती आवयभासूच. आमचीं बोटां आतां 'की बोर्डाचेर' नाचतालीं. सगल्यांत पयलीं चीट बरयली आनी म्हाका शिकयलें म्हूण तिचे उपकार मानले. म्हजी चीट वाचून टिचर मुमुरखीच हांसली. मन लावून शिकपी बऱ्यो विद्यार्थीनी म्हूण आमची तुस्तूय तिणें केली.

गेलीं तीस वर्सां हांवें स्टेन्सील्स कट करून म्हजे कोंकणीचे पेपर बरयले. केन्ना केन्ना अक्षरां स्पश्ट येनासलीं. व्हडलीं भुरगीं समजून वाचपाक शकतालीं पूण पांचवे-सवेच्या भुरग्यांक वाचपाक त्रास जातालो. त्या खातीर परिक्षा चालू आसतना प्रत्येक वर्गांत वचून तांच्यो अडचणी पयस करच्यो पडटाल्यो.

पयल्या युनीट टॅस्टाचो पेपर बरोवपाक हातांत घेतलो. कासवाचे गतीन हांव टायप करतालें. कळना जाल्यार कुंदा टिचरीक विचारतालें. केन्ना केन्ना भलत्याच बटनाक बोट लागून स्क्रिनाचेर बरयल्लें सगळेंच गायब जातालें. तेन्ना तर आकांत येतालो. हांव व्हडल्यान आड्डतालें. अशा वेळार टिचर काय न्ही शें करून आसा तशें करून दिताली.

आमचें जाणटेपणांत उफाळून आयिल्लें भुरगेंपण पळोवन खो-खो करून हांसताली.

करतां करतां दोन म्हयन्यांनी म्हजो पेपर पूर्ण जालो. म्हाका मळबांत हात लायिल्ल्यावरी जालें. हांवें पोरण्या आनी नव्या पेपराची तुळा केली. नवो पेपर वेवस्तीत दिसतालो, म्हज्या कश्टाचें फळ पळोवन हांव धादोशी जालें. सरळ आडखळनासतना भुरग्यांक वाचपाक मेळटलें म्हूण संतोश भोगलो. त्या वर्सा म्हाळशीबाबालो पाठ शिकयतना उत्साह वाडलो. प्रात्यक्षीक खबर आशिल्ल्यान शिकोवपाचे पद्धतीन खूब फरक पडलो.

आयचें युगूच यंत्रयूग. त्या खातीर आमच्या सारक्या शिक्षकांक कंप्युटराचो आदार घेवचोच पडटा. इंटरनेटाचो तर खूब उपेग जाता. प्रत्येक विद्यार्थ्यांक टिचर हो आदर्श आसता. तांकां नवें नवें शिकोवपी आनी म्हायती दिवपी शिक्षक आवडटात. आपलें कर्तव्य बरेभशेन करतले जाल्यार काळाबरोबर वचचेंच पडटलें.

त्याखातीर जाय फक्त इत्साशक्ती. प्रयत्न करीत जाल्यार खंयचीय गजाल अशक्य नासता.



# तुज्या पत्राची हांव वाट पळयतां

प्रिय सखी,

तुजो फोन आयलो आनी हांव नाय म्हळ्यार डिस्टर्ब जालोंच. तुवें खरें म्हळयार पत्र बरोवपाचें. निदान तें म्हज्यान बिम्बांत छापूं येतालें. पूण आमी आयज पत्राक लेगीत म्हारग जाल्यांत. म्हाका दिसूंक लागलां हांव ह्या तंत्रगिन्यानाच्या युगांत, आसा तसो फाटल्या युगांत वचूंक लागलां.

सखी, तुका म्हजी एक गजाल सांगल्यार हासूंक येतलें. म्हज्या भुरगेपणावेली गजाल ती. शाळेंत म्हळयार सातवे आठवेक शिकतालों हांव तेन्ना. आमच्या घरांत कुरैंयकार पत्रां घेवन येतालो तो म्हज्या व्हडल्या भावाक, नंदाक. तेन्ना घरांतल्या कोणाक पत्र येवप म्हळ्यार व्हडलें कितें तरी! आनी तार बी आयली जाल्यार मागीर बोबो हुयेलीच. तार म्हणटात ती वायटूच खबर घेवन येताली तेन्ना. तेलेग्राम म्हणटाले ताका. अमक्याक तेलेग्राम आयला म्हणटकच कितें तरी वायट बातमी आसा अशें वाड्यार दिसतालें!

अश्या त्या भुरगेपणार जांकां कोणांक पत्रां येतालीं तीं क्वचीत. खूब अभिमान दिसतालो लोकांक ताचो. तेन्ना म्हाकाय एक पत्र येवचें अशें दिसतालें. पूण म्हाका धाडटलो कोण पत्रां? एकदीस हांवें कितें केलें जाणां, म्हजे म्हाकाच पत्र बरयलें आनी पणजेच्या एका पोस्टाच्या दब्यांत घालें. दुसरे दिसा हांव पत्राची वाट पळयत रावलों. कुरैंयकार येतालो, टीनटीन करीत कांपीण मारतालो आनी वतालो. पूण म्हाका पत्र ना. बरेच दीस हांवें वाट पळयली. हांवें पत्तो तर सारको बरयल्लो. नंदाक पत्रां येतालीं त्याच नाम्याचेर. म्हणटकच नामो चूक जावंक शकच नाशिल्लो. काय हांवें भितरलें पत्र म्हाका आनी भायर पाकिटाचेर नामो नंदा धर्मा बोरकार बी बरयल्लो काय? असो दुबाव मारपाचें कारण म्हळ्यार म्हाका अजून तें पत्र मेळूंक ना. म्हजे म्हायती प्रमाण कांय जाणांक पत्रां पन्नास पन्नास वर्सां उपरांत लेगीत मेळ्ळ्यांत खंय! ताचेवेल्यान म्हाकाय तें केन्ना तरी मेळपाची आस्त आसा. आसूं!

फोन करपा बदला तुवें म्हाका पत्र बरोवपाचें अशें दिसपाचें कारण म्हळ्यार आतां पत्र हो प्रकारूच दुर्मीळ जाला. जण एकल्याच्या घरांत फोन आसा. प्रत्येकाकडेन मोबायल आसा. एसएमएस टायप करून सेंड केलो काय दुसऱ्याच खिणाक तो धाडटल्याकडच्यान धाडला ताका पावता. ताची जापूय रोखडीच मेळटा. पत्रांची वाट पळयत ताटकळत बसपाची गरज ना. पूण ती पत्रांची वाट पळयत बसपाची गोडी वेगळीच आसताली. न्ही गो? प्रेमपत्रांचें तर सांगुंकूच नाका. प्रेमपत्रांतलें तें वळणदार अक्षर, ती मन पिशें करपी शब्द रचना. मागीर तो गुलाबी कागद. तितलें थोडें म्हण त्या पत्रांतल्यो गुलाबाच्यो पाकळ्यो आनी जमता जाल्यार अत्तराचे एक-दोन थेंब.

आयच्या भुरग्यांच्या नशिबांत ना न्हय गो हें थ्रील! तांच्या कट्टुलांत पिज्जा आनी एसएम्एस्! पूण तांचे कल्पनेंतलें सूख तितलेंच आसूं येता एखाद्रें! सुखाची परिभाशा व्यक्तीसापेक्ष आसताच न्हय!

तुवें म्हाका पत्र बरोवंक जाय अशें दिसपाचें कारण म्हळ्यार तुका ती बरीऽ स्टायल आसा. तूं जें फोनाचेर उलयतालें तेंय एक पत्रूच कशें! तूं स्वरयंत्राची शाय घेवन वोंठाच्या आपारान बरयतालें आनी हांव कानाचे दोळे करून तें पत्र वाचतालों. अशेंच न्हय तें!

स्वरयंत्रांची शाय करून वोंठाच्या आपारान बरोवप ही वाक्य रचना कशी लागली तुका? नविदाद कांय ना न्हय तातूंत! 'बोरकारी' छाप शब्दरचना. ते परस मंगेश पाडगांवकाराची शब्दरचना सामकी दिलखेचक. अरूण दातेन तर तें गीत गायतना सामको प्राण ओतला. 'स्वरगंगेच्या काठावरती वचन दिले तू मला' वोंठांक स्वरगंगेचो काठ म्हणप कितलें रोमेन्टीक अशें दिसना तुका? वोंठाक वोंठ लावन, चुंबन घेवन तुवें म्हाका वचन दिलें, उतर दिलें हें सांगपाक मंगेश पाडगांवकार वोंठाक स्वर गंगेचो काठ म्हणटा. गंगेचो काठ जितलो पवित्र तितलोच होय स्वरगंगेचो काठ पवित्र. ओळी सामक्यो पिशें लायतात न्हय गो पिशा?

हांवें २७ मार्चाक आमचे घरा महिला मेळावो घेतलो आनी तुका आपयलें ना म्हण तुवें शीण काडलो. तुवें शीण काडप साहजिकच आसा. तुवेंच कित्याक, आनी दोन चार दादल्यानी लेगीत काडलो. आमी तांचे विचार आयकल्ले जाल्यार कितें मळब कोसळपाचें काय म्हूण ताणीं विचारलें!

सखी, खरें म्हळ्यार हो प्रस्न दादलो आनी बायल अश्या फरकाचो न्हय. हो प्रस्न विचार समजून घेवपाचो. जांका कोणाक दिसता की आपणें हे संदीचो लाव घेवंचो ताणीं मुजरत घेवंचो. तूं आपल्याक आपोवंक ना म्हूण शिणटा. कांय म्हजे मित्रूय शिणटात. पूण ह्या महिला मेळाव्याक आपल्या घरकान्नी वांगडा आयिल्ले कांय वदादले मात, हो बायलांचो मेळावो, आमचें थंय कितें काम म्हूण सभाघरांत येना आसतना रावले. ताणीं थंय येवन बशिल्लें, ह्या बायलांचे विचार आयकून घेतिल्ले जाल्यार कितें जग बुडपाचें? बायल आपलें मन कशें उक्तें करता हें अणभवपाचो एक भांगराळी संद होगडायलीना ह्या पापयानी?

आसूं! म्हजे विचार आनी हेरांचे विचार अशे वेगळे आसूं येतात. पूण एक गजाल सामकी खरी सखी, आमकां दादले बायलांक एकमेका पासून पयस दवरपाचो प्रयत्न सामके भुरगेपणार सावन जायत आयला. बायल आनी दादलो हाणीं एकठांय येवप तें फक्त कायदेशीर लग्ना उप्रांतूच. ते आदीं एकमेकां विशीं ओड आसुनय समाजान ह्या दोगांकूय वेगवेगळ्या निती-नेमाच्या आदारान पयसूच दवरल्यात. हाका लागून दादलो-बायलो एकमेकाक समजूंक घेवंक पावच नांत. जेन्ना लग्नाच्या बंदनान एकठांय येतात तेन्ना चडशें

लक्ष कामभावना शमना कडेनूच केंद्रीत जाल्लें आसता. हातुंतली नविदाद सोपली काय मागीर एकमेकांमदले गूण अवगूण दिसूंक लागतात. गुणा परस अवगुणच गुणाकार पध्दतीन दिसतात आनी एकमेकामदीं दुरावो निर्माण जाता. मागीर उरता ती फक्त तडजोड. हे तडजोडीकूच सहजीवन म्हणपाचें?

म्हाका याद जाता, भुरगेपणार आमी चल्यानी चलयां वांगडा रांदचेल्यानी बी खेळ्ळयार आमकां जाण्टेलीं बायजण, बायजूल बी म्हूण चाळयतालीं. ताका लागून चलयां पासून पयसूच रावप जातालें. तरणेपणार चले चलयांक एकठांय वावरप, भोंवप हाचेरूय खूब बंदन आशिल्लें. ह्या बंदनाक लागून चलो चलयांक एक मेकाक समजून घेवप जमलेंच ना.

चलो आनी चलयेन एकठांय रावलें, एकठांय भोंवलीं म्हूण कितें जाता? हांव जाणां चलो आनी चली एकमेकाकडेन आकृश्ट जाता तीं सैमीक कारणांक लागून. सैमाक नवनिर्मिती करपाची आसता. तेच खातीर मनशांमदीं समागमाच्या प्रक्रियेंतल्यान सगळ्यांत उच्च अशी सुखाची संवेदना सैमान भेट दिल्ली आसा. देखुनूच आमचेर संस्कार जाल्यात, उज्याकडेन लोणी व्हरतकच तें वितळटा म्हणपाचे! पूण तेंच शेवटाक सत्य? लोणी उज्याकडेन व्हेल्यार वितळटा आसत. पूण चलो चली वो दादलो बायल एकठांय आयलीं म्हणटकच ताणीं एकमेकाक भोगूंकच जाय अशें कितें आसा? जनावरां लेगीत अशें करिनांत, जनावरां भितर बलात्काराचीं प्रकरणां आमकां अजून मेळूंक नांत. एक मेकाची संमती आसल्यारूच समागम सैमीक रूपान घडून येता. मनीस हो विचारी प्राणी. ताका आपल्याचेर नियंत्रण दवरपाची कला खबर आसा. म्हणटकच चलो आनी चली एकठांय आयल्यार वितळपाचो भंय बाळगून तांकां पयस दवरप कितलें समा तेंच कळना.

सखी तुवें म्हजें 'बबलूचीं पत्रां' पुस्तक वाचलां? ते खातीर 'नामनेच्या' साहित्यिकानी म्हजो जाहीर निशेदूय केला. हातुंतल्या बबलूचेर परब मास्तर अत्याचार करता. शंकर हो गवंडी अत्याचार करता. मास्तर बबलूक नाटकाक व्हरता. रातचो आपल्या म्हऱ्यांत न्हिदयता आनी ताचो उपभोग घेता. शंकर गवंडीय ताका आपलेकडेन न्हिदयता. ताचो उपभोग घेता.

खरें म्हळ्यार हांगा निशेध जावंक जाय आशिल्लो तो परब मास्तर, शंकर गवंडी ह्या लोकांचो. तांचे मदले विकृतीचो. बबलू सारख्या नेणार भुरग्यांचेर केल्ले आगळीकेचो. बबलू सारख्या भुरग्यांक परब मास्तर, शंकर गवंडी हांच्या सारख्या अनवळखी लोकांच्या सुवादीन करपी आवय-बापायचो. पूण निशेध जाता कोणाचो तर बबलूचो! फनी अशें दिसना तुका?

ही तुका याद करपाचें कारण म्हळ्यार आयज दादलोच दादल्यांकडेन सुरक्षीत ना. भुरग्यांच्या बाबतींत एका दादल्याकडल्यान आगळीक घडली जाल्यार आयज बाल हक्क संघटना बी ज्यो आसात त्यो आवाज काडटात. पूण दादलो जेन्ना दादल्याचेर अत्याचार करता वो दुसऱ्या दादल्याचो गैरफायदो घेता तेन्ना ताचे कृतीची हरकत घेवपी संघटना मात ना. तुका हांसूंक येतलें! म्हाकाय एक खेप अशेंच हासूंक आयिल्लें तुका एक ल्हानसो किस्सो सांगतां.

एकदां हांव शैलेंद्र म्हूण एका मित्रा वांगडा पणजेच्या एका हॉटेलांत व्हिस्की घेत बशिल्लों. शैलेंद्राकडेन म्हजो फुडो आशिल्लो. म्हजे फाटल्यान एकलो फॉरेनर बशिल्लो. शैलेंद्र गोरो पीठ्ठ सामको. शैलेंद्र ताका पळोवन पळोवंक ना केल्लेवरी म्हजेकडेन उलयतालो. ताका गाळी घालतालो. ताचें तोंड फोडुया म्हणटालो. कारण कितें तर तो त्या टेबलार बसून शैलेंद्राक पळोवन हस्तमैथुन करतालो. टेबला पोंदसून शैलेंद्राक तें दिसतालें. हांव फाटीं वळून पळोवंक शकना आशिल्लो. अकस्मात हांवें फाटल्यान मान वळयली तेन्ना ताणें सट्ट करून हात थांबयलो. पूण ताचे शैलेंद्राकडेन लागिल्ले दोळे कशे चकचक जाताले ते मात म्हाका सामके पळोवंक मेळ्ळे. आमीय व्हिस्की घेतिल्ली म्हूण बारांत बोवाळ नाका म्हूण ओगी रावले. तर असली ही गजाल हांवें पळयली आनी म्हाकाय कांय दादल्यांचो स्पर्श कित्याक आवडनाशिल्लो तें होलमलें.

कारवार सायडीचोच एक कोंकणी फुडारी हांव जेन्ना मेळटां तेन्ना म्हाका सामको लागीं येतालो. भर रस्त्यार लेगीत म्हाका लागीं घेवन पोशेतालो. तो म्हजेपरस जाण्टो, म्हजी तो अपुर्बाय करता अशी म्हजी पयलीं समजूत. हांव म्हाका आवडना आसतनाय ताका सोसतालों. मागीर मात म्हाका ताच्या स्पर्शाची ओड कळूंक लागली. हांव ताका टाळूंक लागलों. एक दीस मात हांवें सरळ ताका सांगलें पयसुल्ल्यान उलय. हात लायत जाल्यार हात मोडून दवरतलों.

सखी, बायलांक एक सीक्स्थ सेन्स आसता. तांका दादल्याचो स्पर्श, नदर रोकडीच कळटा. खंयचो दादलो खंयच्या अर्थान तेंकता, पळयता हें तांका रोकडेंच कळटा अशें तुवेंच एकदीस म्हणिल्लें. सत गजाल ती. आमकां दादल्यांकय तो आसता. पूण दादल्यान दादल्याचेर अत्त्याचार करप म्हळ्यार अतीच जालेंना? समलिंगी संबंदाक आतां कोर्टान मान्यताय दिल्या म्हणटकच कोणाचे इत्सेआड जर एक दादलो ताका स्पर्श करूंक लागलो जाल्यार तोय विनयभंगाचो प्रकार जालो ना? मागीर कायद्यान ताका ख्यास्त जावं नाका?

बरें गो, खूब लांबलें पत्र. म्हाका आतां तुजे फोन नाका. एक बायलेन फोन करतकच मोबायल कानाक लावप जाता. फोन येतकच बरेंच दिसता पूण चड वेळ मोबायल कानाक लावप बरें न्हय म्हणटात. तेन्ना हे मुखार पत्रूच बरय. तुवेंच कित्याक, म्हाका कोणेंय पत्र बरयल्यार आवडटलें. पत्रां बरोवपाची आमी संवय लावंक जाय. खूब बरो साहित्य प्रकार तो. जेन्ना फोन नाशिल्ले तेन्ना पत्रां बरोवप जातालीं. तीं आयज छापूंक मेळ्ळीं, चड करून प्रेमपत्रां जाल्यार कितलें बरें जावपाचें न्हय?

पत्राची वाट पळयतां.

■■■

**- दिलीप बोरकार**
आगशी - गोंय.
मो.:९८२२१३६८८५



# सी. सी. एल. झिंदाबाद



– काश्मिरी स. पावसकार
एवरशायन अपार्टमेंट,
शिवोली–गोंय.

दोन दिसां पयलीं पेपराचेर एक बातमी वाचली. 'दक्षिण गोंयांत बायलां खातीर पुलीस स्टेशनाची मागणी' गोंय महिला आयोगाच्या वांगड्यांनी गोंयांत चड करून दक्षीण गोंयांत बायलां संबंदीत वाडटीं प्रकरणां हाताळपाक एका खास बायलांच्या पुलीस स्टेशनाची गरज उक्तायल्ली. बातमी वाचून म्हज्या मनांत एक विचार आयलो. ह्या आमच्या पुरूषप्रधान समाजांत बायलांच्यो अश्यो कांय वेगळ्यो मागण्यो आसतात. त्यो पुराय करपाची तितकीच गरजूय आसता. पूण हें आमी स्वत: बायलांनी सांगले बगर केन्ना केन्ना हेरांक कळना. ना न्हय, सरकार ते दिकेन योग्य पावलां उबारता म्हणपाच्यो जायत्यो येवजण्यो आनी सवलती कारवायेंत हाडिल्ल्याच्यो देखी आसात. कितल्यो आमचेमेरेन पावतात, कितल्यो पावनांत हाचेर खर विचाराची गरज आसा.

सरकारा बरोबर हेर संस्थाय अश्यो येवजण्यो राबयतात. तेविशीं प्रसार माध्यमांनी वेळावेळार प्रचारूय जाता. ह्यो गजाली आमकां खबर आसप ही काळाची गरज. हेविशींचें अज्ञान वा अपसमज आमचेच लुकसाणीचो जावं येता. 'अडला हरी आणि गाढवाचे पाय धरी' म्हणटात ते परी गरज पडली काय मागीर धांव मारून, शादूर जावन कांयच उपेग ना. तो मेरेन कळाव जाता. एक वेळ आशिक्षीत, नेणार बायलेक ह्यो गजाली खबर नासल्यार चलता पूण सुशिक्षीत जाणकार बायलांक ह्यो कितल्योशो खबर आसतात? अशीच एक सादी गजाल सांगतां. २००८ सालांत सी. सी. एल येवजण केंद्र सरकारान चालीक लायली. ही येवजण आमकां कितल्यांक खबर आसा देवूच जाणा! तशें २००८ हें स्पेशल वर्स म्हणल्यार नोकरी करपी सगल्या क्षेत्रांतल्या बायलां खातीर दोन वर्सांची ही रजा जाहीर केली. भुरगें अठरा वर्सांचें जाय मेरेन ७३० दिसांची ही सुटी शेगीत दोन वर्सांची वा म्हयन्यांनी वांटून घेवं येता. संस्थेच्या वेवस्थापनाक आडखळ नासल्यार ती सहज मेळटा. कांय जाणांक हेविशीं जाणविकाय आसता पूण थंय अपसमज आसता तो वेगळो!

म्हजी एक इश्टीण शिक्षिका. तिणें आपलो दुबाव उक्तायता म्हळें 'ही रजा/सुटी घेतल्यार मागीर खंयच वचूंक मेळना. घरांतूच बसून रावचें पडटा.' हांवें म्हळें ओगीच अकलेचे तारे तोडचे परस परिपत्रक वाचून पळय मागीर कळटलें. कोणे एकलेन वावडी हाडली ती अशी 'ही दोन वर्सांची सी. सी. एल. घेतल्यार दोन वर्सां आदींच रेफार्माद जावचें पडटा. त्या भायर दर वर्सा मेळपी इनक्रिमेंटूय मेळना.' आतां तुमीच सांगात अश्यो वावड्यो उठोवप समा व्हय? एक दीस म्हजो वांगडी अचकीत सी. सी. एल. झिंदाबादाचे नारे लायत स्टाफांत आयलो. आमी सगल्यांनी विचारतकच ताणें उमेदीन एक वर हे सुटयेचेर लेक्चर दिलें. म्हणूंक लागलो 'घे! तुमका चान्स पडलो. जाता तितले बेगीनूच एप्लाय करून सोडात.' हे गजालीक म्हयनो जाता म्हणल्यार आमच्यांतल्या तिगांनी हे सुटयेची मागणी केली. शाळेन अडचण दाखयली ना. तशी लीव रोखडीच सँक्शन जावन पडली. तसो ह्या वांगडाच सूर बदललो. 'आतां दादल्यांखातीर एस. सी. एल. नांवाची सुटी जाहीर जावपाची आसा.' ही आनी कसली सुटी म्हूण विचारल्यार ताणें म्हळें 'स्पेशल केअर लीव' वयल्यान विनोद करीत ताणें स्पश्टीकरण दिलें. 'तुमी बायलांनी भुरग्यांखातीर सी. सी. एल. घेतल्यार आमचें दादल्यांचें केअर घेवपाक कोण? देखून हे सुटयेची तरतूद केल्या.' तितल्यार सोंपलें ना वयर थोडीं मुक्ताफळां आयकयत म्हळें 'सरकार तुमच्या बायलांच्यो चडूच लक्तुबायो करता. अशें केल्ल्यान तुमचें चड फावता आनी तुमी आमच्या माथ्यार बसतात.' अश्यो बऱ्योच चर्चा रंगार येतात. बरें, हातूंत वांटो घेवप्यांची संख्या बायलांपरस चड दादल्यांचीच आसता. तशें पळयल्यार दर वर्सा जागतीक महिला दिसा निमतान सी. सी. एलावरीच बायलांक आनी चलयांक कन्यादान योजना, महिला आपमदत आनी बचतगट योजना, आयकर सवलत, प्रसुतीकाळ सुटी, प्रवासांत आरक्षण, बायलांखातीर ३३ टक्के आरक्षण अश्यो शेकड्यांनी सवलती आनी योजना आसात आनी फुडाराक जावच्यो आसात. उठसूट कोणूय उठ्ठात ह्या सवलतींचेर कितेंय उलयतात, मुर्दाबाद, मुर्दाबाद म्हूण आरड मारतात, घोशणा दितात. कितेंय आसूं आमी बायलांनीं मात ह्या सवलतींचो फायदो (लाव) घेवचो आनी आपलो हक्क मेळोवंचो. असोच हक्क मेळयतना हांवेंय हे सुटयेक ॲप्लाय केलां. देखून म्हाका मुजरत गायन दिसता. सी. सी. एल. झिंदाबाद!



# तुटपी–जुळपी सपनांचें दूख



कॉलेजींतल्या चड वेळ खावपी चर्चे उपरांत प्रिंसीपल गौरा खूब थकून गेल्ली. हवामानूय मात्शें गरम आसलें, ताका लागून सांजवेळार पासून हवेंत थंडसाण नासली. तिणें बेगीबेगीन गरज आशिल्ल्या फायलींचेर सयो केल्यो आनी हिन्दीच्या प्रोफेसरा वांगडा भायर आयली. अनुराधाची गाडी येवंक नासली म्हणून तिकाय आपले गाडयेंत वांगडा घेतली. तिच्या घरा पावतकूत अनुराधान खूब आग्रा केलो च्या पिवन वच म्हणून, पूण एक तर कॉलेजींतल्या लांच चलिल्ल्या भासाभाशे उपरांत थकिल्लें मन, आनी दुसरें म्हळ्यार कॉलेजींतल्या दिसभरच्या राटावळींक लागून थकिल्ली कूड हाका लागून तिचें आमंत्रण स्विकारलें ना तिणें. तिणें बद्द आपल्या घरा वचपाक चितलें.

सकाळच्यान मन मात्शें उदासच आसलें. ते दीस तें गरजेचें चर्चासत्र नाशिल्लें जाल्यार ती कॉलेजींत वचपाचीच नासली. आयची सकाळ दोळ्यां मुखार आयली. कितली खुशाल आसली सकाळीं उठनाफुडें. तकले कुशीक आशिल्लें लांबरूंद जनेल उगडल्या उपरांत शेंदुरी रंगाचो गुळो पयस वयर येतना सदांच दिसता. आयजूय ती त्या रंगाचें नाजूकपण पळोवन खुशाल जाल्ली. तेन्नाच शेजराक रावपी अनुराधाच्या चाकरान एक बंद पाकीट हाडून दिलें, जें काल पोस्टांतल्यान आयिल्लें आनी चुकून पोस्टमनान तांगेर पावयल्लें. त्याच प्रसन्न मनान तें पाकीट उगतें केलें. धाकटी भयण पूर्वा तिचें पत्र आसलें तातूंत. वाटकुळ्या उशाचेर तकली तेकोवन आरामांत वाचपाक लागली. पूण वाचतां-वाचतां तिचें मन झाडांच्या पानां भशेन थरथरपाक लागलें आनी मुखामळा वयली खोशी खिणांखिणांक कोणीतरी हातासून घेतली. अशें दिसतालें की ती उंच दोंगरावयल्यान निसरून खोल दरयंत पडून रक्त बंबाळ जाल्या. तिच्या दोळ्यांतल्यान मनांतली दूख उदक जावन व्हावूंक लागली.

दारावयली बॅल वाजली. दुर्गा आयिल्लें काम करपाक. गौरान रोकडेंच दूख सावरलें आनी कॉलेजींत वचपाची तयारी करपाक लागली. मन पडींग रस्त्यावेल्यान धांवतालें, पिशांभशेन. दोळे उगते आसले, पूण नदरे सामकार काळ्यो सावळ्यो घुंवताल्यो. कितल्या जडायेन आख्खो दीस सारिल्लो तिणें. हांसतालीय बी, उलयतालीय बी. कितलीशींच भोंयीं चडयत आनी देंवयत रावली ती! पूण भितरल्या भितर तिचें मन पिडटालें. कितें पूर्वाचें जिवीत फुलोवपाचो यत्न फुकट गेलो? कितें तिच्या हातांतल्यान कसलो गुन्यांव जाला, जाची ख्यास्त पुराय जिवीतभर पूर्वाक भोगची पडटली?

आपले कुडींत येवन ती हातरुणार गळसणून पडली. म्हेळे जाल्ल्या कपड्यांच्या अस्ताव्यस्त पडिल्ल्या पोटल्यां भशेन कितलेशेच देखावे तिच्या दोळ्यांमुखार येवपाक लागले. विचारांची साखळ धुळीन भरिल्ल्या रस्त्या वयल्यान भरकटत रावली.

तीन भावां उपरांत तिचो जन्म जाल्लो. सगळे खूब खुशाल जाल्ले. कस्तुरी काकी आनी सोना आतें सांगतालीं की सात दीस मेरेन पदां गावप चलतालें आनी ल्हानां-व्हडां मदीं लाडू वाटप जाल्लें. बापायन नांव दवरलें गौरा. येवजिल्लें आसतलें कीं चलये उपरांत आनीक चले जातले. ह्याच चल्यांचे आशेन आनीक भयणी जाल्यो. तेन्ना ना पदां गायलीं गेलीं आनी नाय लाडू वाटप जाले.

म्हणटात न्हय की जेन्ना लोक आपल्यो सुवार्थी आशा भागोवंक शकनांत तेन्ना घराचीं दारां-हुंबरेय बी बेजार जातात. वयर आनीक आपल्या भुरग्यांमदीं चलो-चली हो भेद करून निराशा, उबगण, निरादार आनी घृणाचीं बियां रोयलीं जायत जाल्यार घर फकत एक सुनसान भुंयार जावन उरता.

त्या भरिल्ल्या घरांत ल्हव ल्हव एक एक अरिश्ट येवपाक सुरवात जाली. व्हडलो भाव सुटये दिसा आपल्या सांगात्यां वांगडा न्हंयचेर न्हावपाक म्हूण गेल्लो. पेंवपाची सर्त लागली. ताका न्हंयचो झोत आपल्या वांगडा घेवन गेलो. परतून आयलें तें ताचें फुगिल्लें मडें. घरांत सगळ्याक हालेटी पडल्यो. आवय आनी बापूय पिशे जाल्ले भशेन जाले. बापायचे दोळे सुकिल्ल्या भशेन काळखांत नदर मारपाक लागले.

ल्हव ल्हव अशें म्हणप जावंक लागलें की तिनय चलयो भावाच्या मरणाक कारण जाल्यो म्हूण. ना तीन नागीणी जन्माक येतात ना धडधाकट भावाक मरपा फावो जाता. काळान सगळ्यांच्या घायांचेर खपली धरपाक लागिल्ली. इतल्यान मदल्या भावाक जोर येवपाक लागलो. तो इतलो चड जालो की वखदांचो आनी दोतोराचो कांयच उपेग जालो ना.

फाटल्या दारांतल्यान आयल्लेभशेन मरणान वगेपणान आपलें काम केलें. हे फावटीच्या कलकलाटान आख्खें मळब हालयलें. बापूय सामको गळसणलो. वीस वर्सां उपरांतचें जाणटेपण एके रातीनूच ताचेर दिसपाक लागलें. ताणें हातरूण धरलें. आवय हुयेली मारून मारून मरपाकडेन पावली आनी कसलीच लज भीड धरिनासतना जाहीर करपाक लागली की 'म्हज्यो चलयोच साक्षात मरण जावन पुराय कुटुंबाक काबार करपाक आयल्यात. तांचें तोंड पळोवप म्हटल्यारूच पाप.' वाड्यार शेजारी, सोयरीं सगळीं कुटुंबाच्या वांगड्यां बराबर तिनूय भयणांक जाय तश्यो गाळी घालपाक लागलीं. आपल्याच घरांत तिगांय एका एकटोशी कोनशाक पडून उरतालीं, अपमानीत जावन बहीश्कृत जावन. कोण सारको उलयनासलो, ना कोण दुकां पुसपाक. तिगांयचीं मनां मरून गोबोर जालीं. जायतो विचार करून पासून तांकां समजना जालें कीं भावांच्या मरणाकडेन आपलो संबंद कितें? आमी पापी कित्याक?

तिसरो भाव ल्हानपणासावन हट्टी आनी मस्तो जावन आसलो. आतां एकलोच जावन तो चडूच हातीभायर गेलो. सगळे ताकाच वयर वयर करताले. ताचो दरएक हट्ट पुराय जातालो आनी दरएक चूक माफ जाताली. हाका लागून तो नेमान शाळेंत वचना जालो. वायट इश्ट ताका मेळ्ळे. घरांतल्यान भायर सरून बेठोच हेवटेन तेवटेन भोंवतालो. अशानूच तो सोऱ्याक लागीं जालो. धड जेवी नासलो, ना धड न्हिदतालो. आवय बापाय कडल्यान खूब खर्चाक मेळटाले. कोणूच फोर्सान आडावपी नासलो. एक दीस कुडींत जो न्हिदलो तो सकाळीं उठलोच ना. ताच्या चोंयवटेन घुंवळी वखदां आनी गुळयांच्यो रंगी बिरंगी बाटल्यो पडिल्ल्यो आसल्यो आनी तो तोंडांतल्यान येवपी निळ्या फेसा वांगडा मरणाचे कुशींत न्हिदलेलो.

ताचे असलें बुरशें मरण पळोवन सगळेच मोने आनी भेरे जावन उरले. पुराय शाराक त्या घराच्या निसंताना संबंदी हाहाकार जालो. पुराय घरांत फांकारलेल्या थंडायेमदीं त्यो तिनूय भयणी गुन्यांवकारी जाल्ले भशेन स्वताक दुसऱ्यांचे नदरेपसून लिपयत रावलीं. तांकां आदार दिवपी आनी मोग दिवपी कोणूच ना जाल्ल्यान तीं दर खिणांक भियेवन रावतालीं. आतां तर तांकां आपले सावळेचोय भंय दिसपाक लागलो. दिसभर तांकां गाळी सवप जातालें आनी मारूय पडटालो.

जनावरा भशेन तांचे कडल्यान वावर करून घेताले. त्यो त्या घरच्यो चलयो नासून, विकत हाडलेल्या चाकरां भशेन तांकां अर्दवट जेवपाक, दाट शें न्हेसपाक आनी गाळी इनाम मेळटाल्यो. शिकप बंद जाल्लें. गौरा कशे बशेन धावी पास जाल्ली. पूण धाकटें चित्रा आनी पूर्वा चड शिकूंक पावलीं नात. जेन्ना खाश्या आवयकडल्यान तांकां जनावरांभशेन मार पडटालो, तेन्ना भंयान थरथरत दोगूय भयणी व्हडले भयणीच्या गोपांत वचून वरां वरां हुमसून हुमसून रडटाल्यो.

घडये भितरल्या भितर घुस्मटून म्हणात वा रातदीस रडून रडून बापायचे दोळे भितर गेल्ले. तो सामको कुड्डो जाल्लेभशेन जालो. आवय तर पयलीच्यानच रातआंधळी. सांजवेळ जाली काय सकाळ मेरेन तिका कांय दिसच नासलें. बापायचो मोग त्या तिगांय भयणांक केन्ना केन्ना मेळटालो, पूण कांय दिसांनीच तांकां मरण आयलें.

बापायच्या मरणा उपरांत घर खर्चाचो प्रस्न उपरासलो. तेन्ना व्हडली जाल्ले कारणान गौरा आपूण सावरली आनी सगळी भीड भंय सोडून ट्यूशन घेवपाक लागली. वांगडाच भायल्यान शिकपाक सुरवात केली. भयणांक परतून स्कुलांत ॲडमीशन घेवन दिलें. तिगांय भयणांमदीं नेट आयलो. आत्मसम्मान जागो जालो.

तिगांय मना पासून घरचें सगळें सांबाळटालीं. वांगडाच शिकतालींय बी. त्योच पनवती म्हूण हिणसायल्ल्यो चलयो आतां आवयचो आदार जावन आसल्यो, सगळ्यांचीं मनां जिकपी वाड्यार आनी सोयऱ्यां मदीं तांच्यो देखी दिवपाक लागले. घरांत खोस परतून घोळपाक लागली. हें सगळें मेळपांत आनी भयणांक उंचेलें शिकप दिवपांत गौरान आपलें सर्वस्वच सोपयलें म्हटल्यार जायत. लग्नाची पिराय केन्नाच हुपून गेल्ली. ल्हान व्हड शाळांनी भोंवतां भोंवतां हे कॉलेजीची प्रिसीपॉल जाल्ली. घरांत गौरा ताई आनी कॉलेजींत प्रिंसीपल डॉ. गौरा जावन उरली. दोनूय धाकट्या भयणींचीं लग्नां तिणें व्हडा मनान करून दिलीं. खाश्या चलयो जाल्लेभशेन तांकां निरोप दिलो. चित्राक जेन्ना फाटोफाट पांच चलयो जाल्यो तेन्ना तिका सासरच्यान इतलें आयकून घेवचें पडलें, इतले त्रास जाले कीं एक फावट परतून तिचें मन दुखावलें. खूब समजायलें त्या लोकांक. जांवय जो बेसबरो शिकिल्लो सवरिल्लो, समंजस आनी बरी नोकरी आसपी, ताकाय जायतो समजायलो. पूण कांयच उपेग ना.

चित्राच्या सासूरवाडी कुशीकूच सुखाराम पटवारीची चली सत्त्याचें लग्न जाल्लें. ताणें येवन सांगलें, 'बेठीच त्या फातराच्या काळीज आशिल्ल्या लोकांकडे तोंड वाडयता. तांचेर कितें परिणाम जावपाचो आसा? हां जेन्ना तुज्यो चिटयो येतात, वा तांकां कितेंय समजावपाच्यो गजाली करतां, तेन्ना चड आयकयतात चित्राची सासू आनी जाव. ज्या जांवयाक सादो समजता, तो शिकिल्लें सवरिल्लें जनावर जावन आसा. मारता बीन. दर फावटी विधवा नणंद थोमणे मारून चित्राक नाका शेवट करता. चित्रा तर त्रासून सुकिल्ली बडी कशें जाला. जोर, खांक सदांच आसा ताका. वयल्यान घरचें सगळें काम.'

ती थरथरपाक लागली सत्त्या कडल्यान सगळें कितें आयकून. चित्राक लागून तिचें मन रडटालें. ल्हानपणार आवय रागार जातकूत तीच ताका गोपांत घेवन धीर दिताली. आतां ती कांयच करूंक शक नासली. भितरल्या भितर घुस्मट्टाली.

एक दीस वायट खबर आयलीच. ती म्हळ्यार क्षयरोगाक लागून चित्रा भायर पडलें. पयलींच्यानूच अपमान गिळून चाळण जाल्ले कुडीक क्षयरोगाच्या जंतुनी खावन उडयली वा सासरचे लोक तिच्या अकाली मरणाक जापसालदार जाले? तिच्या मनांत प्रस्न घुंवपाक लागले सदांभशेन.

आनी हांगा जायत्या म्हयन्यां उपरांत मेळिल्लें पूर्वाचें पत्र. कितें बदलपाक पावली ती भयणीची जीण? येवजिल्लें की जें कितें

तिका मेळूंक ना तें सगळें भयणीचे व्हटयेंत घालून तांची सूखासमाधानाची जीण पळयतली म्हूण आपल्यो सगळ्यो इत्सा आनी कश्टान मेळयल्ली पै न पै तांचेर हुंवाळून उडयल्ली. काळजांतल्या मोगान तांकां शिंपून आपल्या कर्तव्याचो एक एक कण पुराय केल्लो पूण...

पंख्याच्या वाऱ्यान जशें काय पूर्वाच्या पत्रांतलें एक एक उतर तिच्या सामकार हुनहुनीत रेंवेंतल्या कणां भशेन उडटालें वा घडये पूर्वाच खासा आपूण फुड्यांत बसून सदां बशेन दुकांनीं भरिल्लीं उतरां उलयतालें. कोणाक सांगतलें ती मनांतली व्यथा? पत्रातलें एक एक उतर उज्याचो हुलोप जाल्ले बशेन भितर मेरेन तापयतालो.

'ताई, हांव राविल्लें वांजूट धतरी भशेन नापीक. कितलीं वर्सां काडलीं हांवें वांजूट उतरांतलो अपमान सोशीत आनी तूंय कितें कमी काळजेंत आसताली म्हजे हाल आयकून पळोवन? तरीय पूण हांव म्हजे म्हाकाच सावरतालें. जेन्ना तूं परत-परत समजायताली म्हज्या घोवाक आनी सासरच्या हेर लोकांक खंयच्याय भुरग्याक पोसको घेवपाक लागून. एके अटीर तयार जाल्लीं तीं सगळीं की बारीक साणीन चवकशी करून निकतेंच जन्मल्लें भुरगेंच पोसकें घेवचें म्हूण आनी तुवें तेंय कठीण काम पुराय केल्लें.'

फुलाभशेन सुंदर भुरगें मेळ्ळें म्हूण कितलीं खुशाल जाल्लीं सगळीं. मांयन नांव दवरलें नवजीत. मांव मोगान ताका निर्मल म्हणटालो. भुरग्याच्या निर्मळ हांशान आमी खुशाल जावन उरतालीं. तूंय कितली खुशाल जाल्ली, पूण ताई, पुताचे पांय पाळण्यांतूच दिसपाक लागले. हांवें तुका केन्नाच कितें सांगूंक ना. सदांच ताचीं कौतुकांच बरोवन आयकयतालें. आयज म्हज्यान वगी रावपाक जायना, आयक, तो पयलीच्यानूच खूब हट्टी जावन आसलो. सांगिल्लें आयकप ना, फट उलोवप आनी जाणट्यां वांगडा चुकीचो वेव्हार करप. शाळेंत मंदबुद्दी भुरगो मानताले ताका.

कितें तुका दिसता की आमी सगळीं वगी रावचीं? ना ताई, लाडांत घेवन, दामटून धमकावन बरेभशेन काणयो सांगून आनी पुराय



सावधानीन ताचेर नदर दवरून पासून ताच्या स्वभावांत मात्तूय बदल घडोवंक शकलीं नात. फुडें पावून तर फटींगपणां करप, धोको दिवप आनी चोरी करप ही ताची वळख जावन गेली. धंदेवाईक चोरां भशेन तो फिशाल जायत गेलो. शाळेंतल्यान पळून वचप, रस्त्याचेर गड्ड्यानी खेळप, उदार घेवन भायर खावप, झगडीं करप, अभद्र उलोवप ही ताची सवंयच जावन गेली. सगळे बेजार जाले. तोंडार पळोवपाक सोबीत पूण वेव्हारांत सामको राक्षसी प्रवृत्तीचो.

पिराय वाडटा तशी ताचीं तवनासपणां आनी मस्तेपणां वाडत गेलीं. ताई, आतां तो घरांतल्यान भांगर, रुपया आनी आपल्या बापायची भांगराची घडयाळ घेवन पळून गेलो. दोन दीस जाले. वायट इश्टागती मर्दीं कितें शिकलो ना तो? जुगारापासून सोरो पिवपा मेरेन. सगळे सामके दुखेस्त जावन आसात. कशे दितले पुलीसेंत खबर. आपलेंच नांव पेडड्यार. शाळेंतल्यानूय ताचें नांव काडून उडयलां. एके स्कुटरीचे चोरयेचे चौकशींत ताचो पयलीं सोद चालू आसा.

ताई, हो कसलो पूत घेतलो आमी? हाचे परस वांजूट म्हूण रावपाचें दुख्ख बरें आसलें. हें खिणा-खिणा येवपी मरण तरी येवचें नासलें. भुरगें नाशिल्लें जाल्यार ह्या दुप्पट तिप्पट वज्या सकयल तरी चिड्डून वचचें नासलें. आमच्या सगळयांचें जिवीत शिकिल्ल्या, सवरिल्ल्या, सुसंस्कृत घराब्यान वाडिल्ल्या ह्या भुरग्या भितरलें रक्त कित्याक साफ, संस्कृत जालें ना ताई? आमच्या सोबीत बागेंत हो काजरो कसो वाडूंक लागलो? लजेन आनी अपमानान सगळ्यांचो सुशेग काबार जाला. गौरा ताई, तुवें रोयिल्लें भांगराळ सपन इतलें विखाळ कशें जावन गेलें कीं अख्खें जिवित पुराय रुपान पांगळें जावन गेलें? पत्रांतलें उतरान उतर तुतयो जावन सकाळच्यान तिचेर आदळटालें. ती केन्नाच तुटून गेल्ली. पूण पूर्वाच्या पत्रान तर तिचें अस्तित्वच भायर काडून उडयल्लें. ती विचार करपाक लागली खंय उणेंपण उरलें काय म्हूण. ह्या भयणांक सूख दिवचे खातीर तिणें आपल्याक हुंवाळून उडयली. आपलेखातीर एक खीण भरूय विचार केलो ना.

कितें बरोवं पूर्वाक कीं सगळ्यांचे व्हटयेंत खोशयेचीं फुलां पडनांत पिश्या. बरें आसा, ह्या भुरग्याक तुज्या रित्या, वांजूट कुसव्याची खोशी मानून घेतलेलो, एकेभशेन उदार घेतलेलें सूख. एक फावट विचार आयल्लो कीं हो कसल्या गुणांचो कोम जावन आसा म्हूण? कितें इतिहास आसतलो हेचो? पूण आशेच्या विस्वासान ह्या दुबावांक पयसायले, तुजे कडलें सुशिक्षीत, सुसंस्कृत, सभ्य वातावरण हाचे भितर बरे संस्कार भरपाक पावतले अशें दिशिल्लें. पूण जालें कितें?

पूण पूर्वा, अशे भशेन गळसणून उपकारा पडपाचें ना. अशे बशेन तो आनीकूय खर गुन्यांवकारी जातलो. आतां आजून ल्हान रोपो आसा तो. धिरान सारें उदक आनी गरज तेन्ना नडणी करून कितें माळी त्या अर्धमेल्ल्या रोपाक जमीन बदलून बदलून आपल्या कार्यांत सफल जायना? धीर धरून तरी पळय. ताच्यांतलें वायटपण पयस करूनच ताका नवो मनीस करपाचो आसा तुकां. तुटिल्लें जोडचेंच पडटा. आनी हेंच वास्तव जावन आसा.

असो विचार येतकच तिचे मर्दीं एक नवी शक्त आयिल्ले भशेन जाली आनी ती पुर्वाक पत्र बरोवंक बसली.

**(सावित्री परमार हांचे हिन्दी कथेचो उदय देशप्रभू हाणीं केल्लो अणकार.)**

■ ■ ■

# उतरकुवाडें

गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्साक सलाम

बिम्ब मे ११



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

## आडवे

१. कसकस येवप
५. खर उजवाडान नदर म्हेळी करप
७. हुमकळायल्लो पांच, सात बी वातीचो तेला-दिवो.
८. झांजी भाशेन भजन करतना वाजोवपाची वस्तू
९. गोडी, रूच, पातळ द्रव
१०. कलकत्याचो विमानतळ.
१३. आस्त, आशा
१५. खूब चड, खूब व्हड.
१६. देव, परमेश्वर
१७. मोव, शांत, थंड
१८. मेंबर, सदस्य
२०. 'शोले' सिनेमातली बसंती-हेमा ___
२३. घोवाचो नीज मोग करपी बायल
२५. उणो केल्लो खर्च, सांबाळून केल्लो खर्च
२८. ताल, गती, चाल
२९. कातली जावंक नाशिल्लो नाल्ल
३०. ___ दीव – एक केंद्रसाशीत प्रदेश.

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ क | ३ स | ४ प | | ५ दि | | ६ | |
| | | ७ ला | म | ण | दि | वो | | | |
| ८ | | | ९ र | स | | १० डं | ११ | | १२ म |
| | | १३ आ | स | | १४ न | | | | ई |
| १५ प | र | म | | १६ भ | ग | वा | न | | व |
| | | र | | | र | | १७ शि | त | ळ |
| १८ स | १९ भा | स | द | | पा | | | | |
| | र | | | २० मा | लि | २१ नी | | | २२ का |
| २३ प | ती | व्र | २४ ता | | २५ का | ट | २६ क | २७ स | र |
| २८ ल | थ | | २९ | | | | ३० द | म | ण |

## उबे

१. वेंगावप, वेंगेंत घेवप
२. कसब, आर्ट
३. एकरूप, तल्लीन
४. घरे आशिल्लें फळ
५. एक जिवाणें
६. नापीक, झाडां-पेडां नाशिल्लें
११. मदांद, खूब मस्तो
१२. धोबी, मुस्तायकी उमळपी
१३. आंबे पिकून काडिल्लो रोस
१४. काम्र, म्युनिसिपालटी
१९. भारताचो रहिवासी, इंडियन, हिंदुस्तानी
२१. सरळ, वाकडो नाशिल्लो, सारकें
२२. हेत, निमित्य, कित्याकतर
२३. खीण (हिंदी)
२४. हक, मालकी, धनीपण
२६. रेशमाचें धोतराभशेन न्हेसपाचें लुगट
२७. सारकें, बराबर, तुळा करूंक जायत अशें

### एप्रिल उतरकुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| रा | ज | कु | मा | र | | स | भा | स | द |
| ज | | | मा | व | सो | भा | व | | स |
| पा | त | क | | ळ | | | ज | ग | म |
| ट | न | | वि | ना | य | क | | ण | |
| ण | | अ | ना | थ | | रा | ज | प | थ |
| | अ | | य | | का | म | | | प |
| | ना | ट | की | | र | ती | | का | का |
| ना | म | | | गू | ण | | न | कू | ल |
| म | त | ल | बी | | | बे | | ळ | |
| ना | | ता | ड | प | त्री | | ना | ट | क |



# आयचीं भुरगीं जो आहार घेतात तो शरिरांत कामुकताय वाडोवपी

**- डॉ. प्रदीप पडवळ**

**डॉ.** प्रदीप पडवळ गोंय राज्य एड्स नियंत्रण संस्थेचे प्रकल्प संचालक. हांसत्या मुखामळाचे, उमेदी अधिकारी. बिम्ब मासिकांतल्यान फाटलीं णव वर्सां दर म्हयन्याक डॉ. वंदना धुमे हांचें 'भलायकी' हें सदर चलतालें आनी तेंच सदर आमी १०व्या वर्सा थोडो बदल करून सुरू करूंक सोदतात अशें डॉ. पडवळ हांकां सांगलें. ते बराबर ताणींच आपूण जावन उत्सुकतेन विचारलें, आपलेकडल्यान कितें मजत जाय?

म्हळें, गोंयांतल्या एड्स ह्या दुयेंसाविशीं आनी चड करून ह्या दुयेंसाची बळी थारिल्ले अस्तुरेविशीं थोडी म्हायती ह्या सदरांतल्यान बिम्बच्या वाचकां मेरेन पावची अशें बिम्ब परिवाराची इत्सा आसा.

दिशिल्लें, डॉक्टर पडवळ फाल्यां-परवां यो म्हणटले. आपल्याक म्हायती मेळोवंक जाय म्हणटले पूण तांच्या तोंडार एकानएक आंकडेवारी तयार. आमी तांका विनवणी करपाक फुरसत, ताणीं फॅक्टस् आनी फिगर्स धडाधड मुखार ओतले म्हळ्यार जाता.

१९८७च्या दरम्यान सेक्सवर्कसांच्या माध्यमांतल्यान एड्स गोंयांत पावलो. ते आदीं अमेरिकेंत १९८६ वर्सा एड्स सापडिल्लो आनी ताचें कारण हें समलिंगी संभोग म्हणपाचें कळून आयिल्लें, त्या काळांत बायलांक लागणीचें प्रमाण शून्य आशिल्लें. आयज जागतीक स्तरार हें प्रमाण फिफ्टी फिफ्टी टक्के आसा.

गोंयांत मात हें प्रमाण ६०% दादले आनी ४० टक्के बायलो अशें आसा.

आमकां गोंयांत एच आय व्ही पोजिटीवचीं प्रकरणां सापडलीं तातूंत ३२१ बायलां आसात. टक्केवारीचोच आदार घेवन सांगपाचें जाल्यार हें प्रमाण ३९% आसा.

ह्या ३२१ बायलांचें वर्गीकरण करीत जाल्यार तातूंत १५ ते ४९ वर्सां पिरायेच्या ८३% बायलांचो आसपाव आशिल्लो. ३७% बायलो २५ ते ३४ वयोगटांतल्यो. १५ ते २४ वयोगटांतल्यो ७ टक्के आनी उरिल्ल्यो ३५ ते ५० वयोगटांतल्यो आसात म्हणपाचें दिसून आयलें.

आतां हें सगळें घडपाचें कारण म्हळ्यार विदेशांप्रमाणे भारतांतूय लिंगीक वो सेक्स्युअल पिराय ही उणे पिरायेर पावल्या. तशें घडपाचीं कारणां म्हळ्यार जागतीक तापमानात जाल्ली वाढ, आहार जो आयचीं भुरगीं घेतात तो शरिरांत कामुकताय वाडोवपी आसता. तातूंत पयलींभशेन आयचीं भुरगीं बंधनांत नांत. तांची प्युबर्टी बेगीन जाता. ताका लागून गुरवारपणूय ल्हान पिरायेर येता. हाचो सगळ्यांचो परिणाम म्हणून सेक्स्युअल ट्रान्समिटेड डिसिजेस जाका शरिरसंबंधांतल्यान जावपी दुयेंसां अशें म्हणूं येता तांचें प्रमाण वाडलां. तांतलेंच एक दुयेंस म्हळ्यार हें एच आय व्ही.

लग्नापयलीं ती चली एच आय व्ही पॉजिटीव्ह आसा म्हणपाचें कळून आयलें जाल्यार खूबश्यो सामाजिक समस्या निर्माण जावपाचो प्रस्न उप्रासूं येता.

जर कोणाकूय एच आय व्ही लागणीचो दुबाव मारत जाल्यार आपखोशयेन तपासणी करप गरजेचें आसता. हे तपासणेंत लागण आसा म्हणपाचें कळ्ळें जाल्यार ते चलयेच्या लग्नाची समस्या निर्माण जाता. जर ती चली लग्न जाली जाल्यार तिचेकडल्यान ही लागण



तिच्या घोवाक जावं येता. मागीर तिच्या जल्माक येवपी भुरग्यांकूय जावं येता.

आतां प्रस्न असो येता, हे लागण जाल्ले चलयेन लग्न जावपच ना काय म्हण! तिचींय संवसार थाटपाचीं सपनां आशिल्लीं. तेन्ना हे एकंदर घडणुके कडेन वेव्हारी नदरेन जाप सोदची पडटली.

एच आय व्ही पॉजिटीव्ह चली आसा तिणें पॉजिटीव्ह चल्याकडेनूच लग्न जांवचें. हें तशें व्यक्तीगत स्तरार कठीणूच. पूण एच आय व्ही पॉजिटीव्ह लागण जाल्ल्याचे वधुवर मेळावे कांयकडेन आयोजीत करतात. पंढरपुराक आशिल्लो गाडगे महाराज ट्रस्ट हे मेळावे घडोवन हाडटा.

अशे तरेन लग्नकार्य घडून आयिल्ल्यान तांचो संवसार चालीक लागता तें जालेंच आनी ही लागण दुसऱ्यांक कोणाक जावपाची शक्यताय कायमची ना जावन वता.

ह्या उप्रांत आनीक एक प्रस्न तकली वयर काडटा तो म्हळ्यार ह्या एच आय व्ही पॉजिटीव्ह जोडप्यान भुरग्याक जल्म दिवप काय ना हो.

तर हाचेरूय पी पी टी सी टी (PPTCT) हो विचार वयर सरला. म्हळ्यार Prevention of Parents to child Transmission - पालकांकडल्यान भुरग्यांकडेन संक्रमण न जावपा खातीर टाळप. पयलीं आवयकडल्यान भुरग्याकडेन संक्रमण न जावपा पासत म्हणटाले तशें आतां आवय ही एकलीच जापसालदार थारना तर आवय-बापूय दोगांयचीय सारकीच जापसालदारकी आसता. देखून हें संक्रमण पालकांकडल्यान म्हणटात.

जेन्ना हो असो प्रकार घडून येवपाची शक्यताय उप्रासता तेन्ना खबरदारी घेवन बाळंतपण करचें पडटा. एच आय व्ही पॉजिटीव्ह आवयचें भुरगें हे लागणी पासून जाता तितलें पयस दवरचे पासत सगळ्यांत पयलीं ती अस्तुरी गुरवार आसा म्हूण कळटकच जाता तितले बेगीन एच आय व्ही चाचणी करून घेवंक जाय. हाका लागून स्टेटस कळून येता आनी भुरग्याक ती लागण सक्रमण जातली काय ना हें कळून येता.



ही लागण भुरग्याक जाता ती भुरगें आवयच्या पोटांत आसतना. आवयची वार जी भुरग्यामेरेन वता तातुंतल्यान जावपी रक्त प्रवाहांतल्यान ही लागण जाता.

दुसरी गजाल म्हळ्यार भुरग्याचो जल्म सैमीक रितीन जाल्यार योनी मार्गांतल्यान ही लागण जाता. कारण योनी मार्गारूच हे एच आय व्हीचे जिवाणू चड प्रमाणांत आसतात.

आनी तिसरी गजाल म्हळ्यार स्तनपानांतल्यान ही लागण भुरग्यांक जाता.

हें सगळें जर आडायतलो जाल्यार अस्तुरी गुरवार आसा म्हूण कळळे बराबर HAART सुरू करप. म्हळ्यार Highly Active Anti Retroviral Theropy. हातूंत ते आवयक गुळयो दितात ज्यो आवयच्या रक्तभिसरणाचो व्हायरल दाब कमी उरता आनी हाका लागून वारींतल्यान लागण जावपाची शक्यताय उणावता.

योनीमार्गांतल्यान सैमीक रूपान भुरगें भायर येवपाचें आसत जाल्यार तशें करूंक दिना आसतना पोट चिरून सिजेरियन सॅक्शन करून जल्माक हाडचें. हाका लागून भुरग्याचो योनी मार्गाकडेन संपर्क येना. तशेंच भुरगें जल्मल्या बराबर ताका NEVI RAPINE हें वखद पोटांत घेवंक दितात.

ही लागण स्तनपानांतल्यान जावंची न्हय म्हूण आवयक जीं वखदां दितात तीं तिचें स्तनपान चालू आसा मेरेन चालू दवरप. जाका लागून आवयचो व्हायरल दाब उणो जाल्यान स्तनपानांतल्यान लागण जावपाची शक्यताय उणावता.

हाका पर्याय म्हूण आवयचें दूद पिळून काडून तें हेर जनावरांचें दूद जशें तापोवन निर्जंतूक करतात तशें करून रूम टेंपरेचराचेर हाडून भुरग्यांक दिवप. हाका जर पर्याय दिवचोच जालो जाल्यार आमी म्हणू येता. भुरग्यांक सगळ्यांत बरें दूद आईचें, नातर दाईचें, नातर बाईचें, नातर गाईचें. आनी सामकेंच मेळना जाल्यार निमणो पर्याय दब्याचें. पूण शक्यतो आवयचें दूद हें जीवन म्हणपाचें सगळ्या आवयांनीं लक्षांत दवरचें.

■■■



# घोवा-बायलेचें अतूट आनी चिरकाळाचें नातें हेंच एकमेव 'आपलें' आसता

- डॉ. विठ्ठल प्रभू

*** डॉक्टर, तुमचें बिम्ब परिवारावतीन आमी काळजासावन अभिनंदन करतात. तुमचें 'निरामय कामजिवन' हें पुस्तक कोंकणिंतल्यान उजवाडाक आयलां. कोंकणी साहित्यांत ही एक मोलादीक भर जावन आसा. म्हणटकच आमकांय ताचो अभिमान भोगता. देखून तुमचें आनी हें पुस्तक उजवाडाक हाडपी राजहंसप्रकाशनाचेंय अभिनंदन.**

** आनीक एकल्याचें अभिनंदन तुमी करूंक विसरले. हांवें 'निरामय कामजिवन' हें पुस्तक मराठींत बरयलें. त्या पुस्तकाच्यो आता मेरेन २७ आवृत्यो आयल्यात. आमचे कोंकणी भाशेंत आयिल्लें हें पुस्तक डॉ. नारायणराव प्रभू कोरगांवकार हाणीं अणकारीत केलां. म्हणटकच आमचे वांगडाच तेय अभिनंदनाक पात्र आसात. आमचे परस चडूच म्हळ्यार जाता.




*** हें तुमचें मोठेपण. दोतोर, ह्या पुस्तकाची कोंकणीत खूब गरज आशिल्ली हें सत्य. खूब जाणांक दिसतालें असलें पुस्तक जाय. पूण तें तयार करप, तें छापप हातूंत कोणाक धाडस नाशिल्लें. शिवाय प्रकाशना उपरांत एक सुंदर चर्चाय जाली ह्या विशयाचेर. जे कोण ह्या सुवाळ्याक पावलेनांत, चर्चेक हाजीर रावंक शकलेनांत तांचे मेरेन तुमचे विचार पावचे निदान आमच्या बिम्ब मासिकाच्या वाचकामेरेन अशें दिसता.**

** तशें जाल्यार मस्त जातलें. तुमकां कितें जाय तें विचारात. तुमकां कोंकणीत जाय काय मराठीत?

*** तुमकां सोपें पडटा ते भाशेंतल्यान तुमी व्यक्त जायात. पूण ही मुलाखत कोंकणीतल्यान येतली. आमी जाणा जावंक सोदतात, कामजिवन हो विशय सगळ्यांक गरजेचो. सगळ्यांचे आवडिचो म्हळ्यार जाता. पूण ह्या विशयाचेर उक्तेपणी उलोवपाक मात सगळेकांचवेतात अशें आसतना तुमी ह्या विशयांत कशे भितर सरले?**

** १९५७ सालात हांवें म्हजो दवाखानो घालो आनी हांवें वैजकीची जनरल प्रॅक्टीस सुरू केली. म्हाका भोवपाची खूब आवड. पुराय भारतदेश हांवें भोंवडी करून पळयलो. तेन्ना विदेश भोंवडी करतलो जाल्यार 'पी' फॉर्म लागतालो. हो 'पी' फॉर्म बिजनेसवाल्यांकच आशिल्लो. म्हणटकच विदेशवारी ही बिजनेसवाल्यांखातीरूच आसताली. पूण जेन्ना पी फॉर्म काडलो तेन्ना पर्यटकांकूय वचूंक मान्यताय मेळ्ळी.

१९७० सालांत हांवें युरोप - अमेरिकेची भोंवडी केली. थंयची समाजजीण समजून घेतली. थंयचे ते मुक्त विचार आनी जीवनाकडेन पळोवपाची नदर म्हाका भावली. आमी आमच्या जीवनाकडेन पळयतना कितले बंदिस्त नदरेन पळयतात आनी ताका लागून आमचें जिवीत कशें फुलूंक पावना हें म्हाका होलमलें. भारतांत येतकच हांवें नवशक्ती, लोकसत्ता बी दिसाळ्यांनी बरोवंक सुरवात केली ह्या विशयांचेर. पुस्तकां बरोवंक सुरवात केली. अज्ञान पयस जर केलें जाल्यार मनीस ह्या विशयांतल्या गैरसमजाक लागून आपली हानी करून घेता ती पयस जावंक पावतली हाची म्हाका खात्री जाली.



निरामय कामजीवन पुस्तकाच्या विमोचना वेळार लेखक डॉ. विठ्ठल प्रभू, डॉ. मिनाक्षी मार्टीन्स आनी राजहंस प्रकाशनाचे प्रकाशक प्रभाकर भिडे.

*** ह्या विशयाचेर पोट तिडकेन बरोवन, समाजाक अत्यंत गरजेचो असो आसुनय समाजमान्य नाशिल्लो हो विशय लोकांमुखार दवरचो, लोकांचें अज्ञान पयस करचें अशें दिसपी एखाद्री घडणूक बी घडल्या? जाका लागून तुमकां ह्या विशयाचेर बरोवंक उद्युक्त केलें?**

** हय. अशी एक घडणूक आसा. म्हाका याद आसा. तोच प्रसंग घडलो म्हूण हांव मुखार हीं इतलीं पुस्तकां बरोवंक पावलों म्हळ्यार जाता. जालें कितें तर धारवाडाक एक लग्न आशिल्लें, आमच्या कोणाचें तरी वळखीचें. चली धारवाडची आनी चलो मंगळुरचो. लग्न बीग्न जालें. पूण मागीर ती व्हंकलूच ना जाली. घरचीं सगळीं सोदतात. सोद घेतकच ते व्हकलेचें मडें न्हाणयेंत सापडलें. तिणें आत्महत्या केल्ली. ती करचे आदीं तिणें चीट बरोवन दवरिल्ली. जाचे कडेन आपलें लग्न जालां त्या मंगळुरच्या तरनाट्यान आपल्याचेर बलात्कार केला. आतां म्हाका समाजांत भोंवपाक तोंड ना. म्हणटकच आपूण जीव दितां.

कितली अज्ञानांत आशिल्ली ही चली. ह्या अज्ञानाक लागून तिणें आपलो जीव होगडायलो. खरें म्हळ्यार हे संबंदी तिचे आवयन तिका सांगूंक जाय आशिल्लें. तिका ह्या विशयांत शिक्षीत करूंक जाय आशिल्लें. पूण हो विशय उक्तेपणी उलोवपाची समाज मान्यताय नाशिल्ली. तरी असले अज्ञानांतल्यान घडपी प्रसंग परत घडचे न्हय अशें म्हाका दिसलें आनी हांवें ह्या विशयाचेर बरोवंक घेतलें.

*** तुमकां हो विशय हाताळटना कितें अणभव आयला?**

** पोशण आनी पुनरुत्पत्ती ह्यो सगल्यो सजीवां खातीर मूलभूत प्रेरणा. पोशण हें स्वताचें अस्तित्व तिगोवपा खातीर आनी पुनरुत्पत्ती ही वंशसातत्य तिगोवपा पासत. ह्या दोगांय मदीं एक सारकेपण आसा. तें म्हणल्यार दोगांकूय दरेकी दोन तासां आसात. तीं म्हणल्यार, विज्ञान आनी कला. विज्ञान सैमाची विस्कटावणी (फोडणिशी) करून दिता जाल्यार कला तातूंतलो आनंद कसो मेळोवचो हें सांगता. सैमान ह्या दोनांय तासांची सांगड घाल्या. अन्नाचे रुची खातीर मनीस जेवता-खाता तेन्ना आपसुकूच ताचें पोशण जाता. आनंदा खातीर शरीरसंबंद बाळगिता तेन्ना अनायासान प्रजोत्पादन जाता. पूण पोशणाचे बाबतींत उकतेपणान जितली चर्चा जाता तितली ती पुनरुत्पत्तेचे बाबतींत जायना. हो विशय पोजडो मानला. ताका लागून गोपनीय, गुपीत असो उरता. पूण म्हातारेन कोंब्याक धांपून दवरलो म्हूण सकाळ जावपाची थोडीच थांबतली! जिज्ञासा, अज्ञान, अपसमज, भिरांत, निरशेणी, संघर्श, लैंगीक समस्या, घटस्फोट, आत्महत्या वा खून अशी ही सांखळ निर्माण जाता.

जें जिणें गरजेचें, पूण ते विशीं उलोवप मात ना हे वृत्तीक लागून जायते व्यक्तिगत आनी भौशीक प्रस्न निर्माण जाल्यात. लैंगीक पिडापीड, एकतर्फी मोगांतल्यान हत्त्या, एड्स, घटस्फोट हांचें प्रमाण दिसानदीस वाडत आसा. पुरुशप्रधान संस्कृताय, आंकवार आवयपण, स्त्रीभृणहत्या, बालविवाह, वासनाकांड, देवदासी, वैदू अशे जायते समाजीक प्रस्न लैंगीकताये लागीं जोडिल्ले आसात. निदान हे संबंदीं जागरूकताय निर्माण करप हे खातीर एकूच उपाय म्हणल्यार लैंगीकतायेचें शिक्षण दिवप.

पूण लैंगिकता शिक्षण म्हणल्यार शरीरसंबंदांचें शिक्षण असो चुकीचो समज आशिल्ल्यान सर्वसादारणपणान सगल्या पावंड्यांचेर विरोध जायत आयला. लैंगीकताय शिक्षण म्हणल्यार, खरें म्हणल्यार विज्ञान, म्हणजेच सैमाक समजून घेवप. वयांत येवपा वेळार कुडींत जातले बदल जाणून घेवप, गैरसमज पयस करप, जापसालदारकेची जाणीव करून दिवप, बायलां-दादल्यांनी एकामेकांच्यो प्रवृत्त्यो जाणून घेवप, कामभावनांचें गरजेनुसार उदात्तीकरण करप, भावात्मक प्रवृत्ती आनी मुल्यांची जपणूक करप, सामाजीक समस्यांची जाणविकाय निर्माण करप. लैंगीकताय शिक्षण हें वासिना भशेन समस्या-प्रतिबंधक आसता. तें शिटकावणेचो तांबडो लांपयांव दाखयता. लैंगीकताय शिक्षणाचो उद्देश एकाच वाक्यांत सांगचो जाल्यार, 'समाजीक आनी वैयक्तीक वागणुकेंत बदल घडोवन हाडप.' हेंच मतींत घेवन काम-विज्ञानाचे सामके आयचे निश्कर्श वाचप्यां मेरेन पावचे आनी ह्या विशया संबंदांतले अपसमज पयस जावचे ह्या हेतान हांवें इंग्लीश आनी मराठींतल्यान सुमार तिसेक पुस्तकां बरयल्यांत. कांय पुस्तकां कन्नड, गुजरातींत आसात. कांय पुस्तकांच्यो कितल्यो तरी आवृत्त्यो आयल्यात. हो अणभव म्हाका आगळोच आशिल्लो. समाज अज्ञानांत रावंक सोदिना तर समाजान वर्ज्य मानिल्लो विशय लेगीत ज्ञान संपादना खातीर लोकांक जाय पडटा. हो अणभव हांवें घेतला.

*** तुमी युरोप–अमेरिकेची भोंवडी केली. थंयची समाजजीण समजून घेतली. थंय खऱ्यानीच समाजजीण मुक्त आसा?**

** ग्रीस देशांत इ. स. पयलीं चवथ्या शेंकड्यांत आर्विल्ल्या वैजकी शास्त्राचो प्रणेतो हिपॉक्रिटस हाणें प्रजोत्पादना विशीं म्हायती दिली. रोमांत सोरानसान संतत नियमना संबंदीं प्रबंध बरयलो. गॅलनान तिसऱ्या शतमानांत कामा संबंदीं मतप्रणालीचेर प्रबंद बरयलो. वैजकी विशयाचेर ताणें वट्ट १३० पुस्तकां बरयलीं. रोमी साम्राज्याचो पाडाव जातकूच ही खूबशी ग्रंथसंपदा नश्ट जाली. मध्ययुगाचे अखेरेक प्रयोगात्मक विज्ञानाक युरोपांत सुरवात जाली. 'मोनालिसा'चें चित्र रंगोवपी लेओनार्द दा विंची हो शास्त्रज्ञूय आशिल्लो. ताणें पंदराव्या शेंकड्यांत शरिररचनेच्यीं रेखाचित्रां काडल्यांत. गर्भाची वाड, संभोगाच्या वेळार जावपी प्रतिक्रिया हे विशींची म्हायती ताणें दिल्या. ते उपरांतचे शवविच्छेदक बार्थोलिन, द ग्राफ, फॅलोपियस हांणी बी विंचीची म्हायती ग्राह्य मानिल्ली. १७९८त थॉमस माल्थस ह्या इंग्रजान संतत नियमनाचें म्हत्व मांडलें. उसरां लग्न जावप आनी आत्मसंयमन हे संतत नियमनाचे दोन पर्याय ताणें सुचयले. डॉ. चार्ल्स नॉल्टन ह्या गृहस्थान १८३२त "The Private Companion of the Young Married Peaople" हें संततनियमाना विशींचें म्हायतीपूर्ण पुस्तक बरयलें. पूण तें त्या काळा वयल्या धर्मीक संस्थांक आनी सरकाराक मानवलेंना. डॉ. चार्ल्स नॉल्टनाक दंड आनी बंदखण भोगची पडली.






अठराव्या शेंकड्यांत कामा विशींच्या गिन्यानाचें एक ल्हारशें आयलें आनी हस्तमैथून भलायकेक घातक मानूंक लागले. 'संभोग म्हणल्यार विर्यनाश' ही चुकीची कल्पना युरोपांत रुजली.

एकुणिसाव्या शेंकड्यांत धर्मवेत्ते आनी शासनाधिकारी हांच्या मनांत काम संशोधना विशीं दुस्वासूच आशिल्लो. ह्या संशोधनाची म्हायती लोकां मेरेन पावची न्हय असोय तांचो कटाक्ष आशिल्लो. ह्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत मानसशास्त्र जल्माक आयलें. 'संभोगा भायले हेर कामतृप्तीचे मार्ग म्हणल्यार दुयेंस' अशें तेन्नाच्या मानसशास्त्रज्ञांनी मानलें.

व्हिक्टोरियी कालखंडांत (१८४०–१९००) 'सॅक्स' हें वायट अशें युरोपांत मानूंक लागले. व्हिक्टोरिया राणयेच्या बाळंटेरा वेळार दादलो दोतोर हजर आशिल्लो. ही खबर आयकून सगल्या युरोपांत व्हडलो बोवाळ जालो. कामविशयाची चर्चा चारचौगांत करप ही पोजड्या आनी हीण दर्जाची अभिरुची मानताले. ह्या विशयाचीं पुस्तकां वाचप, बरोवप, उलोवप म्हणल्यार कितें तरी पोजडें, बुरशें, हळशिकावणें आनी लिपोवन दवरपा सारकें, अनितीक अशें दिसूंक लागलें. ह्या संस्कारांचो परिणाम असो जालो, सैमीक कामप्रवृत्ती दामून उडोवप जमलेंच ना, वयल्यान अपसमज आनी अज्ञान वाडलें, भिरांत उपरासली, लिंगीक समस्या वाडल्यो आनी त्यो हो वेळ मेरेन कायम आसात.

विसाव्या शेंकड्या सावन कामविशयक अभ्यास चड जतनायेन जावंक लागलो. 'अती काम अणभवल्यार मनशाची वाट लागता' हे कल्पनेक पुरून उडयली ती सगल्यांत पयलीं सिग्मंड फ्रॉयडान.

*** भारतांत हे विशींची हालींची स्थिती कशी आसा?**

** इंग्रजांचे कारकिर्दीत आमचे कडेन ब्रह्मचर्य, वीर्य, हस्तमैथून बी विशयांक हिसबा भायर म्हत्व दिवपी पूण शात्रीय आदार नाशिल्लें अशें खूबशें साहित्य उजवाडा आयलें. ताच्यो हजारांनी प्रती खपल्यो. ताका लागून कामविशयक समस्या म्हणल्यार तोंड धांपून धुमक्यांचो मार थरलो. 'ब्रह्मचर्य हेंच जिवीत' सारकिल्या पुस्तकांनी कांय पिळग्यांचें कामजिवीत बरबाद केलें.

अशे परिस्थितींत कामविज्ञानाचो प्रसार करपा खातीर जिवाचें रान केलें तें प्रो. र. धों. कर्वेहाणें. ताणें १९२१ सावन संतत नियमनाच्या प्रसाराक सुरवात केली. बरो पगार आशिल्ली नोकरी सोडून संतत नियमनाचीं साधनां विकपाक घेतलीं. १९२७ वर्सा 'समाजस्वास्थ्य' हें म्हयनाळें सुरू केलें. भारतियांनी वेळारूच संतत नियमन केलेंना जाल्यार आमी अन्नाक पादिशेर जातले हाची कल्पना ह्या व्हड विचारवंताक सगल्यांत पयलीं आयली. त्या वेळार सगल्यांनी हो विशय हांश्यार व्हेलो. मार्गरिट सँगर, मारी, स्टॉप्स आनी र. धों. कर्वेहांणी लागीं लागीं एकाच वेळार संतत नियमनाच्या प्रसाराक सुरवात केल्ली. पूण ह्या दोन अस्तुऱ्यांक प्रसिद्दी मेळ्ळी तशी र. धों.क मेळ्ळिना. कारण तो एकसुरो. ते भायर, उणें उलोवपी, प्रसिध्दीविन्मुख, स्पश्टवक्तो आनी मराठी भाशेंतल्यान विचार उकतावपी. एकूय भुरगें जाल्लें नासतना, परिस्थिती खातीर आपणाक भुरगीं नाकात म्हणून आनी नसबंदीक लागून नपुंसकत्व येना हें दाखोवचे खातीर स्वताचेर नसबंदी शस्त्रक्रिया करून घेतली. तो स्वता दोतोर नासुनूय ताचो वैजक शास्त्राचो खूब खोलायेचो अभ्यास आशिल्लो. लोकशिक्षणाचें म्हत्व पारखिल्ल्यान ताणें 'समाज स्वास्थां'तल्यान जायत्या विशयांचे अभ्यासपूर्ण लेख बरयले. र. धों. कर्वेएक व्हड द्रश्टो आशिल्लो. ताचीं मतां

ताचे हयातींत लोकांनी स्विकारलिंनात तरीय तीं आज ग्राह्य दिसतात.

*** निरामय समाजजीण घडयतलो जाल्यार पालकांचें कर्तव्य कितें अशें तुमकां दिसता?**

** कामवृत्तीचो विकास जाता त्या वेळार आवयबापायची कामगिरी खूब मोलादीक आसता. हीं भुरगीं आपणाल्या फुडाराच्या जिवितांत कामविशयक आनंद निर्भीडपणान आनी मेकळ्या मनान अणभवतलीं काय संभोगाचे बाबतींत उदास, निराश, अपराधी भावना बाळगितलीं हें तांच्या आवयबापायच्या कामविशयक दिशिटकोनाचेर निंबून आसता.

भुरगें ल्हान आसता तेन्ना ताका आंगभर मुस्तायकी घालची न्हय. ताका लागून भुरगें आवयच्या चडांत चड स्पर्शाक पारखें जाता. तेचपरी, भुरगें आपणाल्या जननेंद्रिया कडेन खेळूंक लागलें म्हणटकच 'बुरसो खंयचो! हात काड!' अशें म्हणून तांचेर तापार जावचें न्हय. ताका लागून शिस्न ही एक बुरशी वस्त आपणाकडेन आसा अशी भुरग्यांची भावना जाता. नागडेपण हें बुरशें आसता अशें सांगिल्ल्यान मुस्तायकेन जननेंद्रियां सेगीत धांपून दवरपी चले चलयां परस सामुहीक सैमीक विधीची रीत आशिल्ल्या बोर्डिंगांतल्या चले चलयांचीं मनां चड निरोगी मेळटात. आठ-धा वर्सांचो चलो आनी चली नागडे अवस्थेंत एकामेकांक तेंकून राविल्लीं दिसलीं म्हणटकच पालकांचे तकलेक उजो पेट्टा, आनी भुरग्यांक कठोर ख्यास्त फावो जाता. हे ख्यास्तीक लागून 'मैथून' म्हणल्यार अपराध हें समीकरण तांच्या मनांत खोल रुजून बसता आनी फुडाराच्या जिवितांत ताका नपुसकत्व येवपाची शक्यताय आसता. अशें दृश्य पळयतकच पालकांनी दोळ्यांनीच नापसंती दाखोवची पूण भुरग्याक मारचें न्हय.

भुरगें खंयच्यान येता? भशटें जावप म्हणल्यार कितें? लग्न कित्याक जातात? हे सारकेल्या प्रस्नांक फाफडून उडोवपी जापो दिवच्यो न्हय. ल्हान भुरगीं हस्तमैथून, समलिंगी मैथून वा विलिंगी मैथुनांत घुसपल्यांत म्हणपाचें दिसल्यार सबुरीन घेवचें. पालकांचे कामविशयक विचार निकोप आसतीत जाल्यारूच फुडाराक




भुरग्यांचेंय कामजिवीत निरोगी उरतलें. भुरग्यांचीं मनां निर्मळ आसतात. तांच्या मनांत कामासक्ती नासता.

भुरग्यांचे कामवृत्तीचो विकास निर्दोश रितीन जावचो हे खातीरय पालकांनी प्रयत्नशील आसचें पडटा.

*** हालीं दिसांनी ल्हान सान कारणांक लागून घटस्फोटाचीं प्रकरणां खूब वयर सरिल्लीं दिश्टी पडटात. हें कित्याक घडटा?**




** संघर्श वाडत रावलो म्हणटकूच घोव-बायले मदल्यान उजो वचनासो जाता. एकामेकांचे उणाव आनी वैगुण्यां तीं सोदीत रावतात. तांचें लिंगीक जिवीत संपुश्टांत येता. ल्हानसान गजालीं वयल्यान झगडीं जावंक लागतात. दोगांयच्या मनांत सुडाची भावना निर्माण जाता. अखेरेक दोगांकूय दिसता, 'एकदां घटस्फोट मेळोवन हातुंतल्यान मेकळें जावचें.' घटस्फोटांत समस्यां दोगां पुरती उरना. तातूंत भुरग्यांचोय आसपाव जाता. खरेपणीं ही समस्या दोन घराब्यांची आसता. घटस्फोट मेळप सोंपें नासता. फॅमिली-कोर्ट, कागदपत्रां हांच्या चक्रांत मनीस बेजार जाता. घटस्फोट मेळ्ळोय म्हणून समस्या सोंपनात. नवीन समस्या उब्यो रावतात. घटस्फोट मेळयिल्ली अस्तुरी आनी दादलो हांची समाजांत इभ्रत गेल्ली आसता. अस्तुरेक समाजांत सहानुभुती मेळटा (शाब्दीक), पूण तिचो अर्थीक प्रस्न बिकट जाता. भुरग्यांच्या संगोपनाचो प्रस्न उपरासता. दादल्याक समाजांत सहानुभुती मेळना. परतो घटस्फोटा उपरांत समाज ताचे कडेन दुबावी नदरेन पळयता. ताचें जिवीत एकाकी जाता. घडये तो दुसरें लग्न जायत तेन्ना तो दुसरे बायलेची तुळा पयले बायले वांगडा करता. खूब फावटीं ताका पयली बायलूच बरी आशिल्ली अशें दिसूंक लागता. जिवितांत तडजोड सादपाक असमर्थ थरिल्ल्यान अशें वैफल्य पदरांत पडटा. म्हणजेच संघर्शाचेर घटस्फोट हो उपाय न्हय हें ताका खूब उसरां कळटा.

घटस्फोट मेळोवपाचो यत्न करचे पयलीं घोव-बायल हांचे मदलो संघर्श मेटोवपाचे खर प्रयत्न करचे. घटस्फोटाचे परिणाम कितें जातले हाचो आदीं विचार करचो. 'कायद्यांत घटस्फोटाची तरतूद नासत जाल्यार जोडपीं अदीक सुखी जातलीं' अशी एक म्हणणी आसा.

*** घटस्फोट टाळून जीवन सुखी करतलो जाल्यार कितें करप शक्य आसा?**

** 'उपाया परस प्रतिबंध बरो' हे म्हणणेप्रमाण घटस्फोट टाळपा खातीर प्रतिबंधक उपाय येवजुंचे. ताकतिकेन लग्न आटपून घेवचे सुवातेर बरो विचार करून लग्न घडोवन हाडचें. योग्य जोडीदाराची वेंचणी जावची. केवळ पत्रिका

जुळटात म्हणून ताकतिकेन लग्न जावचें न्हय. लग्ना पयलीं दोगांयच्यो भेटीगांठी एकामेकांच्या घराकडेन जावच्यो. एकामेकांची वळखूच न्हय तर एकामेकांचीं मनां आनी मतां जुळटात काय ना तें पळोवचें. तरीय वर्सभर एकठांय रावले बगर खरो मनीस वळखुपाक येना हाची जाणविकाय आसची. मनशांत विविधताय आसता, अपूर्णताय आसता, अस्तुरे-दादल्यांचे वृत्तींत अंतर आसता हाची जाणविकाय आसची. आदर्श जोडीदार हो फकत कथा-कादंबऱ्यांनी आनी सिनेमांनीच पळोवंक मेळटा.

फारकत वा घटस्फोट हांचे खातीर अर्ज करचे पयलीं घोव-बायल ह्या दोगांयनी फुडल्यो वळी मनांत हाडच्यो :

*आयुश्यांतल्या दरेका सोंपणाचेर*
*'आपलें' अशें कोणूय पूण आसचें!*
*प्रवेशाच्या सोंपणाचेर साथ दिवपी*
*प्रयत्नांक प्रोत्साहन दिवपी*
*आडखळींनी वाट दाखोवपी*
*कर्तृत्वाक दाद दिवपी*
*जिखतकूच शाबासकी दिवपी*
*हारतकूच उमेद नेमूंक दिनासपी*
*यशाचें अभिनंदन करपी*
*अपयशांत फाटीं उबें रावपी*
*आनंदांत वांटेकार जावपी*
*दुख्खांत फूक मारपी*
*आयुश्यांतल्या दरेका सोंपणाचेर*
*'आपलें' अशें कोणूय पूण आसचें!*

घोवा-बायलेचें अतूट आनी चिरकाळाचें नातें हेंच एकमेव 'आपलें' आसता. फारकत (घटस्फोट) घेतिल्ल्यान 'आपलें' कोणूच उरना.

*** आयज सेक्स एज्यूकेशन - लिंगिकताय शिक्षण दिवंचें हो विचार बळावता. समजा ताचें शिक्षण दिल्यार दुरूपेग जावंचो ना?**

** मनीस आनी पशु-प्राणी हातूंत फरक आसा. प्राणी सहजप्रवृत्ते प्रमाण जियेतात. तांचें मैथून उकताडार जाता. म्हणून तांकां शिकोवचें पडना. मनशांची वागणूक ही 'शिकवण आनी संवकळ' (लर्नींग ॲण्ड कण्डिशनींग) हांचेर निंबून आसता. सॅक्सा विशीं गुप्तताय पाळटात. ताका लागून जायते गैरसमज आनी तातुंतल्यान समस्या उपरासतात.

म्हातारेन कोंब्याक धांपून दवरलो म्हणून उजवाडपाचें थांबना, तेच परीं भुरग्यांक लिंगीकतायेचें शिक्षण दिलेंना तरी तांच्यांतली शकरिरीक प्रवृत्ती, मानसीक विकास, कामेत्सा, ते संबंदींची उत्सुकताय, बारीकसाण सुटावी केलिना जाल्यार तीं नाकाशिल्लें कितेंय वाचतात, पोर्नोग्राफी पळयतात, संभोगाचे प्रयोग करून शिकूंक सोदतात. हें टाळपा खातीर तांकां लिंगीकताय शिक्षण दिवचें पडटा. 'लिंगीकताय शिक्षण म्हणल्यार संभोगाचें शिक्षण' असो खूब मोटो गैरसमज. तांचे कुडींत जावपी बदल, तांचें वर्तन, तांकां हे पिरायेर गरजेची आशिल्ली कुशळटाय (फावोसो निर्णय घेवन 'ना' अशें मुजरत सांगप बी), पालकां वांगडा संवाद सादप, नितळसाण आनी भलायकी, समाजीक समस्यां संबंदीं जागृताय, तांच्यो गैरसमजुती पयस करप, तांच्यो समस्या समजून घेवन त्यो सोडोवप ह्या सगल्यांचो आसपाव लिंगीकताय शिक्षणांत जाता. लिंगीकताय शिक्षण हें वासिना भशेन. ताका लागून समस्यांचो प्रतिबंध जाता. (देखीक, आंकवार आवयपण); तें रस्त्या वयल्या सिग्नला भशेन जागरूकताय निर्माण करता. (देखीक, वेश्यागमन, हुंड्या बळी, अस्तुरी-दादलो समानताय); तें प्रिस्क्रिप्शना भशेन आसता आनी ताका लागून समस्या सुट्टा. (देखीक, शिस्न, संभोग हे विशीं गैरसमजुती पयस करप).

*** खंयचो लग्न प्रकार चड तिगता वो तिगूंक शकता? म्हळ्यार परिचय लग्न, सोयरीकेन जाल्लें लग्न वो प्रेमविवाह?**

** अशें नक्की सांगूंक मेळचें ना. परिचय लग्नां मोडटात तशीं प्रेम जावन केल्लींय लग्नां मोडटात. लग्ना उपरांत अस्तुरी- दादलो हांचीं खरेलीं रुपां कळटात. लग्ना पयलीं दोगांय आपणाली बरी तीच वट दाखयतात. लग्ना उपरांत मात एकामेकांचीं किसपटां काडपाक लागतात. हे पिरायेर मोग हें एक आकर्शण आसता. सट्ट करून कोणाचेरूय, फाटलो फुडलो विचार करिनासतना कसल्याय तासाचेर खोशी जावन, 'मोग' जाता. तें खरेपणीं केवळ आकर्शण. खरो मोग सवकासायेन जाता; विचारपुर्वक करतात. केवळ आकर्शणांत वा ओडींत कौतुकाचो वांटो चड आसता. खरेल्या मोगांत आत्मीयताय अदीक आसता. परिचय लग्न जुळयिल्लें आसलें तरीय मनां जुळ्ळीं म्हणटकूच सहवासान खरें प्रेम निर्माण जाता आनी तें सदांकाळ तिगता. सिनेमांनी, कादंबऱ्यांनी मोग आसता तो मोगच न्हय. तें फकत आकर्शण, ओड. आकर्शणांतल्यान जाल्लें लग्न तिगतूच म्हणून ना.

*** आयज शिक्षणाचो प्रचार जाला. विज्ञानाची नदर वाडल्या तरी चलो वो चली जावप हाका अस्तुरेक जापसालदार धरतात हें पिशेपणाचें दिसना?**

** दादल्याचे शुक्राणू दोन तरांचे आसतात. 'य' लिंगगूणसुत्रधारक आनी 'क्ष' लिंगगूणसुत्रधारक. 'य' लिंगगूणसुत्र आशिल्लो शुक्राणू स्त्रीबिजांत विलीन जालो जाल्यार चलो जाता, आनी 'क्ष' लिंगगूणसूत्र आशिल्लो शुक्राणू स्त्रीबिजांत विलीन जायत जाल्यार चली जाता. अर्थ असो, गर्भाचें लिंग हें दादल्याच्या शुक्राणूचेर निंबून आसता. ताका बायल जबाबदार नासता. खंयचो शुक्राणी स्त्रीबिजांत विलीन जातलो हें दादल्याचेर अधीन आसता. सैमान संतुलन राखिल्लें आसता. चले आनी चलयो हांचें प्रमाण समसमान आसता.

*** दोतोर, आतां एक निमाणो प्रस्न. मनशाचें वांजपण हें दादलो बायलमनशेचेर थापता हें कितले मेरेन सत?**

** हाका दोगांय जापसालदार. हाचें कारण बरेचकडेन सापडना. दोगांयनी दोश सोदून काडूंक जाय. संभोग संबंद केन्ना केन्नाय चुकीचो आसता. समोरा समोर चेहरो आसता. वेळ रातचो आसता. हेर प्राण्याची सहज प्रवृत्ती हांगा दाखोवपी कोण नासता. चलयेक दिसता चल्याक सगळें खबर आसता. पूण ताकाय कांय खबर नासता. हांगा चुकींतल्यानूच सगळें शिकपाचें आसता. भुरगीं जायनात हाका बायलेक दोश दिवप हें पिशेपणाचें लक्षण म्हणूंक जाय.

■ ■ ■

# नायजेरीयन नागरिकाचेर गुडघोवाटी बदल शस्त्रक्रिया

तीव्र अर्थ्रायटीस जाल्ले आनी लागीं लागीं दोन दसकां वेदना सोंसपी नायजेरियाच्या ५८वर्साचे श्रीमती बेर्नादित नांवाचे बायलेचेर डॉ. मुदित खन्ना हाणी निकतीच गुडघोवाटी बदल शस्त्रक्रिया यशस्वीपणान केली. गोंयच्या नुसी हॉस्पिटलांत ही शस्त्रक्रिया जाली.

स्वताच्या पांयांचेर लेगीत उबें रावप शक्य जायना जाल्ल्यान श्रीमती बेर्नादित. पुरायेन परावलंबी जीवित जियेताली. नायजेरियांतल्या कितल्यातरी डॉक्टरांकडल्यान तरांतरांचीं वखदां, चिकित्सा घेतिल्ल्या बेर्नादित हांचे सगळे प्रयत्न व्यर्थ गेले. निमणो उपाय म्हूण ताणीं गोंयच्या, नूसी हॉस्पिटलांत दाखल जावपाचो निर्णय घेतलो. नूसी वॉक्हार्ट हॉस्पिटल तांचे जिणेंत आशेचें किर्ण जावन आयलें आनी आयज त्यो कोणाच्या आदारा बगर चलूंक लागल्यात. हें शक्य जावंक पावलें तें संपूर्ण गुडघोबदल शस्त्रक्रियेक लागून.

संपूर्ण गुडघोबदल वा टीकेआर ही इबाडिल्ल्या गुडघ्याचे वाटये सुवातेर कृत्रिम वाटी बसोवप अशी ही प्रक्रिया आसा. मार बसून वो अर्थ्रायटीस अश्या जायत्या कारणाक लागून गुडघो वापरांतल्यान वता. वखदविर्सद करपा भायर परिस्थिती पावली म्हणटकच परतून सारको जावपा खातीर संपूर्ण गुडघो बदल हें तंत्र वापरचें पडटा. सतत वेदना, पांय घट्ट जाल्यात अशें दिसप आनी सादारण हालचाल अशक्य अशें ह्या विकाराचें स्वरूप आसता.

ऑपरेशना आदीं






ऑपरेशना उपरांत





ही शस्त्रक्रिया करपाचो निर्णय घेवचे आदीं डॉ. खन्ना हाणीं जायत्यो तपासण्यो केल्यो. ताचेवेल्यान ही एक सामकी क्लिष्ट केस आशिल्ल्याचें तांका होलमलें. ते प्रमाण डॉ. मुदित खन्ना हाणीं सहकारी डॉक्टरांच्या पालवान श्रीमती बेर्नादित हांच्या दोनूय धोंपरांच्यो वाटयो बदलपाची अत्यंत अवगड शस्त्रक्रिया यशस्वीपणान केली.

हाका लागून श्रीमती बर्नादित नूसी वॉक्हार्ट हॉस्पिटलांतल्यान आपल्या पांयानी चलत भायर आयली. आयज त्यो खऱ्या अर्थान आपलें जिवीत जियेवंक लागल्यात.

आतां तर ती सांगता 'हांव पुरायेन आपूण जावन उबी रावंक शकतलीं म्हणपाची आस्त हांवें सोडून दिल्ली. पूण डॉ. खन्नान म्हाका जीवनूच दिलें. असल्या विकारान त्रस्त जाल्ल्याक हांव तांचेंच नांव हे मुखार सांगतलीं.'

जल्म तारीख :

९-१०-१९२८

जल्म गांव :

कल्लुकुंडूर, दक्षिण कर्नाटक

आवडिचें स्थळ :

उद्यान

जिविताचेर प्रभाव घालपी व्यक्ती :

शिक्षक : प्रफुल्लदत्त
डी. के. जोशी

आवडिचे कलाकार आनी तांची कलाकृती :

संगीत (शास्त्रीय)
बडे गुलाम अली खाँ
पन्नालाल घोष

जिणेचें तत्वगिन्यान आनी ताचो कलेचेर प्रभाव :

इतरांचा आनंद हाच माझा आनंद

पुराय नामो :

२सी, शिवसागर
पांडुरंग नाईक रोड
शिवाजी पार्क
मुंबई ४०००१६

हस्ताक्षर : विठ्ठल प्रभू
११-४-२०११



## डॉ. विठ्ठल प्रभू चोडणेकार

डॉ. विठ्ठल प्रभू चोडणेकार हे काम-समस्या सल्लेकार आसात. कावन्सील ऑफ सॅक्स एज्युकेशन ॲण्ड पॅरॅण्टहूड (इण्टरनॅशनल) हे संस्थेचे ते मानद उपाध्यक्ष आनी फॅमिली प्लॅनींग असोसिएशन ऑफ इण्डियाच्या सॅक्स एज्युकेशन, कावन्सॅलींग, रिसर्च, थॅरपी केंद्राचे मानद सल्लेकार आसात.

लिंगीकतायेचें शिक्षण आनी भलायकी ह्या विशयांचेर तांणी वट्ट ३० पुस्तकां बरयल्यांत. तांतल्या तीन पुस्तकांक महाराष्ट्र राज्य शासनाचो 'उत्कृष्ठ मराठी वाङ्मय-निर्मिती पुरस्कार' लाबला.

'निरामय कामजिवन' आनी 'यौवन ते विवाह' हीं तांचीं पुस्तकां वाचकप्रीय थारल्यांत. इतलेंच न्हय जाल्यार ह्या पुस्तकांनी विकऱ्याचो उच्चांक गांठला.

POSTAL LICENCE NO.: G-2/RNP.Goa/01/2009-11

RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413



Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim - Goa & Printed at Impressions, Belgaum. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in